बरे विचार आनी आचार
हांचो प्रचार आनी प्रसार
करून समाजांत नवचैतन्य
येवंचें होच मुखेल ध्यास
मनांत बाळगून
'नविश्री क्रिएशन्स'ची
निर्मणी जाल्या.
समाजपोरसांतलें एक एक
फूल गुथीत शुद्ध
विचारसरणेचो वळेसर
गुथपाचो हावेस आमी
बाळगिला. नमनाक आमी
बांदतात
'हाडामासाचीं देवळां'
आनी शिल्पकार आसात
संजीव वेरेंकार.
स्थापनेच्या दिसा एकूच
इत्सा, घरा घरांत अशीं
'हाडामासाचीं देवळां' घडूं.
विखारी विचारांचेर विचारी
मनशांनी जैत जोडूं.

नविश्री क्रिएशन्स

Hadamasachim Devalam
By Sanjiv Verenkar

हाडामासाचीं देवळां
संजीव वेरेंकार
09422643629
ईमेल: verenkar.sanjiv@gmail.com

* पयली उजवाडावणी : 2014

* प्रकाशक
नविश्री क्रिएशन्स
वळवय, फोंडें-गोंय
403 401
मो. 9420766769 / 880649969
ईमेल: navishricreations@gmail.com



* छापणी: द प्रिन्ट वर्ल्ड,
के-5 डिजीलिंका मुखार
इंडस्ट्रिएल इस्टेट, वेर्णे, गोंय
403 722
मो.9545474182

* अक्षर जुळोवणी
स्वराज्य डिटीपी

* मुखचित्र: निरुपा नायक

* मोल : ₹ 200/-

समाज प्रेममय
करपाच्या ध्यासान
जगूंक सोदपी सगळ्यांक

# हाडामासाचीं देवळां रंगयतना

**व्य**क्तीचित्रांचें चित्रण करप म्हळ्यार मनशाच्या बऱ्या गुणांचो गौरव करून समाजाक त्या गुणांचें दर्शन घडोवप. पूण हें करतना गंधपूजा बांदिल्लेवरी जावंक फावना. खंयचोच मनीस तसो परिपूर्ण आसताच असो ना. प्रत्येका मदीं बारीकशें धोंग, अवगूण आसूं येता. मनांत बरो हेतू बाळगून गुणांचो गौरव करतना धोंगूय कलात्मक पद्दतीन दाखोवपाची गरज आसता, अशें म्हजें मत. व्यक्तीचित्रां म्हळ्यार मनशाच्या जिणेचो हारसो. वाचप्याक त्या व्यक्तीच्या बाह्य रुपा वांगडाच अंतरंगांचेंय दर्शन घडपाक जाय. तो मनीस जर हयांत आसलो जाल्यार ह्या हारशांत पळोवन ताका आपलें धोंग निवळावचेंशें दिसपाक जाय. बऱ्या मनशाच्या व्यक्तीचित्रांतल्यान समाज व्हडलो जावपाक मजत जाता.

व्यक्तीचित्रां समाजांतल्या खंयच्याय मनशांचीं रंगोवं येता. ते खातीर त्यो व्यक्ती लेखक आसूंक जाय, कलाकार आसूंक जाय, राजकारणी आसूंक जाय वा गाजिल्ल्यो आसूंकच जाय अशें ना. आमच्या समाजांत कांय सर्वसामान्य मनीस खूबच बरे आसतात. वखदांचीं पाळां कशीं. समाजाक तांचो फायदो जाता. तांचे दिसाळ्यांतल्यान फोटे झळकनात. ताका लागून ह्यो व्यक्ती समाजाचे नदरेन भरनात. हांवें हीं 'हाडामासाचीं देवळां' रंगयतना असल्याय मनशांचो विचार केलो. हें करतना प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्ष पद्दतीन म्हज्याय चरित्राचे बरे-वायट वांटे, अणभव तातूंत देवोवपाचो हांवें प्रयत्न केला. एखाद्रें देवूळ रंगयतना देवळाचे सरभोंवतणी आशिल्ल्यो देवळ्यो, पेडांचेरय तेंच पिशोल भोंवडायलां.

व्यक्ती चित्रण करपी लेखकाक मनीस समजून घेवंक कळपाक जाय. हांव सोडून दुसरो आनीक कोणूच बरो न्हय, ही भावना आसूंक फावना. लेखन करतना मनशां विशीं तपशीलवार म्हायती आसपाची गरज आसता. ती आसली जाल्यारच व्यक्तीचित्रांचें रेखाटन प्रभावी जावंक शकता.

मनाक शांत दिसचें आनी देवूय प्रसन्न जावचो, हे भावनेन आमी चडशे जाण देवळांत वतात. कांय मनशांचें बाबतीतूय अशेंच आसता. तांच्या

सहवासांत वतकच वा तांच्या गुणांच्यो खबरी आयकतकच-वाचतकच मनाक थाकाय मेळटा. निर्शेणी पयस जाता. काळजांत लिपून आशिल्ल्या चैतन्याचें झाड पालेता. तातूंतल्यान जगपाची उमेद वाडटा. अशीं मनशां म्हव्यारच हाडामासाचीं देवळां' अशें हांव मानतां.

हालीसराक आमचो समाज खोदूळ जावंक लागला. समाजांतलें प्रेम उणे जावंक लागलां. प्रत्येक मनीस 'इल्ल्यां'तलो कवाथो कसो जियेवंक लागला. हो चिंतेचो विशय. असल्या वेळार असलीं देवळां रंगोवन तीं समाजाक दाखयलीं जाल्यार ताचो फायदो जातलो, अशें म्हाका दिसलें. लेखक हो समाजाचो दिवो आसता. लेखकांनी असलीं देवळां सोदून काडून तीं रंगयल्यार आमच्या समाजाक प्रेरणा मेळटली.

फाटलीं कितलीशींच वर्सां हांव कविता ह्या साहित्य प्रकाराची साततत्यान सेवा करीत आसा. सर्वसामान्य लोकांनी, रसिकांनी म्हजी कविता तोखेल्या. म्हजे कवितेचें झाड वाडोवपाक, फुलोवपाक तांचेच तोखणायेची मजत जाल्या. केन्ना केन्ना हांव म्हज्या पत्रकार इश्टां मदीं बसून वेगवेगळ्या विशयांचेर भासाभास करता, तेन्ना कांय जाण म्हाका तूं वर्तमानपत्रांतल्यान स्थंब कित्याक बरयना, असो प्रस्न करतात. म्हजो पींड सर्जनशील लेखनाचो. प्रासंगीक बरोवप म्हाका आवडना. वर्तमानपत्रांतल्यान लेखन करतना बऱ्योचश्यो तडजोडी करच्यो पडटात. त्यो म्हाका जमना, आनी बांदूनय रावप म्हजे प्रकृतींत ना. आयलें तशें गायलें ही म्हजी पद्दत. म्हजो एक सभाव आसा. हांव खंयच्याच मनशा विशीं तो मागीर घरचो आसूं, भायलो आसूं, हांव पूर्वग्रह मत बाळगिना. कोणाकूच उणाक लेखप म्हाका मानवना. कोणालोय एक हात मातसो वांकडो दिसल्यार दुसरोय हात वाकडोच आसतलो, अशें धरून हांव वचना. वांकड्याक वांकडो आनी निटाक नीट ह्यो दोनूय गजाली तितल्याच धाडसान आनी प्रामाणीकपणान सांगपाक जावं बरोवपाक म्हाका आवडटा. म्हज्यांतय कांय दोश आसतलेच. ते हेरांक दिसतले. ते कोणेंय दाखयलें म्हणून म्हाका वायट दिसना. हांवूच सगळ्यांत शाणो आनी दुसरो मूर्ख असो विचार हांव केन्ना करिना. ह्या

पुस्तकांतलीं व्यक्तीचित्रां रंगयतना हांवेंय आत्मनिरिक्षण करपाचो प्रयत्न केला हेंय वाचप्यांनी मतींत घेवचें. कोंकणींत स. लक्ष्मीनारायण पारज, शीला कोळंबकार, दत्ता दामोदर नायक, मुकेश थळी, डॉ. जयंती नायक अशा कांय लेखक-लेखिकांनी व्यक्तीचित्रांचो प्रांत येशस्वी तरेन केळयला. कानडी लिपूतय कर्नाटकांत कोंकणी साहित्य निर्मिती जाता. तांणी रंगयिल्ल्या व्यक्तीचित्रांचे बाबतींत म्हाका तशी म्हायती ना. ह्या प्रांतांत म्हजेंय चिमटीभर योगदान दिवचें ह्या हेतून म्हजो हो प्रयत्न. तो कितलो फळादीक जाला हें वाचप्यांनी थारावपाचें.

ह्या पुस्तकांतल्या व्यक्तींनी कळत-नकळत, प्रत्यक्ष अप्रत्यक्षपणान म्हज्या जिविताचेर प्रभाव घाला. ताकाच लागून 'हाडामासाचीं देवळां' उबीं जावंक पावलीं. देखून तांचे उपकार मानचेच पडटले. पुस्तक बरयलें म्हूण जायना. तें उजवाडावन चडांतचड वाचप्यांच्या हातांत पावोवप चड म्हत्वाचें. हालींच्या काळांत तेंच काम कठीण. पूण हे बाबतींत हांव मातसो भाग्यवंत. 'हाडामासाचीं देवळां' प्रकाशीत करून घराघरांत पावोवपाची जबाबदारी वळवयच्या म्हांब्रो घराब्याच्या नविश्री क्रिएशनान उखल्ली. इतलेंच न्हय तर पुस्तक छापचे आदींच ताचें 'प्रोमोशनूय' केलें. अशे तरेचें 'प्रोमोशन' कोंकणी पुस्तकाचे बाबतींत पलयेच खेपे घडटा हाचो म्हाका खेरीत आनंद आसा.

आमच्या समाजांत असल्या देवळांचो आंकडो वाडत वचूं अशें हांव मागतां.

**- संजीव**

## मांडावळ

# हुशारी आनी धाडस

मनोहरबाबान राज्यांत खूब पूल उबारले. ताका लागून समाजाचे उतळताप पयस जाले. ह्या शिमिटाच्या, लोखंडाच्या पुला वांगडाच ताणें वेगवेगळ्या येवजण्यांच्या माध्यमांतल्यान समाजा मर्दी भावनीक पूलय बांदपाचें काम केलां. हें सगळ्यांत म्हत्वाचें.

**मनोहर पर्रीकार**



**म्हजे** पत्रकारितेचो जंय संबंद ना अशा खंयच्याय कार्यावळीक जेन्ना हांव वतां तेन्ना पत्रकार म्हूण हांव म्हजी वळख कोणाकच सोंपेपणान दाखयना. निर्मितल्यान म्हाका कवी म्हणून प्रतिभा दिल्या. तीच म्हजी वळख कायम. पत्रकारितेच्या वेवसायांतल्यान निवृत्त जातकच पत्रकार म्हणून वळख करून दिवपांत अर्थ नासता. ह्या वेवसायांतल्यान निवृत्त जातकच पत्रकार म्हणून समाज कितलो मानता हें हांवें लागींच्यान पळयलां. म्हणटकच म्हजी वळख कवी म्हणूनच करप हांव पसंत करतां. अशें जरी आसलें तरी फाटल्या 27-28 वर्सांच्या ह्या वेवसायाक लागून म्हाका वेगवेगळ्यो संदी, अणभव मेळ्ळे. मंत्री, आमदार, सरकारी अधिकारी, उद्देजक, कलाकार अशा वेगवेगळ्या मळावेल्या व्यक्तींचो लागींच्यान सहवास लाबलो. ताका लागून खूब कितें शिकूंक मेळ्ळें. अणभवूंक मेळ्ळें. जिणेंतलो आनंद घेवंक मेळ्ळो. कांय मनीस मानवले, कांय मानवले नात. ते कितेंय आसूं पूण ह्या सगळ्यांचोच कळत नकळत म्हज्या जिविताचेर प्रभाव पडलो. संवेदनशील कवी, लेखक म्हणून ताचो हांवें स्विकार केला आनी संद मेळटा थंय थंय उपेग केला.

पत्रकारितेच्या काळांत हांवें खूब मुख्यमंत्री पळयले. तातूंत प्रतापसिंह राणे, डॉ. लुईस प्रोत बार्बोझ, थोडे दिसांचो काय जायना चर्चिल आलेमांव, लुईझीन फालेरो, रवी नायक, डॉ. विल्फ्रेड डिसोझा, दिगंबर कामत आनी मनोहर पर्रीकार. शशिकला काकोडकाराच्या

मुख्यमंत्रीपदाच्या काळांत हांव पत्रकारितेंत ना. गोंयचे पयले मुख्यमंत्री भाऊसायब बांदोडकाराच्या काळांत हांव सामकोच भुरगो. ताका पयसुल्ल्यानच पळयला आनी आयकला. ह्या सगळ्यां मदीं मुख्यमंत्री म्हणून एकूच व्यक्तीमत्व म्हाका भावलें तें म्हळ्यार मनोहर गोपाळ पर्रीकार हांचें.

पिरायेच्या मानान मनोहरबाब म्हजे परस खूब व्हडलो न्हय. पांच-सात वर्सांचो फरक आसूं येता. पूण बुद्ध विद्वत्ता आनी कळाशेन तो कल्पवृक्ष कसो. आनी हांव तायखिळो कसो, अशें हांव कोणाकूय सांगता तेन्ना तानूंतलें कोणय तिरसुवाद म्हाका तूं न्हंयचे देगेवेलो ल्हवो म्हणटा तेन्ना म्हाका हांसूंक येता. ताचें हें व्यक्तीचित्र रंगयतना आदरार्थी उतर वापरचें न्हय अशें हांवें थारायलें. कांय व्यक्तींचे बाबतींत 'ते' 'तुमी' असो उल्लेख करतकच तांचे मदलें आनी म्हजे मदलें अंतर वाडटा आनी प्रेमाची भावना उणी जाताशी म्हाका दिसता. लोक मनोहरबाबाक भाई म्हणटात. हालींच्या काळांत भौशीक जिणेंत भाई, भाऊ हीं उतरां चड बुळबुळीत जाल्यांत. देखून हांव ताका पयलीं सावन मनोहरबाबूच म्हणटां. कांय जाण सत्तेर आसतकच तुमी-आमी करतात आनी सत्ते वयल्यान देंवतकच आरे-तुरेय करपाक तयार नासतात. ह्या प्रकाराचो म्हाका सदांच किंवाटो येता. मनोहरबाबाकूय नखरें, लागांळेंपण आवडना, तें ताच्या सभावांतूच ना.

केन्ना केन्ना मनशाचेर वायट प्रसंग येता, परिस्थिती कठीण जाता, तशेंच खंयच्याय राज्याचेरय अवर्शण येता तेन्ना ताका तारपाक कोणतरी अवतरचो पडटा. फाटल्या सात आठ वर्सांत गोंयाक सगळेंच बुडडूंक लागलें. राज्य वेगळेंच वाटेतल्यान वचूंक लागलें. अशा वेळार मनोहरबाबाच्या रुपान गोंयाक तारणहार लाबलो. मनशांचें तशेंच राज्यांचें एक विधी लिखीत आसता. अंधश्रद्धा निर्मुलनवाल्यांक ह्या वाक्याची तिडक येवं येता. पूण हांव तें मानतां.

हांव मनोहरबाबाच्या पक्षाचो न्हय. जे संघटनेंत तो वाडला ते संघटनेचोय न्हय. आनी नात्याचोय न्हय. तशें पळयल्यार आयज खंयच्याच राजकीय पक्षाक आदलेवरी तत्वां उरूंक नात. उरल्यांत तीं

फकत लेबलां. सोरो तोच, बाटल्यो वेगळ्यो. म्हजी विचारधारा समाजवादाची; काँग्रेस पक्षा कडेन लागींची. तरिपूण मनोहरबाब म्हाका खूब आवडटा.

पत्रकार म्हणून हांव ताका साकरेच्या मेलांत लोळयिल्ले आडवे प्रस्न विचारता. आनी मातसो अडचणीत हाडपाचो यत्न करता. म्हाका तें करपाक मजा येता. हांवें विचारिल्ल्या प्रस्नाक मनोहरबाब सामके सादूर जावन जाप दिता, अशें म्हाका म्हजे पत्रकारितेंतले मित्र सांगतात. हें खरें आसत जाल्यार म्हाका ताणें दिल्लें तें प्रमाणपत्र म्हणचें पडटलें. तो अडचणीत येतासो दिसता तेन्ना मात हांव फुडलो प्रस्न विचारपाचो टाळटां. पत्रकारांक लेगीत आपणे खंय थांबूंक जाय हें कळपाक जाय, अशें म्हजें मत. कांय पत्रकारांचे प्रस्न मनोहरबाब सामकोच फाफडून उडयता. तांचेर तिडकता, तुमकां कांय कळना म्हणपाकय तो फाटीं रावना. आदीं एकाद्रो मंत्री जेन्ना असो वागतालो तेन्ना पत्रकार खुबळटाले. इंगळो कशे पेट्टाले. तांकां आपले पत्रकारितेचो खूब अभिमान आसतालो. मारियो काब्राल इ सा, गुरूदास सावळ, स. बालाबाब गावणेकार, स. जगदीश वाघ हांचो काळ आतां उरूंक ना आनी तांचे कालेतीचेय पत्रकार नात. हांव, हिंदू दिसाळ्याचे पत्रकार प्रकाश कामत, गोमन्तकाच्यो सुनिता प्रभुगांवकार बी तांचेच तालमीत वाडले. आयची पत्रकारिता सगळ्याच आंगांनी बदल्ली. 'ऑफ द रॅकॉर्ड' खंयचें हें त्या काळार मंत्र्याकय सांगचें पडनासलें. आमीच आमचीं पेनां बंद करताले आनी कान मात उक्ते दवरताले. खंयचोय मंत्री, पत्रकार हो मनीसूच आनी ह्याच समाजाचोच घटक आसता. हें विसरूंक फावना.

मनोहरबाबाक उलोवंक खूब आवडटा. केन्ना केन्ना मनीस म्हणून तो व्यक्त जाता तेन्ना कॅमेरो सकयल काड रे तो, म्हणून ताका कांय इलेक्ट्रोनिक पत्रकारांचेर ताका धेंकणो घालचो पडटा. ही पाळी येवंक दिवंक जायना. कांय मुख्यमंत्री हांवें पळयल्यात. तांच्या तोंडाची वाफूय वचना आनी कपड्यांक शिरकुटी आनी खत पडत म्हणून ते मनशांकूय तेकूंक सोदिनात. अशा लोकांक समाजाची नाडी कशी कळटली? हाचो

विचार करता तेन्ना मनोहरबाब म्हाका खूब व्हडलो दिसता. कोंकणीवाले, मराठीवाले, रोमीवाले, शॅकवाले ह्या सगळ्यांचीं मापां ताच्या बोल्सांत आसतात. राज्य चलयतलो जाल्यार हीं मापां म्हत्वाचीं.

उदयबाब हे कोंकणी चळवळीतलें दैवत कशें. ताका कोणेय कितेंय म्हणल्यार खऱ्या कोंकणी भक्ताक तिडक मारता. 2000 ते 2004 ह्या काळांतय मनोहरबाब ह्या राज्याचे मुख्यमंत्री आशिल्ले. तेन्ना उदय भेंब्र्याची आपणाक कोंकणी कळना अशें सांगून ताचेर तो टिका करतालो. तेन्ना म्हाका मनोहरबाबाची तिडक मारताली. फाटलें वर्स देड वर्सा आदीं आपणाक उदय भेंब्र्याची कोंकणी बरी कळटा अशें म्हाका आनी प्रकाश कामतीक ताणेंच सांगलें. तेन्ना हांवें म्हजे संवये प्रमाण तेन्ना कळनाशिल्ली न्हय? असो प्रस्न करून ताची फकांडां केलीं. मनोहरबाबानय तीं सामकीं हांशार व्हेलीं. ताकाय फकांडां आवडटात.

मनोहरबाबाचें चलप म्हाका खूब आवडटा. ताच्या चलपाची गती म्हळ्यार राज्याचो वेगान विकास करपाच्या ताच्या ध्यासाचीं तीं लक्षणां, अशें हांव मानतां. आपल्या हेर सहकाऱ्यांनीय होच ध्यास बाळगुचो अशें ताका मनांतल्यान दिसता. कांय जाणांचो ध्यास वेगळो आसता, हाचीय ताका कल्पना आसता. असल्या लोकांक कितले लागीं दवरप आनी कितले पयस दवरप हाचो ताका कोणे सल्लो दिवपाची गरज ना. म्हजो मींत्र प्रकाशबाब कामतीक केन्नाय तसो विशय जालो जाल्यार हांव मस्कऱ्यांनी म्हणटा, तुवेंय मनोहरबाबाक कशें सांगलें ना रे? तेन्ना प्रकाशबाब हांसता. हांव मागीर मनांत समजूंक जाय तें समजतां. तें कितेंय आसूं, मनोहरबाबाक कोणेय कितेंय सांगलें म्हणून तो आयकतलो अशें म्हाका दिसना. ताका सल्लो दिवप म्हळ्यार हुंदरान शिंवाच्या कानान फुतफूतपाचो केल्लो प्रयत्न अशेंच म्हणचें पडटलें.

एकाच वेळार चार जाणांचें आयकून घेवप आनी तकली सकयल घालून सांग, सांग अशें म्हणून आपल्या मेजावेल्यो फायली वाचत रावप जावं सयो मारीत रावप हें ताच्या कामाचें वैशिश्ठ. एकेच नदरेन फायलींतलो मजकूर तो आपल्या तकलेच्या संगणकांत 'फीड' करता. ही

कळाशी हांवें दुसऱ्या कोणा कडेन पळोवंक ना. मुख्यमंत्री म्हणून कोणूय ताचे कडेन कसल्याय कामाक वता. कोणा कोणाचीं कसलीं कामां आसत सांगू नजो. तो तकली सकयल घालून आपलें काम करीत रावता आनी मुखावेल्या मनशाक आं आं म्हणटा अशा वेळार कांय जाण बुचकळ्यांत पडटात. गोंदळटात, जाल्यार कांय जाणांक ताची तिडक मारता. भायर येवन ते फणफणटा. काम घेवन वतल्यांक मंत्र्यान आपणा कडेन लक्ष दिवचें अशें दिसता. तातूंत तांचो कसलोच गुन्यांव ना. कांय मंत्री कामाक येता ताका पयली च्या दिता. उपरांत अपुरबायेन ताचें काम आयकता. घरचीं कशीं आसा काय म्हूण प्रस्न करता. हेरशीं थंयचे थंयच तें काम जावं येता अशा कामाक लेगीत ते ताका फुडल्या पंदरा दिसांनी पासय मार म्हूण सांगता. मंत्र्यान दिल्ली च्या आनी आपली केल्ली सरबराय पळोवन ताका आपलें काम जालेंच कशें दिसता आनी मुखामळार खोशेचो हांसो घेवन तो भायर सरता. मंत्री कितलो बरो तें लोकांकूय सांगता. प्रत्यक्षान ताचें बारीकशें काम केन्नाच जायना. मनोहरबाबाच्या कॅबिनांतल्यान कपलाक आटयो घालून भायर सरिल्लो मनीस पंदरा-वीस दिसांनी मनोहरबाबाक खंयचेय कार्यावळीक दिसता तेन्ना मनोहरबाब आपूण जावन आसा थंयच्यानच ताच्या कामाची याद करून तपशिलवार म्हायती दिता तेन्ना ताच्या कपलाच्यो आटयो वचून ओंठार हांसो फुलता. हांगा मनोहरबाबाची याद कितली बरी हाची कल्पना येता. कालची याद म्हाका आयज उरना तेन्ना ताचे सारक्या व्यक्तींची म्हाका नसाय जाता. ताच्या सबावांत गांवगिरेपण, गोंयकारपण, रांगडेपण म्हाका सदांच दिसलां. असल्यो व्यक्ती म्हाका आवडटात. मुख्यमंत्री म्हणून वेगळें आनी मनीस म्हणून वेगळें जगप हो फरक ताच्या सबावांत ना. तो आपणाक जंय बरें लागता त्या गाड्यार, हॉटेलार भाजी खाता. हुनसो दिसल्यार बटाटवडोय चाबडायता. मोटारींत फुडल्या सिटार बसता. खंयच्याय कार्यक्रमाक वचूं आपल्या कपड्यांचेर, भेसाचेर ताचें व्हडलेशें लक्ष नासता. हाताक मेळटा तो भेस चडोवन भायर सरता. कार्यावळीक चडशे लोक सुटा बुटांत आसतात ते ताका पळयता. इतलो उच्च शिक्षीत मुख्यमंत्री असो कसो?

हो तांकां प्रस्न पडटा. व्यासपिठा वेल्यान जेन्ना तो उलोवंक लागता जावं एकादऱ्या विशयाची जेन्ना तो फोडणिशी करता तेन्ना सुटा बुटान आयिल्ल्यांक आपलो जागो कळटा. मुख्यमंत्री म्हणून मनोहरबाब चर्चेचो विशय. हांव ताका फाटल्या बऱ्याच वर्सां सावन बारीकसाणेन तेळत आसा. व्यक्ती म्हणून म्हाका तो ह्याच कारणाक लागून मानवला. तो खूब उलयता. राजकारण्यांनी खंय जाय तितलेंच मर्यादीत उलोवंक जाय अशें कांय जाणाचें मत आसा. म्हाका तें पटना. मनीस आपल्या सबावा प्रमाणूच वागता. ताणें तसोच वागूंक जाय. मनोहरबाब आपल्या जगपांत कृत्रीम आव हाडिना. ताका तें जमयना. आनी जमचेंय ना. तशें करपाचो यत्न केलो जाल्यार ताचे जिणेंतलो आनंदूच ना जातलो. खंयच्याय विशयाचेर ताका कितेंय विचारचें. तो सांगत रावता. याद जाता तश्यो तश्यो दुसऱ्यो गजालीय सांगता. पत्रकारांक बी मनोहरबाब म्हळ्यार बातम्यांचो पावस कसो. पावस जसो मुक्तपणान झडटा तसोच तो उलयत रावता. तागेल्या पक्षांतल्या कांय मुंगशा कार्यकर्त्यांक ताचें हें वागणें मानवना. पूण उपाय ना. तांकां तेन्ना पत्रकारांचोच राग येता. आयज कांय पत्रकार म्हळ्यार देवळांतले पखवाज कशे जाल्यात. कोणेय येवचे आनी दोनूय वटांनी वाजोवचें. तशे तेय आपूण जावन वाजोवन घेवंक लागल्यात. ताका लागून चामडें पातळ जावन आवाज बंद जावंक पावला.

लोकां मदीं भरसून वचप मनोहरबाबाक आवडटा. ताचे लोकप्रियतेचे हें एक कारण. समाज आनी आपूण हांचे मदीं जो चड अंतर दवरिना तो राजकर्तो सगळ्यांकच आवडटा. गोंयच्चे पयले मुख्यमंत्री भाऊसायब खंय अशेच लोकां मदीं भरसून वताले. ताकाच लागून तांकां समाजाचीं सूख दुख्खां कळपाक पावलीं. मनोहरबाबूय तसोच. ताका समाजाची व्यथा कळटा. ते फाटभुंयेर ताणें कांय जाण्टेले, विधवा, विकलांग, अनाथ अशा वेगवेगळ्या घटकां खातीर बऱ्यो येवजण्यो राबयल्यात. सगळ्यो येवजण्यो सगळ्यांक आवडटात अशें ना. म्हाकाय कांय ताच्यो येवजण्यो आवडनात. कांय येवजण्यांचो खूबश्या प्रमाणांत गैरवापरूय जावंक लागला. दुश्काळांत तेरावो म्हयनो कसो राज्याचे अर्थवेवस्थेचेर सुमारा

भायर ताचो ताण पडला. हें खरें. ह्या येवजण्यांच्या गैरवापराक त्यो राबोवपी यंत्रणाच चड जबाबदार आसतात. खंयचोय राजकारणी कसल्योय येवजण्यो राबयतना राजकारणाचो, वेंचणुकेंतल्या मतांचो विचार करतलोच. मनोहरबाबूय तो करताच आसतलो. आमच्या समाजाची मानसीकता इबाडल्या. कोणे कसल्या येवजण्यांचो लाव घेवप हाचो विचार जाय. मेळ्ळा म्हूण उशीकांडो मुळा सकट तोंडात घालूंक फावना. तोंडांत माती वता. कांय येवजण्यांच्या गैरवापराक लागून समाज लाचार जाता अशें विचारवंतांचे म्हणणें आसा. हांवूय ताका सहमत आसा. अशें जरी आसलें तरी ह्या येवजण्यांनी म्हाका मनोहरबाबाचें काळीज दिसता. पूल बांदप हे ताणेंच अशें समीकरण जालां. मनोहरबाबान राज्यांत खूब पूल उबारले ताका लागून समाजाचे उतळताप पयस जाले. ह्या शिमिटाच्या, लोखंडाच्या पुला वांगडाच ताणें वेगवेगळ्या येवजण्यांच्या माध्यमांतल्यान समाजा मदीं भावनीक पूलय बांदपाचें काम केलां. हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. तशे तरेचें काळीज मन आनी नदर नाशिल्लो कोणूच भावनेचे पूल उबारूंक शकना. ह्या पुलांक लागून गोंयचो समाज ताची सदांच याद काडटलो हातूंत दुबाव ना.

विधानसभेंत विरोधी आमदार मंत्र्यांक प्रस्न विचारतात, तेन्ना चडश्या वेळार मनोहरबाब आपूणच उठून जापो दिता. ताका लागून कांय जाण बेजार जातात. ताचेर एकाधिकारशायेचो आरोप करतात. सहकारी मंत्र्यांचें अस्तित्वूच दिसना म्हूण ताकाच दुशण दिता. म्हज्या मतान खरें कारण वेगळेंच आसुंये. बेदुणे कितले असो प्रस्न विचारतकच कांय जाणांक 'कॅलकुलेटर' जायसो दिसता. कांय जाण माथें खरपितात. हें पळोवन ताचो कुलो कदेलार थारना, तो वयर सकयल जाता आनी उठून जाप दिता. कितें आसा तें सांगून उडयता. ताका चडशा विशयांचें ज्ञान आसता. ताका कोंत करचें पडना. याद करची पडना. सगळें ओंठार. केन्ना काय सांगून उडोवचेंशें जाता. हेंच ताचें खरें कारण अशें म्हाका दिसता. सहकारी मंत्रीय आपलेच गतीन धांवचे अशें ताका दिसता. पूण तें कशें शक्य आसा?

विरोधी फुडारी म्हणून आनी मुख्यमंत्री म्हणूनय हांवें ताचीं विधानसभेंतलीं खूब उलोवपां आयकल्यांत. पत्रकार भावनीक जालो जाल्यार खंय बातमी सारकी करूंक पावना. पूण ताच्या उलोवपांनी हांव खूबदां प्रभावीत आनी भावनिकूय जालां. ताच्या उलोवपांत विनोद आसता, बोध कथा, निती कथा आसता. खंयचोय म्हत्वाचो विशय काणयो आनी ओपारींच्या माध्यमांतल्यान तो आयकुप्यांच्या काळजा मेरेन पावयता. ह्या ताच्या कसबाची तोखणाय करचीच पडटली. ताच्या उलोवपांत समाजा विशींचो, राज्याच्या फुडारा विशींचो, नवे पिळगे विशींचो कळवळो दिसता. आमचे भुरगे शिक्षणा खातीर, नोकऱ्यां खातीर गोंय सोडून वतात. हाचें ताका वायट दिसता. गोंयांत गोंयकार उणो जाता. स्थलांतरण वाडटा हाची ताच्या उलोवपांत खंत जाणवता. ते खातीर कितें तरी बरें करूंक जाय हाचे विशींची तळमळ ताच्यात दिसता. पूण असलीं कामां एका मनशाचीं न्हय. पयशे मेळटात म्हणून गोंयकार आपलीं घरां वळख्र-पाळख्र नाशिल्ल्या भायल्या लोकांक भाड्यान दितात, आनी चूड लावन म्हारू घरांत हाडटा आनी आपल्याच घरांत गोंयकार परकी जावन रावतात. हें पळोवन तो अस्वस्थ जाता. समाजान आपली मानसिकता बदलची म्हणून कळवळून परतून परतून तो उलो मारता. हो उलो जण एकल्यान आयकुचो अशें म्हाका दिसता.

मनोहरबाब मुख्यमंत्री जायत सावन जायत्या जाणांनी ताच्या चलपाचें, भेसाचें, गाडयेंत फुडल्या सिटार बसपाचे पद्दतीचें अनुकरण करपाचो यत्न केला. ख्रें म्हळ्यार दरेकान ताच्या विचारांचें अनुकरण करपाचो यत्न केल्लो जाल्यार समाजाचें कल्याण जावपाक मजत जावपाची. मनोहरबाबाक साहित्य वाचनाचीय आवड. जें वाचता तें ताचे तकलेंत उरता. मुख्यमंत्री म्हळ्यार सकाळ ते रात मेरेन तरेतरेच्यो कार्यावळी, राटावळी, वेळार जेवण ना. न्हीद ना. केन्ना कोण दारार मारीत कळना. मेजार, गाडयेंतल्या सिटांचेर फायलींचो दाळ. परतो परतो मोबायलाचो त्रास. ह्या सगळ्या जाचांतल्यान मनोहरबाब वाचता कसो? म्हजी कविताय तो वाचता आनी उक्तेपणान अमूक कवितेच्या वळींनी अमकें

उतर येवपाचें अशें जेन्ना तो म्हाका सांगता तेन्ना म्हाका अजापाचो धक्को बसता. ताणें कविता वाचली म्हणून मळब भुंयेर देंविल्ल्याचो म्हाका आनंद जाता. हांगा आमचे लेखकूच वाचून दाद दिनात. पूण मनोहरबाब सगळ्या कामाच्या जबाबदाऱ्यांच्या झपाट्यांतल्यानय संजीवाची कविता वाचता, हाचें सगळ्यांकूच नवल दिसता आनी म्हजे खातीर गौरव आसता. कवी, लेखकाक आपलो वाचक सदांच आवडटा.

मनीस म्हणटकच गूण आनी अवगूण आयलेच. जो आपली नोकरी, वेवसाय आनी आपल्या संवसारा पुरतो मर्यादीत आसता ताचे दोश लोकांक दिसनात. पूण जो रासवळ मळार काम करता ताचे आमकां दोश दिसतात. कांय जाणां मदीं ९८ गूण आसतात आनी दोन अवगूण आसतात. जायते खेपे दोन अवगुणाचें दालें जड जाता तेन्ना सर्वसामान्य मनशाक ९८ गूण दिसनात. कांय जाण खूब हुशार आसतात, बुदवंत आसतात, ते मुखावेल्या मनशाक नेणार धरून वागतात. जें कितें जाणा तें हांवूच जाणा, अशें तांकां दिसता, अशा वेळार सर्वसामान्य मनीस ताका समजून घेवंक शकना. कांय जाणांक मनोहरबाबा मदीं हो अवगूण आसा अशें दिसता आनी ह्या एकाच अवगुणाचेर बोट दवरतात. पूण ते आपणाक कितले दोश आसात हाचो विचार करिनात. म्हज्या मतान असल्या प्रतिभावंतांक आमी समजून घेवन स्विकारपाक जाय. तांचो समाजाक फायदो आसा. मनोहरबाबा मदीं आशिल्ल्या दोशांचे लेगीत गुणांत रुपांतर जावं आनी समाज, प्रशासन निवळ करपाक, राज्याचे खरे अस्मितायेची राखण करपाक आनी नवे पिळगेक उजवाडाचें मळब दिसचें म्हणून सगळें सांवट बेणपाक बळ दिवं अशें हांव मागतां.

# निर्मळ काळीज

अण्णालें मन मळबा सारकें विशाळ. फकत प्रेम भरलां. ताका देव पावता. अण्णाच्या निवळ सहवासांत येता, ताचें काळीज निवळ जाता. काळजांतलो घंयरांव वता.

अण्णा (रोहिदास सतरकार)



**म्हजो** धंदो, वेवसाय कितलोय व्हडलो जावं, कितलोय सकयल जावं हांव म्हाका केन्नाच इबाडूंक दिवचो ना. सत्याचो मार्ग सोडचो ना. सत्य आसता थंयच देवाचो आशिर्वाद आसता. म्हजें पोट भरलां, म्हज्या शेजारचो म्हजो वांगडचो कोणूच उपाशी उरूंक फावना. ते खातीर हांवें कितेंय तरी करपाकूच जाय, तें केलें ना जाल्यार म्हज्या वैभवाचें म्हाका सूख ना, अशे विचार घेवन जगपी मनीसूय आमच्या समाजांत आसात. पूण तांकां पळोवपाक आमकांय नदर जाय आसता हेंवूय तितलेंच खरें. अशे मनीस आमच्या सहवासांत येतात तेन्ना तांच्या पांयांर तकली दवरून नतमस्तक जावचेंशें दिसलेंना जाल्यार आमी कर्मकट्टेच म्हणचें पडटलें.

आमी चडशे लोक जात, धर्म, प्रदेश, भेस हांचे वेल्यान मनशाक तोलूंक सोदतात. तातूंतल्यान आपल्याच मनाची फटवणूक जाता. मनशाक पारखुपाचे हे निकश पुरायपणान चुकीचे आसतात. धर्तरे वेल्या दर मनशाक एक स्वताचें अशें वेगळें व्यक्तीमत्व आसता. ताचो ताची जात, धर्म, भेस, प्रदेश हाचे कडेन कसलोच संबंद ना. कुटुंबांतले संस्कार, वातावरण आनी बऱ्या मित्रांचो प्रभाव हातूंतच मनशाचें व्यक्तीमत्व घडिल्लें आसता. अंत्रूज म्हालांतल्या आर्ल केरीच्या ट्रॉपीकल स्पायस प्लान्टेशनांत झाडांचें दर्शन घेवपाक कोणूय पावलो जाल्यार एक सादें मोटवें कलसांव नाजाल्यार आदले पद्दतीची पँट, लांब हाताचो बुशकोट, हातांत एक तुवालो आनी ओंठांर कुळागरांतल्या चाफ्याचो शुभ्र धवो हांसो

आशिल्लो एक मनीस वावुरतना दिसतलो. थंय आयिल्ल्या देशी-विदेशी भोंवडेकारांची जे प्रेमळ भावनेन तो सेवा आनी सरबराय करता ती पळयतकच ह्या प्लान्टेशनाच्या धनयाक बरो संस्कारी प्रामाणीक मानाय मेळ्ळो अशें दिसलें बगर रावचें ना. त्या धनयाचो हेवोय दिसतलो. कुळागरांतलीं मसाल्याचीं झाडां पळोवन जातकच, खावन-जेवन धादोस जावन प्लान्टेशनांतल्यान घरा परतुपाच्या वेळार जेन्ना हो मनीस कामगार नासून प्लान्टेशनाचो धनी म्हूण कळटकच मनाक जें दिसतलें ताची कल्पनाच करूं नजो. कळटलें जाल्यार प्रत्यक्ष तो अणभवूच घेवचो पडटलो.

ताचें नांव अण्णा. खरें नांव रोहिदास बाबुराव सतरकार. पूण ह्या नांवान ताका सोपेपणान कोणूच वळखना. हें नांव घडये तेर्मा पुरतेंच मर्यादीत आसूंक जाय. ताका सगळे अण्णा म्हणूनच वळखतात. हांव ताका परमेश्वराचो दूत म्हणटां. अण्णाल्या ह्या प्लान्टेशनाक लागून आर्ल केरीचें नांव जगाच्या पर्यटन इतिहासांत पावलें हाचो ताका खाशेलो अभिमान. म्हजो बाबुराव नायक म्हणून भुरगेपणांतलो मित्र केन्नाय अण्णाल्यो खबरी सांगतालो. असो हो अण्णा कोण काय असो म्हाका तेन्ना प्रस्न पडटालो.

अण्णा एका गरीब शेतकार कश्टकरी कुटुंबांतलो. चड शिकूंक ना. ताका ताची गरजूय पडल्ली ना. अण्णाक तीन भाव- अजीत, संदीप आनी व्हडलो सुभाष. सुभाष खंयचे तरी कंपनीत नोकरी करतालो. अण्णान नोकरी करची न्हय, कितेंय तरी स्वतंत्र करचें अशें ताका दिसतालें. ते खातीर कितें लागता तें आपूण मेळोवन दितलों अशी ताची भावना. आपले भाव स्वताच्या पांयांर उबे रावचे अशें चडशा व्हडल्या भावांक दिसता. तातूंत कांय जाणांचें कारण वेगळें आसता. बेकार उरून आपणाचेर बी भार पडत हाची तांकां भिरांत आसता. धाकल्या भावाक स्वतंत्र कितेंय करपाक आदार करपाची भावना आशिल्लो जाका भाव मेळटा तो भाग्यवंत. ते नदरेन अण्णा आमचो भाग्यवंत. ताचो बापूय बाबुराव. गोंवा बागायतदार सोसायटींतलो पयलो प्रामाणीक 'मानाय' म्हणून ताची वळख. आवय

काशी. ह्या दोगांकय पळयतकच अण्णा इतलो संस्कारी कसो जालो हाची जाप मेळटा.

धंदो म्हणून अण्णा टेंपो चलोवंक लागलो. केन्ना केन्ना रातचो येवन देव दारार मारता. न्हिदेच्या आळसायेन जर आसूं तें दार उगडपाचें, अशें चिंतून जर माथ्या वेल्यान बुखारणी मारून न्हिदलो जाल्यार कायमचो फटवलो. देव दारार मारता तेन्ना दार उगडूंक जाय. केन्ना केन्ना म्हारूय दारार मारूं येता. देव दारार मारता काय म्हारू दारार मारता हें मात वळखुपाचें आमकां धंगण जाय. अण्णा टेंपोची भाडीं मारतां मारतां म्हजो मित्र उदय म्हांबरो अण्णाल्या रानांत प्रगटलो. आमचो उदय सड्यार लेगीत बांय मारून उदक काडपी. तो श्रमप्रतिश्ठा मानप्यांतलो. कोणाक फटोवपाचे वानशेन ताच्या काळजाक केन्ना स्पर्श करूंना. दुसऱ्याचें बरें पळोवपांत आनंद मानप ही ताच्या घराण्याची परंपरा. अण्णाल्या रानांत उदयान प्लांटेशन वसोवन पर्यावरण पर्यटन सुरू करपाचो अण्णा आनी तागेल्या घरच्यांक प्रस्ताव दिलो. तांणी तो मानून घेतलो. आपल्या एका भागिदाराक घेवन उदयान त्या रानांत प्लांटेशन वसयलें आनी पर्यटकांक हाडून वेवसाय सुरू केलो. अण्णाल्या पुराय कुटुंबान आनी उदयान मसाल्याचीं झाडां रोवन घामान शिंपून व्हडलीं केलीं. भागिदार हून उदकाचो घोंट थारलो. तातूंत अण्णा आनी ताचें कुटुंबय भाजता अशें उदयाक दिसूंक लागलें. आपले खातीर तांच्या कुटुंबाक त्रास जावचे न्हय हे पवित्र भावनेन तांकां मात्तूय दाखोवन दिनासतना एकेच रातीन अण्णाक प्लांटेशनाचो पूर्ण धनी करपाचें उदयान एक सुंदर सपन पळयलें. आयज ताका फुलांच फुलां फुलूंक लागल्यांत. ताचो परमळ सगळ्याक दरवळटा. हांवें, म्हज्या घरच्यांनी आनी मित्रांनी तो हुंगला.

कसल्याय कारणाक लागून उदया वांगडा हांव थंय वतां तेन्ना अण्णा उदयाकच पात्रांव म्हणटा. पात्रावांचें अस्तित्व हांगा कायम आसा अशें तो मानता. तो उदयांत देव पळयता. ताच्या दोळ्यांच्या हारशांनी म्हाका ताचें पडबिंब दिसता. तो कांयच उलयना. सगळें कितें ताचे दोळेच उलयता. अण्णाच्या हट्टाक लागून उदयालो पन्नासावो वाडदीस आमी थंयच

मनयलो. ताच्या बापायच्या हातांतल्यान उदयाच्या पुस्तकाचें विमोचन केलें. हांवें बळजबरेन अण्णाक माचयेर बसयलो. तो उलोवंक उबो रावलो. हें वैभव आपलें न्हय अशें म्हणून अण्णा घळाघळा भुरगो कसो रडलो. माटवांतल्या सगळ्यांचे दोळे ओले केले. अण्णा कांयच उलयलो ना. ताचीं दुकांच सगळें उलोवन गेलीं. ह्या अप्रतीम खिणाचो हांव एक गवाय. हांवूय ताचे कडल्यान खूब कितें शिकलों.

आपल्या सूख समाधाना च्यो खबरी सांगातना अण्णा तुळशीदास गावडे नांवाच्या थंयचेच एके व्यक्तीचो उगडास काडटा. ह्या मनशाक एका काळार अण्णान एका भिरांकूळ दुयेंसांतल्यान उबो केल्लो. ताका ल्हान भुरगीं आशिल्लीं. प्लान्टेशनांत भितर सरतना जंय पार्किंगाची सुवात आसा तो सगळो जागो तुळशीदासान अण्णाच्या ताब्यांत दिलो, आनी आपल्या फाटल्यान आपल्या भुरग्यांचो सांबाळ करपाची विनवणी केली. अण्णान ताका पाळो दिलो. तुळशीदासान आपल्या बायल भुरग्यांक अण्णाचें उतर हें परमेश्वराचें उतर अशें मानून तो दाखयता त्या मार्गान वचपाचें अशें सांगूनच एक दीस हॉस्पिटलांत प्राण सोडलो. अण्णान ताच्या भुरग्यांक शिक्षण दिलें, लग्नां केलीं. आयजूय तुळशीदासाचे जांवय, भुरगीं अण्णाक देवाचे भावनेन पळयतात.

'ट्रॉपिकल स्पायस प्लान्टेशन' हें फार्माचें नांव आसलें तरी अण्णालें प्लान्टेशन म्हण सगळे वळखतात. दर दिसा देश-विदेशांतले कितलेशेच भोंवडेकार थंय येतात. आनंद घेतात. आनी ताणें दिल्लो मोग काळजांत सांटोवन वतात आनी दुसऱ्या वर्साय परत येतात. कांय देशी भोंवडेकारांक 'स्पायस प्लान्टेशना'चें म्हत्व कळना. ते रेस्टॉरंट म्हणून समज करून घेतात. जेवणा खाणाच्या पदार्थांचेर बारीकशी निमतां उस्तून काडून वाद घालतात. तांकां अण्णा कसो हाताळटा हें पळोवपा सारकेंच. हांगा लोक येतात ते झाडां पळोवपाक. जेवपाक न्हय. तीनशीं चारशीं रुपया मोडल्यार तुमकां खंयच्याय हॉटेलांत जेवण मेळटलें. अशा उतरांनी तो तांकां समजायता. चड मस्ती केली जाल्यार प्लान्टेशना भायर व्हरून पयशे दिता. हांगा आयिल्ल्यांक आनंद मेळूंक ना जाल्यार म्हाका ताचे पयशे

कित्याक? अशें तो म्हणटा. भोंवडेकारांक दिल्ल्या प्रामाणीक सेवेची पावती म्हणून ताका ट्रिप एडवायजराचो ब्रावो आनी लोकमत गौरव पुरस्कारूय फावो जाल्यात. बीबीसी वर्ल्डा मेरेन आपलें नांव पावलें म्हणून ताका अभिमान जाला. इल्लोसो कुळागरांतलो केळमो कसो अण्णा खंय पावलो रे, अशें म्हणून हासूंक लागता तेन्ना कोणेय ताका पळोवचो.

अण्णाले तीन हती सांबाळपाक ताचे कडेन चार पांच माहूत आसात. तातूंतलो राजू नांवाचो माहूत ताच्या घरांतलो घटक कसो. तो बिहारचो. फाटलीं कितलीशींच वर्सां तो थंय आसा. रंगार येतकच अण्णा राजूच्यो कितल्योश्योच सुरबूस खबरी आमकां सांगता. राजून बिहारांतल्यान चलोवन एक हती हाडलो. तो हांगा पावपाक खंय एक वर्स लागलें. हती चलोवन हाडप म्हळ्यार भूतखांबाचेर वचून धनगरालो बोकडो हाडपा इतलें सोंपें न्हय. तो ट्रकार चडपाक खंय कसोच तयार ना जालो. तीन हजार किलोमिटराच्या प्रवासांत राजून कितलेशेच चेक नाके, कितलेश्योच कटकटी, चक्रव्यूह भेदपा सारकोच तो प्रकार. वाटेर हतीक कितलीशींच गिरायकां येतालीं. हती ट्रकार चडपाक तयार ना म्हणून अण्णान फोना वेल्यान राजूक तो वाटेरूच विकून फायदो सगळो तुकाच दवर म्हणपाचें सुचयलें. अण्णा सांगता त्या कोंतान राजून तें केल्लें जाल्यार ताका उणेच धा लाख रुपया तरी फायदो जावपाचो. एका बिहारी मनशाक धा लाख म्हणल्यार कितें? थंय मातसो काळोख जातकच खंय शंभर रुपयांक लेगीत कोणूय मनशाक मारपी आसता, अशें कोण कोण सांगतात. राजून अण्णाचें आयकलें ना. तो तेमाक पेटलो. हती आर्ला हाडून पावयतलोंच म्हणपाचो ताणें निश्चेव केल्लो. कितलीशींच रानां पार करून ताणें हती हाडलो. अण्णाचो राजूचेर प्रचंड विस्वास. आनी राजूचें अण्णाचेर प्रचंड प्रेम.

अण्णा ताचे कडेन लाखांनी रुपया पातयेता. राजू पयशान पयशांचो हिशेब दिता. अण्णा ताका आपल्या घरांतल्या वांगड्यां परस चड बरो वागयता. राजूच्या प्रामाणीकपणाक म्हजो सलाम. बिहारी म्हळ्यार सामके

बाद आसतात. तांकां कोणाची दयामाया ना असो आमचो गैरसमज आसता. पूण सगळेच बिहारी तशे आसनात. आमी सगळ्यांक एकाच मापान जोखतात. हें वायट आसता. अण्णाल्या ह्या राजूक लागून हांव म्हजें पुरतें सगळ्या बिहारींक माफ करतां.

हती हाडपाच्या निमतान बिहार, झारखंड, उत्तर प्रदेश ह्या वाठारांनी अण्णाक राजूक घेवन वचचें पडटा. थंयच्या लोकां कडेन वेव्हार करपाची कळाशीय ताका बरी सादल्या. ह्या प्रवासांत तो रिव्हॉल्वरां वापरिना. देवा वयली श्रद्धा आनी ताचे कडेन आशिल्ली प्रेमांच्या टॉनिकाचीं कॅपसुलां तितलीं ताका पुरो जातात.

राजूचो गांव बिहारांतल्या छपरा जिल्ह्यांत आसा. हतीच्या वेव्हाराक लागून अण्णा आपलो जिवाभावाचो मित्र सुभाष गाड केरकाराक वांगडा घेवन ख्रंय थंय दोन म्हयने रावला. ह्या काळांत ताणें कितल्याशाच तांच्या भुरग्यांक मोगान न्हाणोवप, उयो काडप अशीं कामां केल्यांत. शाळेंत वचूंक तयार नाशिल्ल्यांक शाळेंत घालपाचें कामूय ताणें केलां. अण्णा येतकूच राजूल्या वाड्या वयल्या भुरग्यांक देव आयलो कसो दिसता, अशें राजू व्हड्डा अभिमानान सांगता. एक दीस खंय अण्णा राजूल्या हरपूर गांवा पसून 70 किलो मिटर पयस गेल्लो. येवपाक रात जाली. राजू घरा कडेन रडूंक लागलो. तीन हजार किलोमिटर चलोवन हती हाडपी धाडशी राजू आपल्या धनयाक कोणूय मारीत ह्या भंयान ख्रंय सामको विरगळून गेल्लो. आपणावेल्या राजूच्या प्रेमाच्यो खबरो सांगतना कोणेय अण्णाच्या दोळ्यांतच पळोवचें.

प्लान्टेशनांत येवपी लोकांचे तरतरांचे सभाव आसतात. दरेकाक तांच्या तांच्या कलान घेवचें पडटा. ह्या सगळ्यां कडल्यान आपूण कितें ना कितें शिकून घेतां, अशें तो म्हणटा. एकदां ख्रंय गुजरातांतल्यान पटेल नांवाचें कुटुंब आयलें. जेवण दिवपाक मातसो कळाव जालो. तातूंतले कांय जाण बोवाळ करपाक लागले. अण्णान तातूंतले एके बायलेक 'बहनजी' अशो प्रेमान उलो मारलो आनी मातसो जेवणाक वेळ जातलो म्हण सांगलें. बहनजी म्हण जिका ताणें उलो मारलो तिचें नांव धर्मिश्ठा.

अण्णाली नमळायेचीं उतरां तिचें काळीज चिरून गेलीं. तिणें आपल्या सगळ्या मनशांक आदेश दिलो. आपूण जेवण दितां तेन्नाच तुमी जेवपाचें. ताचे विशीं तिच्या मनांत कुतूहल निर्माण जालें. तिणें वापसूस केली. अण्णान तिका आपूण हांगा कामाक आसतां म्हूण सांगलें. ती मजतीचे भावनेन ताचे कडेन बँकेचो खातें क्रमांक मागताली. अण्णान क्रमांक दिवप टाळ्ळें. आठ दिसा उपरांत तिचो ताका फोन आयलो. नंबर मागपाक. नंबर दिना म्हूण ती रडकुळें परतली. तेन्ना अण्णान प्लान्टेशनाचो आपूणच धनी म्हणपाचें सत्य सांगून उडयलें. तिका अजापाचो धक्को बसलो. त्या खिणा सावन त्या कुटुंबाचो अण्णाल्या कुटुंबा कडेन लागींचो संबंद. तीं तागेल्या घरा येतात आनी अण्णालीच सेवा करतात. धर्मिश्ठा श्री श्री रवीशंकराची अनुयायी.

अण्णालें मन मळबा सारकें विशाळ. फकत प्रेम भरलां. ताका देव पावता. एक दीस तागेलो जाण्टो हती पिसावलो आनी ताचे गाडयेची नासधूस केली. कितें करप कळना. सगळ्यांचेरच आकांत. उपरांत तो शांत जालो. सगळ्यांक सू... जालें. नासधूस केल्ली गाडी विमो कंपनीन हैदराबादाक विकली. तेच गाडयेक उपरांत खंयतरी अपघात जालो. गाडयेच्या स्थलांतरा संबंदीचे सोपस्कार विमो कंपनीन सारके केले ना. अण्णाचेंच नांव उरिल्ल्यान ताका समन्स येवंक लागले. हैदराबादाक केस म्हणटकच ताका जंजाळाक तोंड दिवचें पडलें. ह्याच काळांत एक दीस शांबूबाबू नांवाचो एक हैदराबादचो पुलीस निरिक्षक आपल्या कुटुंबां सयत प्लान्टेशनांत भोंवडेकार म्हूण पावलो. त्या दिसा हांव आनी उदयूय थंय आसा. अण्णान ताका आपली खबर सांगली. हांव ताच्या म्हऱ्यांतल्यान पासार जातालों. म्हज्या तोंडांतल्यान उत्स्फूर्त उतरां भायर सरलीं 'इफ यू हेल्प हीम गोड विल ब्लेस यू' म्हज्या तोंडांतल्यान अण्णाचेर प्रेम करपी देव उलयलो आसतलो. हीं उतरां शांबूबाबूच्या काळजांत पावलीं. ताणें अण्णाक हैदराबादाक आपोवन आदार केलो. अण्णाक विमानतळा वेल्यान आपल्या घरा व्हेलो. अती महनीय मनशा भशेन ताका वागयलो. त्या कुटुंबाचो आनी अण्णाल्या कुटुंबाच्यो तारो जुळ्ळ्यात. तो पुलीस

निरिक्षक आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन आर्ला तागेर घरा येवन रावता आनी हैदराबादी पद्दतीन अण्णाक रांदून वाडटा.

आमी व्यसनमुकत चळवळीच्यो खबरी सांगतात. भाशणां करतात, लेख बरयतात. शेजरा बेबदो बायल भुरग्यांक बडयता जाल्यार आमी दार घालून रावतात. आमचो अण्णा सोऱ्याच्या वेसनाक बळी पडिल्ल्या आपल्या भोंवतणच्या वाठारांतल्या मनशांक सोदून काडून पुणेच्या मुक्तांगण ह्या पुनर्वसन केंद्रांत व्हरून दाखल करता. ताणें आतां मेरेन चार पांच जाणांचो मातयेभरवण जावपी संवसार पर्थून उबो करपाचें व्हडलें कार्य केलां. असलीं सगळीं कामां तो सोंपेपणान कोणाक कळूंक दिनासतना करता. तो चड शिकलो ना तरी दुसऱ्यालीं भुरगीं शिकचीं, अशें ताका मना पसून दिसता. देखून तो आपले तांकी प्रमाण आदार करीत आसता. क्रिकेट टुर्नामेंटाक पयशे मागूंक खांची कोनशांतले भुरगे ताचे कडेन येनात. पूण शिकपाक पयशे दी म्हणून कोण आपूण जावन येना हाची ताका खंत जाता. आपले पयशे बऱ्या कामाक खर्च जावचे, अशी ताची भावना. हालींच्या काळांत क्रिकेट टुर्नामेंट जातकच बियरीच्योच चड बाटल्यो फुट्टात. देखून असल्या खेळांक पयशे न दिवपाचो अण्णान विचार केला. ताच्या ह्या विचाराक हांव मना पसून येवकार दितां.

पावसाळ्यांत प्लान्टेशनांत गर्दी नासता. प्लान्टेशनाक लागून प्रत्यक्ष पद्दतीन पन्नाशेक कुटुंबांची पोसवण जाता. खंयच्याय चडश्या उद्देगीक वसणुकेंतल्या कारखान्यांनी मंदीच्या काळांत कर्मचाऱ्यांक कांय काळा खातीर घरा धाडटात. अण्णा तें करिना. आपणाक काटकसर करून तो तांकां पावसांतय पगार दिता. तांच्या कुटुंबाची ताका चिंता आसता. टॅक्सीवाले हे आपल्या वेवसायाचे आवय-बापूय अशें तो म्हणटा. भोंवडेकारांक घेवन अण्णागेर येतकच टॅक्सीवाल्यांचो दीस बरो वता. तो सगळ्यांकच मायेन वागयता. अडचणीच्या वेळार आदार करता. अण्णाचो वेवसाय व्हडलो जावचो म्हणून सगळ्याच घटकांचो आदार आसता. देखून आपलेंय म्हणून समाजा खातीर देणें लागता, अशें तो मानता. अंतस्करणांतल्यान दान-धर्म करता. ताच्या पोशांत देव घालीत रावता,

अशें तो सांगता. आपल्या ह्या येसांत हरिभाऊ शिकेरकाराचोय आशिर्वाद आसा अशें अण्णा सांगता.

अण्णाच्या सहवासांत येता ताचें काळीज निवळ जाता. काळजांतलो घंयराव वता. ऐश्वर्य, वैभव प्राप्त जातकच घरांतल्या बायलांच्या कपलाक चडटा आनी पनवत दार कुटकुटावंक लागता. अण्णाची घरकान्न सरीता. आपलो घोव इबाडचो न्हय म्हूण देवा कडेन प्रार्थना करीत आसता. अण्णाच्या आंगार बेनुल्ल चडची न्हय म्हणून तें नेमान ताका सासपीत आसता. तो रासवळ घराब्यांत रावता. ताका दोन चलयो. माधवी आनी प्रणाली. ताका चलयोच चड आवडटाल्यो खंय. देवूय म्हूण मन पळोवन धन दिता ही जाण्टेल्यांची म्हणणी ताचे बाबतींत खरी थारल्या. आपलीं भुरगीं शिकून व्हडलीं जावचीं हो ताचो हावेस. तोय पूर्ण जातलो हातूंत दुबाव ना. घरांतले सगळेच वांगडी ताच्या वेवसायाक आदार करतात. हें सूख पळोवन ताच्या जाण्ट्या आवय बापायक खोशी जाता. ते खातीर तीं देवाचे उपकार मानतात. पर्यटन वेवसाय ही सरपळी कशी. सगळे बरे आसल्यार आपूण बरों उरतलों, अशें तो सांगता.

फाटल्या कांय वर्सां आदीं खण वेवसायाक तेजी आयली. कांय जाण एके रातीन गिरेस्त जाले. ह्या नवगिरेस्तां कडेन फावना तितलो पयसो आयलो. दारांत गाडयो उब्यो जाल्यो. घरांत शिताचे बदला हॉटेलांतलो फ्रायड रायसूच चड पावपाक लागलो. आलायत्या सुखा मुखार संस्कारांक सुवात ना जाली. ताचो परिणाम- कांय घराब्यांतल्या भुरग्यांक वायट व्यसनां लागलीं. ताचो समाजाचेर वायट परिणाम जालो. हें पळयतकच म्हजें अंतरमन म्हाका सांगता. पयसो येवंक जाय अण्णा सारक्या मनशांच्या हातांत. समाजाचें बरें जातलें!

# हुशारी आनी चिकाटी

कसलेच आडमार्ग आपणायनासतना शिस्तीन आनी प्रामाणीकपणान आपलो वेवसाय येसस्वी जावं येता. हाचें जिते जागतें उदारहरण म्हळ्यार रमेश वेरेंकार. तो आपल्या वेवसायांतलें ज्ञान नेमान अद्ययावत करीत आसता.

**भाई (रमेश वेरेंकार)**



**भाई** म्हळ्यार मनोहर पर्रीकार न्हय. ॲड. रमाकांत खलपूय न्हय. भाई म्हळ्यार नामनेचे अभियंते, व्हॅल्यूअर आनी आरसीसी तज्ञ रमेश वेरेंकार. म्हजो व्हडलो भाव. तो फोंडें म्हालांतल्या बोरये ह्या गांवांत 'अक्षर' ह्या बंगल्यांत रावता. फोंड्यां कुएलो अपार्टमेंटांत ताचें कार्यालय. बुद्दीन हुशार. बारीकसाणेचो. 'हिडन' ज्ञानाचें एक भांडार. वेव्हाराक चोख. आपल्या वेवसायाचे बाबतींत सामको प्रामाणीक. कोणाकूच एका पयशाक फटोवचो ना. आपणाकय कोणे फटोवचें न्हय, अशें ताका दिसता. देखून सोपेपणान कोणाक पातयेना. तरी आसतना दुसऱ्यांक तोपयो घालपी हुशारूच आसतात. तोय कोणाचे तोपयेंतल्यान सुटला अशें म्हणपाचें म्हाका धाडस जायना. तो तें सांग नासूं. तो अशो जायत्यो गजाली दुसऱ्याक सांगना. दुसऱ्यानय कोणाकय फटयिल्लो, नागयिल्लो ताका मानवना. तो निर्व्यसनी. आडमार्गान पयसो जोडपाचे पद्दतीक तशेंच जातूंत दुसऱ्यांचो संवसार मातयेभरवण करपाची तांक आशिल्लो, सोरो विकपाचो, तंबाकू विकपाचो वेवसाय करप्यांक ताचो खर विरोध. चारित्र्याचो पुजारी, नितळसाणे खातीर तो कोणाचेर तापपाक फाटीं ना. मानायांची केन्ना तो वाट पळयना. स्वताच्या घरा कडली रेब्याची खळी मेरेन उस्तितना हांवें ताका सावयवेऱ्यां घरा कडेन पळयला. म्हाका मात तें काम केन्नाच शक्य जावंक ना. हाची म्हाका खंत भोगता.

भाईचें मोनजातीचेर प्रेम. कुत्रे ताका खूबच आवडटात. तेय ताका

रोखडेच वश जातात. तांचे कडेन तो प्रेमान उलयता, तांकां खेळयता, भोंवडायता, न्हाणयता, पुसता, आंगा खांद्यार घेवन तांकां सांसपिता. तो तांची इतली सेवा आनी अपुरबाय करता ती पळोवन म्हाका कुत्र्यांची नसाय जाता, आनी दिसता हांवूंय तांचे मदलोच एक आसूंक जाय आशिल्लो म्हूण.

अन्न हें परब्रह्म. भाई तें खऱ्या अर्थान मानता. तो जेवतना ताट पुसून जेवता. गोटो सकयल पडूंक दिना. केन्नाच बरें लागना अशी तो कागाळ करिना. कोणेंय ताटांत अन्न सांडलें जाल्यार ताका राग येता.

भेदाभेद करप ना, होय ताचो सभाव. म्हज्या भुरगेपणांत मुंबयच्यान आमची जाण्टी मावशी सावयवेऱ्यां येताली. जयश्री तिचें नांव. आतां ती ना. सामकी ऑर्गंद. तिच्या जरीच्या कापडाक मारिल्ल्या सेंटांचो वास अजून म्हज्या नाकांत आसा. भाई तिका आदरान वागयतालो. आमच्या कुटुंबाच्या कल्याणा खातीर तिची खूब मजत जाल्या. मुंबयच्यान येतना ती खाऱ्योंगाठी, मुतरफेणी आनी हेर मिठाय हाडटाली. त्या खाणाचे केन्ना काय वांटे करचे अशें आमकां जातालें. वांटे करपाचें काम भाई करतालो. त्या कामाक तो सामको फिशाल. सगळ्यांक समान वांटे तो करतालो. कोणाकूच एक कुडको लेगीत चड ना. आपणाक लेगीत चड घेवप ना. हांव ताचो धाकलो भाव म्हणटकच म्हजो वांटो व्हडलो करचो अशें म्हाका दिसतालें. पूण तशें तो करिनासलो. ताका लागून म्हाका ताचो राग येतालो. त्या काळार खाऱ्योंगाठी, मिठाय म्हळ्यार अप्रूप कशें. गोंयांत तें खाण मेळनासलें. मेळिल्लें जाल्यार पयशे कोणा कडेन आसताले? आतां जाय तितली मिठाय मेळटा. भेसळयुक्तच चड आसता. सणा परबांच्या वेळार म्हाकाय कोण कोण बॉक्सां धाडून दितात. आमी घरा कडेन मिठाय खायना, देखून हांव ती सेक्युरिटीक वा दितां. तेन्ना, भाई मिठायेचे कशे समान पद्दतीन वांटे करतालो ताची म्हाका याद जाता. तें कितेंय आसूं. कसल्याय पदार्थांची लेगीत समान वांटणी करपाच्या भाईच्या सभावाचें हांगा दर्शन घडलां. उपरांतच्या काळांत कुवेटाक सावन येतनाय तो घरच्या सगळ्यांक कितें ना कितें घेवन येतालो. म्हाका टी शर्ट वा बुशकोट

मेळटालो. तेन्नाय म्हज्या वांट्याक एक तरी नग चड येवचो अशें म्हाका दिसतालें. हांगाय ताणें भेदाभेद करूंक ना. ताणें हाडिल्लें टी शर्ट घालून ‘हिरो’ जावन हांवें बाजारांत भोंवप आनी भाईन हाडलां म्हणून अभिमानान सांगप. आतां म्हजे आलमारींत खूब टी शर्टां आसात. तीं घालून बाजारांत भोंवपाची पिराय आनी उमेदय आतां उरूंक ना. तेन्ना भाई कुवेटा सावन येता म्हूण कळटकच हांव ताची कट्टेंत गुंडे घालीत वाट पळयत रावतालों. कितेंय हाडटलो म्हूण तेन्ना आशा आसताली. आतां ताचो अपुरबायेचो हुशार पूत आकाश आनी अपुरबायेची संस्कारी आनी प्रागतीक सून अमेरिकेक आसता. ते निमतान भाई आनी वयनी अमेरिकेक वचून रावन येतात. आतां काळ बदल्ला. अमेरिके सावन केन्ना येता म्हूण कट्टेंत गुंडे घालीत रावपाचो आतां प्रस्नूच उरूंक ना. कोणाक कितेंय जाय म्हूण हाडटा हाका व्हडलोसो अर्थ नासता. पूण कितेंय हाडटा, आनी हाडचेशें दिसता ताचे फाटल्यान प्रेमाची भावना आसता. हालींच्या काळांत ती उणी जाल्या.

जण एकल्याची कांय तत्वां आसतात. भाईचींय तशीं खूब तत्वां आसात. समाजांतल्या वेगान जावपी बऱ्या वायट बदलांक लागून कांय तत्वां काळा भायरीं जातात. ताचो आमकां अदमास येवंक जाय. अशा कांय तत्वांचे बाबतींत भाईक हांवें घुस्मट्टना पळयला. बदलत्या काळा प्रमाण, परिस्थिती नुसार कांय तत्वां आमकां सदळ करचीं पडटा. दुसऱ्याचे सोयी खातीर जावं सुखा खातीर आमी जेन्ना आमचीं तत्वां सदळ करतात तेन्ना बरें जाता. आपले सोयी खातीर तीं सदळ करपाचो मार्गय मेकळो जाता. नाजाल्यार तो टवाळेचो विशय जाता. जण एकल्यान हाचो विचार करूंक जाय, अशें म्हजें मत. म्हजींय कांय तत्वां आसात. तांत्रीक बदलांचे बाबतींत हांव मातसो काळखांत. पूण सामाजीक बदलांचो वेध म्हाका खूब पयलीं लागता. ते खातीर हांव तत्वां मोडिना. पूण सदळ करतां. एका काळार कांय घराब्यांनी सुनांक भायले चवकेवेल्या कदेलार येवन जाण्टे आसतना बसपाक बंदी आसताली आनी उलोवपाकूय बी. आमगेरूय तीच स्थिती आसली. म्हाकाय भुरगेपणांत तीं बऱ्याचीं लक्षणां

कशीं दिसतालीं. बुद्द वाडपाक लागली तेन्ना बायलांचेर जावपी हो व्हडलो अन्याय कसो दिसलो. म्हाका सगळ्या जाण्टेल्यांचीच तिडक मारपाक लागली. वासरेच्या आडसाक रावून सुनो कश्यो हुमकळटात त्यो हांवें पळयल्यात. आयज बायलांक चवके वयल्या कदेलारच न्हय, मंगळाचेर लेगीत वचून बसूंक मेळटा. आयज बायलांचें स्वातंत्र्य, मुक्ती हो व्हडलो विचार. आदली स्थिती आयज उरिल्ली जाल्यार घरांनी सुनो जावन कोणूच येवच्यो नाशिल्ल्यो. (अजूनय गांवगिऱ्या वाठारांनी कांय प्रमाणांत ती स्थिती आसा, तिवूय पुरायपणान बदलतली.) ही बदलाची क्रांती आनी बंडखोरी खातीर म्हज्या घराब्यांत म्हाका म्हजी समिधा पेटोवची पडल्या. आनी केन्ना केन्ना वादग्रस्तय जावचें पडलां.

मनीस दर दिसा नवें नवें शिकत आसता. जीवीतभर अशीच प्रक्रिया आसता. बऱ्या कामा खातीर आपलें चिवट तत्व सदळ करून समाज सुदारपाचो यत्न करता तो जिखता. नव्या बऱ्या बदलांचें मेकळेपणान सकारात्मक पद्दतीन स्वागत करता ताचें काळीज व्हडलें जाता आनी जण एकलो ताच्या काळजांत घर करता. प्रत्येकाक तो जाय जाय सो दिसता. कांय  जाणाक हें जमना. ताका लागून तांचे बुद्दीचो हुशारेचो समाजाक जाय तसो फायदो जायना.

भाईची देवा धर्माचेर श्रद्धा. म्हाड्डोळची म्हाळसा हें ताचें श्रद्धास्थान. ताची घरकान्न उज्वला. ती म्हाड्डोळची. ताचे श्रद्धेचें हें कारण म्हणूंक मेळना. भुरगेपणात तो खंय थंयचे सरस्वती शाळेंत कांय काळ शिकला. हेंय ताचें कारण आसूं येता. सत्यनारायणाचे पुजेचेर ताचो खूब विस्वास. सत्यनारायणाची पूजा आमच्या हिंदू धर्मांत खंय खूब उसरां आयली. भटांच्या उदरनिर्वाहाचो प्रस्न हें ताचें त्या काळा वेळें मुखेल कारण अशें धर्माचो अभ्यास करपी कांय लोकांचें म्हणणें आसा. म्हाका तशें तातूंत देणें-घेणें कांय ना.

ताच्या बोरयेच्या घरांत सत्यनारायणाची व्रतां नेमान जातात. सावयवेऱ्यां आमकां घरांतूय हें व्रत करपाचें जाल्यार आमी चड करून ताचो मान भाईकच दितात. म्हजें हाचे फाटलें एक वेगळें कारण आसा. तें

म्हळ्यार हे पुजेक खूब वेळ सकयल बसचें पडटा. तें भाईकूच बरें जमता. आमच्या घरांतली सत्यनारायणाची पूजा म्हाका आवडटा. ताचें कारण म्हळ्यार म्हजी वयनी पुजेक साजूक तुपाचो मचमचीत शिरो करता. तो म्हाका बरो लागता. हेरशीं कसल्याय विशयांचेर म्हजे तिचे कडेन मतभेद आसत, पूण ती करता तो दर पदार्थ म्हाका बरो लागता. हांव तो रुचीन खाता आनी बरो लागता म्हणूनय सांगता. पुजेचे मांडावळींत भाई भटाकूय फाटीं घालता. ताका चडशें शास्त्र खबर आसा. ताका लागून भटाक 'शॉर्टकट' मारप शक्य जायना. देवा धर्माचे बाबतींत म्हजें मातशें वेगळें. पूण हांव नास्तीक न्हय. हांव देवळांत वतां. पूण खंयचोय मनीस हो म्हजो पयलो देव. ताचे कडेन म्हजे कितलेय मतभेद आसूं. ताची सरबराय-आदरातिथ्य करप म्हाका आवडटा. तें करपाक म्हाका देवानूच आसपत दिवची. नाजाल्यार हांव पिसो जातलों.

भाईक सवळें-ओवळें लागता. ताचे फाटलो शास्त्रीय दिश्टीकोन ताका खबर आसा. सवळें म्हळ्यार कितें, हें ताणेंच म्हाका सांगलां. हांवें तें म्हजे बुद्धीचे साणीर घासून स्विकारलां. म्हाका तें करपाचें धाडस जालां. पूण भाई वेळ येता तेन्ना पारंपारीक पद्दतीनूच संवळें पाळटा. तातूंत गुन्यांव ना. तो त्या व्यक्तीच्या संस्काराचो भाग. कांय गजाली सांगप सोंप्यो आसता, पूण करप कठीण आसतात. ताका धाडस लागता तें सगळ्यांच कडेन आसना. महात्मा ज्योतिबा फुले बी हांचे सारक्या सुधारक फुडाऱ्यां कडेन तें आसलें, देखून क्रांती जाली.

भाईले कांय विचार हांवें तशाचे तशे आपणायल्यात. घरांत हेर कोणाक तें तेन्ना धाडस जावंक ना. 1973-74 च्या काळांत ताचें लग्न जालां. त्या वेळार ताणे लग्नाक अहेर न घेवपाचो निर्णय घेवन अहेराची परंपरा मोडपाचो यत्न केलो. ताका लागून गांवांत मातसो तो वादग्रस्त जालो. कांय जाणांनी त्या वेळार आमी लग्नाक येवचे नात अशें सांगून होवळीकपत्रां भिरकटावनय मारल्यांत. केळवण हो आमचे संस्कृतींतलो एक सुंदर प्रकार. लग्न कार्याक आपल्या नात्यांतले आनी सोयरे हांचे पुरतोच तो सुवाळो मर्यादीत आसतालो. पूण उपरांत ताचें स्वरुप बदल्लें

आनी जो तो तकलेक आटयो घालून न्हवऱ्या व्हंकलेच्या हातांत पाकिटां दिवंक लागलो. हे परंपरेक ताचो विरोध आशिल्लो. त्या वेळा वेल्या भाईच्या अहेर न घेवपाच्या धाडसाचें म्हाका सदांच कवतूक दिसलां. हांव तेन्ना भुरगो, पूण त्याच खिणाक हो विचार हांवें आपणायलो. आयज शंबरांतले 70 जाण लग्नाक अहेर हाडूं नाका म्हूण बरयतात. असल्या बऱ्या बदलाक समाजानूय आदार करूंक जाय. कांय जाणांगेर आदले दिसा लायनी लागतात ती वेगळी गजाल.

संवसार बरो उरूंक जाय. भुरग्यांची बरी जतनाय जावंक जाय म्हूण बायलांनी नोकरी करप ना. हेंय ताचें मत. तें ताणें व्यक्तूय केलां. ताणें हें आपलें तत्व जिवितांत पाळ्ळां. ताची घरकान्न नोकरी करिना. ती हुशार. घरांतल्यो चडश्यो जबाबदाऱ्यो तीच सांबाळटा. भाईची तीन भुरगीं आम्रपली, अनुपमा ह्यो लग्न जाल्ल्यो धुवो आनी आकाश हो पूत आनी सून आलीशा. दोगांय धुवो दोतोर. आकाश अभियंतो आनी सून फिजियोथॅरापिस्ट (अमेरिका). सगळीं जाणां आपआपले सुवातेर येसस्वी आसात. ह्या येसांत वयनीचो वांटो मोटो आसा, अशें म्हणचें पडटलें. आयज परिस्थिती बदल्ल्या. बायलांनी नोकरी करिना जाल्यार दोन वेळा जेवण सारकें मेळप कठीण. हें भाईचें तत्व आतां फुडें वचप कठीणूच.

नवश्रीमंतांची मस्ती, बेशिस्तपणा, पयशांचो उजो, नोकऱ्यो आनी शिक्षणाच्या मळा वयली राखिवता, समाजांतलो भ्रश्टाचार, लांच दिवन कामां करून घेवप, येरादारी नेमांचो भंग करप, शेंदरी पळयनासतना कोणेंय हातरुण घालप हे भाईचे तिडकीचे आनी किंवाट्याचे विशय. ह्या विशयांचेर ताका कोणेंय उलयतो करचो. आपली मतां तो कोणाचीच पर्वा करिनासतना मांडटा. पूण आपूण जावन मात ह्या प्रस्नाचेर आवाज काडपाक तो फुडें येना. सर्वसामान्या मदीं आपूण जावन भरसूनय वचना. समाज बरो वागना, अशें तो म्हणटा तें खरें. पूण समाजा कडल्यान आमकां पयस रावूंक मेळना. ह्याच समाजांत आमकां जियेवचें पडटा. कडेक रावता तो मनीसघाणो थारता. समाजांत रावनच समाज सुदारपा खातीर जण एकल्यान सक्रीय पद्दतीन प्रेमाच्या कॅप्सुलांच्या

माध्यमांतल्यान चिमटीभर प्रत्यक्ष योगदान दिवंक जाय. तशें केल्यार समाज विचार करूंक लागता. ही तांक भाई कडेन आसा. ताचो प्रत्यक्ष उपेग जावचो. ते खातीर आपलो कांय वेळ दुसऱ्या खातीर स्वतंत्रपणान खर्च करचो पडटा. सोर्त लागूंक जाय जाल्यार ती पयलीं काडची पडटा.

भाईचें मुळावें शिकप सावयवेऱ्यां गांवांत जालें. पुर्तुगेजूय तो शिकलो. आमच्या घरांत चडशें सगळ्यांकच बरोवंक वाचूंक येतालें. जाण्टेले शेजारच्या वाड्यार वचून हरी विजय, भक्ती विजय अशे अध्याय वाचताले. कांय जाण धंद्यान जोडिल्ल्या पयशांचो हिशेब करपाक वा पत्र आयलें जाल्यार वाचून घेवपाक आमगेर येताले. हे परंपरेचेर भाईन कळस चडयलो. ताचो आमकां सगळ्यांकूच अभिमान.

त्या काळार गांवांतच न्हय तर शारांनी लेगीत जाय तश्यो शिक्षणाच्यो सुविधा नाशिल्ल्यो. तेन्नाचे गरिबेची कल्पना करूं नजो. अर्थीक नदरेन थीर आशिल्ल्या कुटुंबांतले भुरगे, धारवाड, मुंबय वचून शिक्षण घेताले. सुदैवान भाईक मुंबय शिकूंक वचपाची संद मेळ्ळी. मेट्रीक मेरेन तो थंय शिकलो आनी गोंया आयलो. मडगांवच्या चौगुले महाविद्यालयांत इंटर मेरेन शिकलो. गोंयचे द्रश्टे अशे पयले मुख्यमंत्री दयानंद बांदोडकार हांणी तेन्ना पणजेच्या आलतिन्यार तात्पुरती वेवस्था म्हूण गोंय अभियांत्रिकी महाविद्यालय स्थापन केल्लें. थंय तो इंजिनीयर जालो. जंय आयज तंत्रनिकेतन आसा. गोंयच्या पयल्या इंजिनीयरिंग पंगडाचो तो विद्यार्थी. 1971-72 चो तो काळ. ताणें शिक्षणात पयलो वर्ग, पयलो क्रमांक सोडूंक ना. इंजिनीयरिंगाच्या निमण्या परिक्षेतूय ताणें गुणवत्ता मेळयली. सावयवेरें, वळवय, केरी ह्या वाठारांत त्या काळार एक-दोन दोतोर जाल्ले. पूण ह्या वाठारांतलो भाई पयलो इंजिनीयर. गांवांत इंजिनीयर म्हळ्यार कितें तें चडश्या लोकांक खबरूच नासलें. म्हणटकच ताच्या ह्या येसाची दखल घेवपाचो प्रस्नूच येना. कांय जाण इंजिनियर जाले उपरांत आतां मेट्रीकूय शिकतलो काय म्हूण विचारताले, अशें भाई केन्नाय सांगता. तेन्ना आमकां हासूंक येता. ताचे वांगडा मुळावे शाळेंत शिकपी चडशे भुरगे मिनाचे खणीर कामाक वताले. कांय जाणांक सोऱ्यान गिळ्ळे.

आपले वांगडा शिकप्यां मदीं कांय जाण हुशार आशिल्ले. तांकां संद मेळ्ळी ना, अशें तो म्हणटा. आमच्या घरांत उच्च शिक्षणाचो दिवो पेटोवपाचें काम ताणेंच केलें. नवी पिळगीय तातूंत तेल घालीत आसा. ही समाधानाची गजाल.

शिक्षणा खातीर आपल्या नात्यांतल्या मनशांगेर, जावं सोयऱ्यांगेर वचून रावपाचो म्हाका अणभव ना. पूण तें काम कितलें कठीण आसता ताची म्हाका कल्पना आसा. जंय तुका कसलेंच स्वातंत्र्य आसूंक शकना. करच्यो पडटात त्यो सगळ्यो तडजोडी. ताणें कशे परिस्थितींत इतलें शिक्षण घेतलें हाचो हांव केन्नाय विचार करतां तेन्ना हांव मनांतल्यान ताच्या संयमाक, चिकाटीक आनी जिद्दीक सलाम करता. म्हाका जाल्यार हें केन्नाच शक्य जावचें नाशिल्लें.

खंयच्याय प्रस्नाचेर भाई मातसो आबूज जावं येता, पूण भावनीक जाल्लो चड पळोवंक मेळना. अती संवेदनशील मनीस रोखडो भावनीक जाता सो दिसता. एकदां पणजे गोमन्तक मराठा समाज संस्थेच्या सभाघरांत विद्यार्थ्यां मुखार ताचें उलोवप दवरिल्लें. तेन्ना आपणे कशे परिस्थितींत शिक्षण घेतलें हें सांगतना परतून परतून दोळ्यांक लेंस लायतना ताका हांवें पळयलां. वक्तृत्वाची शैलीय ताचे कडेन बरी आसा. शिक्षणाचो विशय येता, तेन्ना तो, भाऊ बांदोडकाराची याद काडटा. इंजिनीयरिंगाचें चडशे शिक्षण ताणें भाऊच्याच आदारान घेतलें अशें तो सांगता. भाऊ, भाई खातीर परमेश्वर. भाऊची दूरदिश्टी, शिक्षणाचे बाबतींत विचार करपाची ताची पद्दत ताणे लागींच्यान पळयल्या. ताच्यो तो खूब खबरी सांगता. ताणें त्यो बरोवच्यो अशें म्हाका दिसता.

इंजिनीयर जावन भाई भौशीक बांदकाम खात्यांत रुजू जालो. कांय काळ ताणें डेप्युटेशनाचेर फर्मागुडयेर इंजिनीयरिंग कॉलेजींत शिकयलां. सरकारी नोकरी म्हळ्यार भ्रश्टाचार करूंक कळूंक जाय. नाजाल्यार भ्रश्टाचार करप्यांक तेंको दिवपाक तरी कळपाक जाय. राजकारण्यांच्या तालार नाचूंक कळपाक जाय. भाईक हें जमना जालें. तो थंय घुस्मट्टालो. त्याच काळांत ताका आखाती देशांत वचपाची संद मेळ्ळी.

सहाय्यक अभियंतो पदाची नोकरी सोडून तो कुवेटाक गेलो. संदीचें भांगर करून तो गोंया आयलो. आपलो वेवसाय सुरू केलो. भाई सहसा कोणाक बरो म्हणना, पूण भौशीक बांदकाम खात्यांत आपलो जो बॉस आशिल्लो तो एस व्ही नायक पानवेलकार खूब बरो मनीस, अशें तो सांगता. कसलेच आडमार्ग आपणायनासतना शिस्तीन आनी प्रामाणीकपणान आपलो वेवसाय येसस्वी जावं येता. हाचें जितें जागतें उदाहरण म्हळ्यार रमेश वेरेंकार. तो आपल्या वेवसायांतलें ज्ञान नेमान अद्ययावत करीत आसता. तातूंतल्या बारीक सारीक गजालींक तो म्हत्व दिता. 2013 वर्सांत ताचो व्हॅल्यूअर संघटनेच्या राष्ट्रीय अधिवेशनांत जीवन गौरवूय केला. ताच्या गिरायकांचेर केन्ना तकलेर हात मारपाचो प्रसंग येना, अशें ताच्या गिरायकां मदले जायते जाण म्हाका सांगतात. तेन्ना म्हाकाय बरें दिसता. दुसऱ्यान खर्चिल्ल्या पयशांचें चीज जावप म्हळ्यारच आपलो वेवसाय जैतीवंत जावप अशें तो मानता. गोंयची भौगोलीक रचना, जमनी पोंदचें उदक हाचेरूय ताचो अभ्यास आसा. ताच्या ह्या ज्ञानाचो गोंयच्या समाजाक, राज्याक जसो फायदो जावंक जाय आशिल्लो तसो जावंक ना. ताचें कारण हांव जेन्ना सोदपाचो विचार करतां तेन्ना म्हाका स्पश्टपणान जाणवता तें म्हळ्यार ताच्या सभावांतले लवचीकतायेचो उणाव आनी राजकर्त्यांचीय मोटवी नदर. ताका कोण कितें करतलो? भाई सगळ्या समाजाक कळचो आनी ताच्या ज्ञानाचो लाव समाजाक जावचो अशें म्हाका दिसता.

भुरगेपणा सावन शिक्षण, नोकरी वेवसायाक लागून तो चडसो गांवां भायरच उरलो. चवथ, कालो, घरांतले कार्यक्रम सोडले जाल्यार ताचो तसो गांवां कडेन व्हडलोसो संबंद उरलो ना. गांवचे मनीस आनी ताचे मदीं बरेंच देंगण उरलें. ताका लागून कांय जाणांक भाई गर्विश्ठ कसो दिसता. खरो मनीस सहवासांतल्यानच कळटा. आमचो एक गांवचो इश्ट पांडुरंग गावडे म्हजे कडेन ताची खूबच तोखणाय करता. म्हजो मीत्र आनी गोंयचो निबंधकार, अनुवादक आनी क्वीज मास्टर मुकेशबाब थळी सदांच म्हाका भाईच्या मुखामळार सत्याचें तेज मारता अशें सांगता, तेन्ना

म्हाका अभिमान दिसता.

हांव भुरगो आशिल्लों तेन्ना गड्ड्यांनी, कोंयडेबालांनी खेळटालों. काल्यां जात्रांनी भोंवतालों. भाईक तेन्ना म्हजी हीं वाळेसपणा कशीं दिसतालीं. ताचीय म्हणून चूक नाशिल्ली. पूण आयज ते सगळे अणभव म्हज्या लेखना खातीरची गुंतवणूक थारली ही गजाल वेगळी. म्हजे जायते मित्र आसात ताका ते मानतात, पूण ताका तें खबर ना. ताचें कारण ताच्या जिवनाची एक चवकट आसा. पूण एकाच उदय म्हांबऱ्या कडेन ताचे संबंध. उदय केन्नाय म्हाका फकांडांनी म्हणटा, आरे भाईच्या कॅमेऱ्यांत तुजो गड्ड्यांनी खेळटालो तेन्नाचोच फोटो आसा रे म्हणून. तेन्ना हांव हांसपाचें काम करता. हांसप म्हाका हेरशींय म्हणून आवडटाच. भलायकेक बरें तें, देखून सगळ्यांनीच हांसचें अशें म्हाका दिसता. समाजाचे भलायकेक तें बरें.

एखाद्रो, भुरगो जावं जाण्टो वांकडे वटेन चलपाक लागलो म्हणटकच ताका म्हार हाडटलो जाल्यार उपदेशांच्या डोसां परस प्रेमाचें टॉनिक म्हत्वाचें आसता. ह्या टॉनिकांत कोणाचेंय जिवीत बदलपाची तांक आसता. भाई कडेन अस्लें टॉनीक मातशें उणें आसा शें दिसता. चड आशिल्लें जाल्यार म्हाका तें मेळपाचें. सगळ्याच कडेन सगळें आसना. आसल्यार बरेंच. म्हाका ताचे कडल्यान प्रेरणा मेळ्ळ्या. एकलव्याक गुरु द्रोणाचार्याच्या पुतळ्या कडल्यान मेळिल्ली तशी. ताज्याच पयशांनी हांवें पदवीय जोडली.

भाईक आपले विद्वत्तेचो, आस्पतीचो गर्व ना. पूण पिरायेच्या जाण्टेपणाचो गर्व आसा. आमच्या घरांत तो जाण्टो. चडशा जाण्ट्यांक आपले परस भुरगे आशिल्ल्यांचो खूब हुसको. म्हजे आवयक असलो हुस्को चड आशिल्लो. असलो हुस्को जो करता ताचे भलायकेचेर परिणाम जाता. आनी जाचो हुस्को चड करता तो घोळून जावं येता. प्रगती करूंक पावना. स्वावलंबी जावंक पावना. हेच खातीर घडये भाई आपूण जावन आमची चड काळजी घेना. आमकां तें वायट दिसता. पूण तो शाणो. म्हणटकच तो करता तें शाणेपणूच आसतलें. कोणूय आसूं,

आपले घरचे, सोयरे, मित्र हाची वेळच्या वेळार खबर घेवप, भुरग्या वांगडा भुरगो जावन वागप. ही एक वेगळीच कला आसता. ती सगळ्यांकच सादता अशी ना. ही कला नासता तो वायट मनीस आसना.

पूण ती जाका सादल्या तो वातावरणांत चैतन्य निर्माण करपाक शकता. आपलेपणाचे मोयपास अदीक घट करपाक शकता, अशें म्हजें मत आसा. पूण तें सगळ्यांक शक्य जावचें असो आगरो धरप चुकीचें.

घरांतलो वा भायलो खूब शिकून वयर सरचो अशें ताका मना पसून दिसता. आस्पत आसूनय कांय जाण शिकनात तांची ताका तिडक येता. कोणूय ताचे कडेन कसलेंय मार्गदर्शन घेवंक गेलो जाल्यार त्या विशयाचें तो कितेंच लिपोवन दवरिनासतना सगळें मेकळेपणान सांगता. पूण कोणेंय कितेंय बरें केलें, नांव जोडलें तो ताका आपूण जावन फोन करून वा प्रत्यक्ष मेळटा तेन्ना परबीं बी दिवचीं हाची चड करून ताका याद आसना. ही पार्त म्हत्वाची अशें म्हाका दिसता. कोणालेंय कितेंय बरें दिसलें, तें बरें म्हणून सांगलें बगर म्हाका न्हीद पडना. मनशाक अपुरबायेची आनी तोखणायेची भूक म्हत्वाची आसता. घरचो आसूं जावं भायलो आसूं. बऱ्या कामाची दखल घेवन कोणेंय तोखणाय केली जाल्यार तें मनशाक बरें दिसता. प्रोत्साहन मेळटा, उमेद वाडटा. तो आनीक आनीक बरें करूंक फुडें सरता. तातूंतल्यान समाजाचें बरें जाता. पूण खंयचोच मनीस परिपूर्ण आसना. हांव तरी खंय आसा? म्हज्यांतय कांय दोश आसतले. ते दुसऱ्यांक कळटले. तरी आसतना हांव ते दर दिसा सोदपाचो यत्न करतां. गाडयेच्या सायलन्सरांतलो कार्बन जसो निवळ करचो तसो हांव म्हज्यांतल्या दुर्गुणांचो घंयरांव निवळ करपाचो यत्न करता. तेन्ना म्हाका ल्हव ल्हवशें दिसता. म्हज्यांतल्या सभावांतली थोडीशी लवचिकताय भाईच्या सबावांत आसपाची. चड बरें जावपाचें. भाईच्या गुणांचो, ज्ञानाचो सगळ्या समाजाक फायदो जावन आमचें सगळ्यांचें आनीक मातशें हड्डें फुलूं, अशें हांव मागतां!

# मंगलमय समाजाचें ध्यासपंथी

राजकारणांत आसूं वा नासूं. सामाजीक बांदिलकेन ताची सेवा चालूच आसता. निवळ निर्मळ सेवा. समाजाक कसलेंच वायट व्यसन आसूंक जायना अशें ताका दिसता. गांधी विचारांच्या संस्कारांत तें वाडलां. ताचे चलणुकेंत ह्याच विचारांचें पडबिंब आमकां दिसता. गरीब भुरगे शिकचे आनी वयर सरचे अशें ताका मना पसून दिसता.

निर्मला सावंत



**निर्मलबाय** म्हळ्यार निर्मला प्रभाकर सावंत. आदलें परब. तिवऱ्यां रावता. सगळें गोंय ही ताची कर्मभूंय. निर्मलबाय गोंयच्या समाजकारणांतलें आनी राजकारणातलें नक्षत्र कशें. तें सत्तेर आसूं वा नासूं. वेंचून येवं वा ना येवं ताचो म्हूण एक स्वताचो उजवाड आसाच. कांय लोक ताका निर्मलताई म्हणटात जाल्यार कांय जाण दिदी म्हणटात. पूण हांव मात ताका निर्मलबायूच म्हणटां.

म्हजे 30-35 वर्सांचे यादींत, कितलेशेच राजकारणी पळयले. तातूंतले कांय जाण आमदार जाले, मंत्री जाले जाल्यार कांय जाण महामंडळाचे अध्यक्ष जाले. तांचीं नांवां सांगतलो जाल्यार याद करचीं पडटात. निर्मलबायचे बाबतींत तशें घडना. वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान समाजांतलो ताचो लखलख आनी अस्तित्व उठून दिसता. कसलेंच खत नाशिल्ल्या व्यक्तीचे बाबतींत अशें घडूंक पावता. राजकारणांत खत नासतना उरप खूबच कठीण. फाटल्या पन्नास वर्सांच्या काळाचो जांकां हय न्हयसो जरी इतिहास खबर आसा तांकां निर्मलबायचें नांव काडटकच गोंयचो जनमत कौल, आनी कॉंग्रेस पक्षाचो इतिहास दोळ्यां मुखार आयले बगर रावचो ना. कोणेय हो इतिहास बरोवपाचें थारायलें जाल्यार निर्मलबायक दोन पानां तरी दिवचीं पडटलीं. म्हजी ताचे कडेन खूब वर्सां सावन इश्टागत. रासवळ जिवितांत वावुरपी लोकांचे वेगवेगळ्या व्यक्तीं कडेन संबंद येतात. कांय जाणां कडेन ते कांय काळा पुरतेच तिगून उरतात.

पूण निर्मलबाय कडले म्हजे संबंद फाटलीं कितलीशींच वर्सां तशेच तिगून आसात. हो त्या व्यक्ती मदीं आशिल्ल्या गुणांचो महिमा.

निर्मलबायची पयली भेट म्हाका केन्ना घडली हाका एक इतिहास आनी फाटभूंय आसा. ती रंगयले बगर ताचें व्यक्तीचित्र रंगोवपांत अर्थ ना.

1978 चो तो काळ. दिवचले दत्तगुरू देऊलकार, अवधूत कामत (संघाचे फुडारी), महेंद्र नाटेकार, दिलीप गोवेकार, मधूकर परब ह्या तेन्नाच्या तरणाट्यांनी बंगळूर-म्हैसूर सायकल भोंवडी केल्ली. त्या काळार इतले पयस सायकलीन प्रवास करप खूब म्हत्वाचें आनी धाडसाचें आशिल्लें. आयचे भशेन प्रसिद्धी बी मेळनाशिल्ली. तो काळ नव्हो खूबच वेगळो. सगळे जाण तांच्या ह्या धाडसाचें तेन्ना कवतूक करताले. दत्तगुरू म्हजो मित्र. तेन्ना तो आमचे वांगडा सावयवेरेंच्या भूम्यांतल्या उत्कर्ष विद्यालयांत शिकतालो. तो एक बरो एथलॅट आनी फुटबॉल खेळगडो. ताचो फुटबॉल खेळ पळोवपाक लोक गर्दी करताले. ताचो खेळ म्हळ्यार म्हाका जाल्यार एक मेजवानी कशी दिसताली. भारतीय पंगडांत पावल्लो जाल्यार दत्तगुरू खेंयचे खेंय पावपाचो इतली ताचे मदीं तांक आशिल्ली अशें फुटबॉलाच्या मळा वयले जायते जाण अजूनय सांगतात. पूण दरेक गजालीक नशीब लागता आनी तशी संदूय मेळची पडटा. दिवचलच्या ह्या तरणाट्यांच्या धाडशी सायकल प्रवासाची काणी आयकून म्हाकाय स्फूर्त आयली. हांवें दत्तगुरूक कोमार काडलो. ताचे वांगडा नागेश केशव शेट वेरेंकार हो तेन्नाचो आमचो एक मित्रूय तयार जालो आनी आमी तिगांयनी 1979 वर्साच्या मे म्हयन्यांत गोंय ते बिजापूर सायकल भोंवडी काडपाचें थारायलें. पूण हे खातीर पयशे लागतात ते कोण दितलो? वळवयच्या दिलीप वळवयकारान म्हाका भाड्यान सायकल दिवपाची तयारी दाखयली. सगळीं सवंगां जातात, पूण पयशांचें सवंग जावप कठीण. विद्यालयांत बापूरावांगेर वचून च्या आनी भाजी खावपाकय आमचे कडेन पयशे नासताले. नागेशान मारशेल्यांत निर्मला परब म्हणून एक बायल आसा ती असल्या कसल्याय कामाक

मजत करता म्हूण म्हाका सांगलें. धावेची परिक्षा दिवन आमकां सुटी पडिल्ली. हांव आनी फाटीं रावलो ना. आमी माशेलांत गेले. निर्मलबायचें घर सोदून काडलें. तेन्ना तें जुव्यां एका घराचे माळयेर भाड्यान रावतालें. मुखामळार हांसो हाडून ताणें आमकां येवकार दिलो. तोच हांसो अजूनय निर्मलबायच्या तोंडार हांव पळयतां. हांवें आमची येवजण ताचे मुखार दवरली. ताणें आनी मातय कळाव केलो ना. सोमतें भितर गेलें आनी 51 रुपया हाडून आमकां दिले. आमचे उमेदीक शीम मेर उरली ना. देणगेची बोणी ताच्या हातांतल्यान बरी बोणी जाली. गोंय ते बिजापूर मेरेनची आमची सायकल भोंवडी येसस्वी जाली. तेन्ना सावन निर्मलबाय कडेन म्हजी घट इश्टागत.

म्हज्या कसल्याय कार्यक्रमाक हांव ताका आपयतां. ताचेय कार्यक्रम हांव केन्ना चुकयना. 2 नोव्हेंबराक ताचो वाडदीस. तो दीस आमचे खातीर उत्सव कसो. म्हाका सोंपेपणान कोणाच्याच वाडदिसाची याद उरना. घरांत आपल्या बायल भुरग्यांच्या वाडदिसाची याद न उरपाक कारण नासता. तो म्हयनो आयलो म्हणटकच तांच्या वाडदिसाचो आवाज येता. पूण घरा भायल्या दोनूच मनशांचे वाडदीस म्हाका याद उरता. ती म्हळ्यार निर्मलबाय आनी म्हजी एक जिवाभावाची इश्टीण आसा गीता. गीता म्हळ्यार पयलींचे गीता हेदे आनी आतांचें गीता सुमंत जोगळेकार. निर्मलबायचो वाडदीस सोंपेपणान हांव चुकयना. ताणें म्हाका आनी म्हज्या कुटुंबाक प्रेम दिलां. अशें खूबशा कुटुंबांक ताणें प्रेम दिलां. हांव याद दवरून आसा इतलें खरें.

फाटलीं कितलीशींच वर्सां तें कुभांरजुंवें मतदारसंघांतल्यान वेंचणूक लडयता. एकदांच तें वेंचून आयलें आनी मंत्री जालें. दर वेंचणुकेक हांव ताचे बराबर आसता. म्हजे परीन हांव म्हजो हातभार लायतां. म्हज्या समाधाना खातीर. 2005 वर्सा ताणें कुंभारजुंवें विधानसभा मतदारसंघांतल्यान पोटवेंचणूक लडोवपाचो निर्णय घेतलो. काँग्रेस पक्षा खातीर ताणें चडशे जिवीत ओंपलां. अशें आसतनाय पक्षान ताचेर अन्याय केलो आनी पक्षाची उमेदवारी पांडुरंग मडकयकाराक दिली. निर्मलबायक

आनी ताच्या समर्थकांक खूब वायट दिसलें. तांच्या आगऱ्याक लागून ताणें अपक्ष उमेदवार म्हूण वेंचणूक लडोवपाचो निर्णय घेतलो. म्हाका तो मातूय मानवलो ना. त्या वेळावेलें वातावरण सारकें नाशिल्लें. म्हाका ताचो पराभव दोळ्यां मुखार दिसतालो. राजकारणांतली नितीमत्ता मामकीच ना जावन वचपाचो तो काळ. सोऱ्याचो आनी पयशांचो पावस घाल्पीच वेंचून येवंक शकता हें त्या काळान सिद्ध केल्लें. निर्मलबायचो पराभव म्हज्यान पळोवंक जावचो ना म्हूण हांवें म्हळें, म्हाका मात तुजो हो निर्णय बरो दिसना. केन्ना केन्ना धांकिल्ली मूठ सवाय लाखाची आसता. देखून ती उगडप नासता. म्हाका निर्णय आवडूं न आवडूं पूण तूं जो कितें निर्णय घेता ताचे फाटल्यान म्हजें चिमटीभर योगदान आसतलेंच अशेंय हांवें ताका तेन्ना सांगलें. वेंचणुकेंत तें हारलें. आमकां सगळ्यांकच वायट दिसलें. तूं म्हजें बरें चितपी म्हणून तुवें म्हाका वेंचणूक लडोवची न्हय अशें सुचयिल्लें, अशें ताणें म्हाका एक दीस उलयतां उलयतां सांगलें. तेन्ना म्हजें काळीज सामकें भरून आयलें. ताचे उपरांत वेंचणुको जाल्यो. हांवें म्हळें, आतां अडचण ना. एकदां मॅट्रिकेचे परिक्षेंत नापास जातकच परतून कितल्येय फावट परिक्षेक बसपाक अडचण ना. एक दीस पास जालें जाल्यार कितले फावट नापास जालें ताची कोणाकूच याद उरची ना. म्हजी ही उतरां आयकून तें हांसूंक लागलें.

काँग्रेस पक्षाचे तिकेटीचेर निर्मलबाय जेन्ना वेंचणूक लडयतालें तेन्ना ताच्या म्हत्वाच्या सभांनी भाशण करपाक उदयबाब येतालो. उदयबाब म्हळ्यार ॲड. उदय भेंब्रे. कोंकणी आनी जनमत कौलाचे चळवळीचो एक मानदंड. ताका मडगांवच्यान हाडपाचें काम हांव करतालों. निर्मलबायचो म्हाका आनीक एका खेरीत कारणा खातीर अभिमान. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षान म्हळ्यार तेन्नाचे लोकप्रिय फुडारी दयानंद बांदोडकार म्हळ्यार 'भाऊ'न गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचो निर्णय घेतिल्लो. त्या काळार म्हळ्यार 1965-67 ह्या काळांत गोंयचें वेगळें अस्तित्व तिगोवन दवरपा खातीर जाल्ले जनमत कौलाचे चळवळींत आमच्या निर्मलबायन खूब मोटें योगदान दिलां. त्या काळार बायलां

शिकपाक लेगीत तयार नासतालीं. अशा वेळार गोंयच्या अस्तित्वा खातीर लोकां मदीं जाग्रुताय करपा खातीर गोंय शाहीर उल्हास बुयांव हांच्या फुडारपणाखाला स्थापन केल्ल्या कलापथकांत ताणें वांटो घेतिल्लो. गोंय राज्या खातीरचें ताचें हें योगदान कोणेंच विसरचें न्हय. तेन्ना तें प्रवाहा आड पेंवलां. दूरदिश्टी आशिल्ले लोकूच अशे प्रवाहा आड पेंवतात. आमचो भाऊ बांदोडकारूय दूरदिश्टी आशिल्लोच फुडारी. पूण ह्या विशयाचेर मात मातसो फटवलो. नपास जालो. भाऊचो तो निर्णय सामकोच चुकिल्लो अशें ताचेर प्रेम करपी लोकांनीच मेकळेपणान मानून घेतलें.

निर्मलबायच्या ह्या काळा वयल्या धाडसाचें आनी दूरदिश्टीचें कवतूक करचेंच पडटलें. तांणी जर त्या काळार गोंयच्या फुडाराचें येवजूंक नाशिल्लें जाल्यार भाऊकय गोंयचो मुख्यमंत्री जावंक मेळचो नाशिल्लो आनी मनोहर पर्रीकाराकूय. जनमत कौलाचो विशय कोंकणी भास आनी गोंयचे अस्मिताये कडेन जोडिल्लो. हाचो कांय लोकांक आजूय विसर पडला. देखून ते कोंकणीची चळवळ ही मराठी भाशेवेल्या दुस्वासाच्या बुन्यादीचेर उबी रावल्या अशें म्हणून आपलें अज्ञान पर्जळावपाचें धाडस करतात आनी हांशें करून घेतात. खंयच्याय प्रस्नाचेर 'नाक खंय आनी आदोळी खंय' अशें जावंक फावना. कोंकणी भाशेची घुडी जांणी खांदार घेतिल्ली, तातूंतल्या चडश्या जाणांक सारकी मराठी बरोवंक आनी वाचूंक येताली हें सत्य. गोंयचें अस्तित्व तिगोवपाच्या निर्मलबायच्या वावराक लागून म्हाका ताचो सार्थ अभिमान.

म्हजें तागेर कितल्याशाच वर्सां सावन यो वच आसा. हालीं मंगेशी रावंक आयिल्ल्याक म्हजें तांगेर पावप उणें जालां. म्हाका आनी म्हज्या कुटुंबाक ताणें सदांच प्रेम दिलां. ताचे दानतीचें आनी दुसऱ्या विशींच्या कळवळ्याचें एक उदाहरण म्हाका दिवचेंच पडटा. आमी तेन्ना पणजे रावतालीं. म्हजें व्हडलें स्नेहा चवथी पास जावन पांचवेंत गेल्लें. स्नेहाच्या पोटान वळटालें. कारणूय मेळनाशिल्लें. दोतोरूय कांयच जावंक ना म्हूण सांगताले. पूण पोटांत वळपाचें थांबनासलें. देखून दोतोरांचें आमकां पटनाशिल्लें. चांचण्यांचेर कितलेशेच पयशे खर्च केले. ताका लागून म्हजी

मानसीकता आनी अर्थीक स्थिती कोसळिल्ली. धिराचे आशेन हांव म्हज्या घरच्यांकय सांगतालों. पूण कोण आपूण जावन धीर दिवंक मुखार आयलो ना. म्हजे मुखार प्रस्नचिन्न उबें रावलें. आनी हांवें निर्मलबायक परिस्थितीची कल्पना दिली. ताणें खिणाचोय विचार केलो ना. ताणें म्हाका अर्थीक आनी मानसीक धीर दिलो. बारीकशें कसलेंय पयशांचें मवंग करचें पडटाशें दिसतकच चडशे जाण उपदेशाचे दोन डोस दिवन पयस रावपच पसंत करतात. हाचो अणभव म्हाका तेन्ना आयला. अशा प्रसंगार निर्मलबायचें आमच्या कुटुंबा खातीर आशिल्ले उपकार विसरूंकच जावचें ना. आनी ते पावोवपाकूय जावचें ना. कोणाकूय खंयच्याय प्रसंगाक आपणें पयशे दिले जाल्यार ते परत मेळटले काय हाचोच चडशे जाण विचार करतात. ते घरचे आसूं, भायले आसूं. हाचो विचार करता तेन्ना निर्मलबायचें काळीज म्हाका निळ्या मळबा वरी नितळ नितळ दिसूंक लागता. सांगपाचें म्हळ्यार स्नेहाक कसलेंच दुयेंस जावंक नासलें. खंय तरी भियेल्ल्यान ताका इरिटेबल बॉवेल सिंड्रोम जाल्लो. तें दुयेंत न्हय. केन्ना केन्नाय भुरग्यांक भियेवन तें जाता. पूण आमचे सारक्या सामान्य मनशांच्या तें लक्षांत येना. गोंयचे एक नामनेचे सर्जन डॉ. विशाल सावंत हांणी स्नेहाच्या मनांतलो भंय काडून इरिटेबल बॉवेल सिंड्रोम पयस करपाचें काम केलें. ताचेंय उपकार विसरूंक जावचें ना. घरकान्न सरीता केन्ना केन्ना म्हाका एकूच म्हणटालें. स्नेहाक दुयेंस जाव ना रे, तें खंय भियेवंक बी ना मरे! पूण ताचें हांवें कानामनार घेतलें ना. निमणे ताचेंच खरें जालें. तें कितेंय आसूं. ह्या प्रसंगांतल्यान हांव खूब कितें शिकलों. आनी निर्मलबायच्या विशाल काळजाचो आनीक दिश्टावो जालो.

दुसऱ्याक मजत करप हें ताचें व्यसन. कांय लोक राजकारणाक लागून हात सदळ करतात. सांऱ्याची लेगीत लोकांची तान भागयतात. तेन्ना कोणाचो संवसार मातयेभरवण करपाक आपूण जबाबदार थारता हाचो ते विचार करिनात. पूण निर्मलबाय तशें न्हय. राजकारणांत आसूं वा नासूं. सामाजीक बांदिलकेन ताची सेवा चालूच आसता. निवळ निर्मळ सेवा. समाजाक कसलेंच वायट व्यसन आसूंक जायना अशें ताका दिसता. देखून

तें सोऱ्याच्या पाट्यांचेर कोंत्र. आपलो पयसो असल्या गजालींचेर खर्च जावचो न्हय हें ताचें तत्व. गांधी विचारांच्या संस्कारांत तें वाडलां. ताचे चलणुकेंत ह्याच विचारांचें पडबिंब आमकां दिसता. गरीब भुरगे शिकचे आनी वयर सरचे अशें ताका मना पसून दिसता.

शिक्षणा खातीर कोणूय भुरगो आयलो जाल्यार खंयच्यो खंयच्यो संस्था असल्या कामाक मजत करतात हाचें तें पत्ते दिनासतना आपले परीन मजत दिवपाचें काम करतात. ताणें दिल्ल्या पयशांनी कितलेशेच जाण शिकून आपल्या पांयार उबे आसात. तें पळयतना ताका आनंद जाता. ताचें ताच्या मुखामळा वेल्या हांश्यांतल्यान दर्शन घडटा. गोंयच्या पर्यावरणाचो ताका खूब मोग. कर्नाटक सरकारान कळसा आनी भंडूरा प्रकल्पा खातीर म्हादय न्हंयचें उदक वळोवपाचो यत्न सुरू केलो. ताची सुलूस लागना फुडें म्हादय बचाव अभियान स्थापन करून तें कशें पेटून उटलां तें सगळ्यांनीच पळयलां. हे चळवळीत ताणें आपलो वेळ, शक्त आनी पयसो खर्च केला ताची कल्पना करप कठीण. त्या वाठाराची पळोवणी करपाक तें दोंगर भोंवलां, रानां भोंवलां. पांयांक जळू आनी काण्टां (चाबपी किडी भशेन जीव) लागता हाची लेगीत पर्वा करूंक ना. म्हाकाय पर्यावरणाचो खूब मोग. हांव ताचे वांगडा म्हादय वाठारांतल्या रानांनी एकदां गेलां. पूण आंगाक काण्टां लागता तीं सोसू नजो जाल्ल्यान पर्थून थंय वचपाचें धाडस करूंक ना. पूण निर्मलबायन तीं रानां माडिल्ल्यांत. आमचे सारके कांय जाण बंद कुडींत बसून पर्यावरणाच्यो खबरो सांगतात. आनी फकत चुको आनी दोश तितले दाखोवन दिवपाचें बेस बरें काम करतात. पूण प्रत्यक्ष रणांगणांत, चळवळींत देंवपाचो प्रसंग येता तेन्ना आंगा वेल्या कपड्यांक शिरकुटी पडत म्हणून अळंग पयस रावतात. निर्मलबाय तातूंतलें न्हय. पर्यावरणाच्या झाडा-पेडाच्या प्रेमांतल्यान ताणें मोल्यां एक वखदांच्या झाडांचें व्हडलें फार्म वसयलां. थंय भोंवडेकार भेट दितात. मनीस पयशे जोडपा खातीर कसलो वेवसाय करता ताचेर लेगीत मनशाचो सबाव थारता. ताणें वेवसाय म्हणून हें फार्म वसयलें तरी आपल्या बरे मागप्यांक थंय व्हरप आनी जेवंक वाडप हातूंतय ताका खूब मोटें समाधान आसता.

ताच्या ह्या सगळ्या उपक्रमाक ताचो घरकार प्रभाकर, पूत अत्रेय, परेश आनी सून तन्वी हांचें सदांच सहकार्य आसता. तांकां लागूनच निर्मलबायक समाजसेवा चालू दवरप शक्य जालां.

ताणें आपले जिणेंत मुळाव्या तत्वां कडेन तडजोड केली ना. राजकारण लेगीत शिस्तीन केलें. हेरशीं राजकारणी आनी तत्वांचें केन्ना जुळना. सत्ते खातीर खंयच्याय थरार वचपाची तांची तयारी आसता. आयचें राजकारण तेच दिकेन चलता. आयच्या राजकारणाची पूर्वपात्रताय म्हळ्यार ह्या बोटावेली नुथू त्या बोटार करपाक कळपाक जाय. कोणाचेंय कितेंय जावं आपलोच कोंबो रडून सकाळ जावं हें सध्याच्या चडश्या राजकारणाचें धोरण. निर्मलबायचीं तत्वां हांगा आड येतात. शुद्ध चारित्र्याच्या लोकांक आतां हांगा सुवात ना. निर्मलबायचे बाबतींत तेंच घडलां. पूण गोंयच्या राजकारणाचो कोणूय इतिहास बरयतलो जाल्यार ताचें नांव घेतले बगर तो पुराय जावप कठीण. आपले राजकीय कारकिर्दींत कसल्लेंच खत पडूंक न दिवपी राजकारणी आनी समाजसेविका म्हूण निर्मलबायचें नांव सदांच वयर आसतलें. हांव आस्पतीन खूब ल्हान, पूण निर्मलबाय सारक्या मनशांचो म्हाका सहवास आनी सान्निध्य लाबलें देखून हांव भाग्यवंत! ताची समाज आनी पर्यावरणाची सेवा दीर्घ काळ मेरेन चालूच उरूं आनी नवे पिळगेक प्रेरणा मेळत रावूं अशें हांव मागतां.

# सत्यशील, निष्ठावान पत्रकार

बालाबाबाक जो मान मेळटालो तो ताचें शुद्ध चारित्र्य, समाजांतलें वर्तन, जात-पात धर्म, भागेली-मुंडकार हाचो विचार करिनासतना दुसऱ्यांक मजत करपाचे भावनेक लागून आनी पत्रकारितेच्या वेवसायांतले विश्वासार्हतेक लागून. ताणें आपले वळखीचो फायदो स्वता खातीर केन्ना करूंक ना. पूण कितल्याशाच जाणांक नोकऱ्यो लायल्यात. बदल्योय केल्यात. कोणाचीं कसलीं कामां केल्यांत ताचो हिशेब आनी कोंत ना.

**बालाबाब (बालाजी गावणेकार)**



**बालाबाब** म्हळ्यार बालाजी गावणेकार. गोंयचे मुक्ती उपरांत गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करपाचें खूळ कांय जाणांचें तकलेंत घुसलें. संघप्रदेश म्हणून गोंयचें अस्तित्व तिगोवन दवरपा खातीरची चळवळ उजवाडाच्या पुजाऱ्यांनी सुरू केली. ते चळवळीक फाटबळ दिवपा खातीर आनी लोकमानस तयार करपा खातीर राष्ट्रमत ह्या दिसाळ्याचो 1 सप्टेंबर 1963 वर्सा जल्म जालो ताचे बालाबाब ज्येश्ठ खबराकार. निवृत्त जायमेरेन बालाबाबान ह्या एकाच दिसाळ्यांत पत्रकार म्हूण काम केलें. हें म्हत्वाचें. आयज तो संवसारांत ना. ताच्या व्यक्तीमत्वाचे विविध रंग म्हज्या मनाच्या पिशोलांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरपाचो हांव प्रयत्न करतां, तेन्ना बालाबाब म्हाका केन्ना आनी कसो भेटलो हें सांगतलो जाल्यार म्हजे पत्रकारितेची लांबचे लांब फाटभूंय चितारले बगर बालाबाब उबो करप म्हाका शक्य ना.

फाटलो 1985-87 चो काळ म्हळ्यार म्हजे जिणेक मोडण दिवपी काळ. कोंकणी राजभाशेच्या चळवळीक तेन्ना भार आयिल्लो. ह्या प्रस्ना वेल्यान हिंदू आनी क्रिस्तांव हांचे मदली सामाजीक सवस्तकाय इबाडटा काय कितें अशें वातावरण जाल्लें. दै गोमन्तकाचे तेन्नाचे संपादक स. नारायणराव आठवले आपले धारेच्या लेखणेंतल्यान तातूंत पॅत्रॉल ओतपाचो यत्न करताले. 'तुटो हे मस्तक फुटो हे शरीर मराठीचा गजर सोडू नये' हो गजर आमच्या सावयवेरें गांवांतय घुमतालो. कोंकणी राजभाशे

खातीर स्थापन जाल्ल्या 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' संघटनेचे निमंत्रक प्रसिद्ध लेखक पुंडलीक नायक. म्हज्या शेजारा म्हळ्यार वळवय गांवचे. म्हजे गांवचे नामनेचे प्रादेशीक कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी तेन्नाच्या सावयवेरेंच्या उत्कर्ष विद्यालयाचे (केआरएसएस हायस्कूल) मुख्याध्यापक रामराव कुंकळकार हांचे प्रेरणेन आनी म्हजे मित्र उदय म्हांबरो हांच्या पोशान म्हाका 1977-78 काळांतच कोंकणीचो दिश्टावो जाल्लो. महेश नायक, बाबुराव नायक, बब्रुवान नायक, अंकुश नायक, अशोक शिलकार, शशिकांत कडेकार, कवी प्रकाश द. नायक, ज्ञानेश्वर तारी, सुरेंद्र वळवयकार, संजय नायक, सिताराम नायक, अवधूत कामत, मंगलदास वेरेंकार, स. महेश च्यारी, स. महेश मायणीकार, अरुण नायक, भारत नायक, उदय नायक अशा कांय समविचारी लोकांक घेवन हांव हे चळवळींत बरोच मुखार आशिल्लों. सगळो गांव मराठी वटेन. अशे परिस्थितींत हे चळवळींत झोकून दिवप तेन्ना कितलें कठीण आशिल्लें हाची आयच्या कोंकणीच्या मळार नवे पिळगेंतल्या वावुरप्यांक कल्पना येवप कठीण. तेन्ना आमी ताक चाळूंक नाशिल्लें जाल्यार आयज साय कोणाक मेळची नाशिल्ली.

हे चळवळीच्या काळांत मडगांवच्या लोहिया मैदानाचेर मराठी समर्थकांची एक सभा जाली. हे सभेंत आपोलीन लुईस हें खांपे मराठी समर्थक भाशण करतां करतां कोणेतरी माचयेर फातर शेंवटिलो आनी वातावरण सामकें तंग जालें. हे सभेक आमच्या गांवांतल्यान खूब लोक गेल्ले. आर्ल्यां आनी हेर कांय कडेन रातचेच रस्ते आडायले. आमचे गांवचे लोक काटाळेंत नुस्तें सापडचें तशे सापडले. जीव आसल्यार भीक मागून खावं अशें तांकां जालें. चक्रव्युहांतल्यान सुटून उसरां रातीं गांवांत परतले. एका एका कोंकणीवाल्याचे हातपांय मोडपाचे तिडकीन. दुसरे दिसा सावयवेरें वळवय गांव एकठावलो. वागाटेच्या भंयान कोंबड्यो घुडांत लिपच्यो तशी आमची आवतिकाय. आमी सामके हाता वेल्या बोटार मेजपा इतले कोंकणी समर्थक. गांवभर मोर्चा. सगळे हिंसक वातावरण. म्हजो मित्र महेश सामको धाडशी. तो दूद पावंक सावय गेल्ले

कडेन ताका बांदून वेऱ्यां बाजारांत हाडलो. अनंताच्या देवळा कडेन न्हांवक गेल्ल्या बाबुरावाक शेतांत व्हरून उडयलो. हांव 'मोस्ट वाँटेड'. म्हज्या घरार मोर्चो, फातर भिरकायले. हांव कुमावांत लिपलों. घरांतल्या सगळ्याच लोकांक त्रास जाले. ज्या घरांत कोंकणी समर्थक त्याच घरांत मराठीय समर्थक अशें वातावरण आशिल्लें. घरांतय जीवन जगणें कठीणूच. एक रात सरली. दुसरे दिसाची सकाळ उदेली तीय भयानकच. कोंकणी कवी प्रकाश नायक हांच्या गोठ्यांतल्या गोरवांचेरय तांणी हल्लो केलो. तेच रातीं 'कोंकणी प्रजेचे' निमंत्रक पुंडलीक नायक आनी घरकान्न हेमा हांणी पुलीस बंदोबस्तांत  पणजे गांठली म्हणपाची खबर कळ्ळी. तुमकां हांगाच सांडून तुमचो फुडारी पळ्ळो, अशें म्हणून लोक आमकां हिणसावंक लागले. पुंडलीकाचेर तेन्ना आमची श्रद्धा आनी निश्ठा. म्हणटकच ताणें आमकां वाऱ्यार सोडले, अशी म्हजी केन्नाच भावना जाली ना. गांवांत जगप कठीण जालें. दनपारच्या वताच्या कडार हांव, बाबुराव आनी महेशान न्हंय हुपून उसगांव मार्गान पणजे गाठली तेन्ना सूऽऽ जालें. थंय खडेगांट कोंकणीचे फुडारी दत्ता श्री नायक (दत्ताबाब) हांणी आमची रावपाची वेवस्था केली. सांजवेळा एक वामनमुर्ती पेन आनी कागदाचो इल्लोसो कुडको घेवन आमकां मेळपाक आयली. हांवें ताका केन्ना पळोवंक ना, आयकूंक ना. ताणें सगळी म्हायती बरोवन घेतली. कांय प्रस्न विचारले. अशा भयभयीत वातावरणांत तो म्हाका तारणहार कसो दिसलो. दुसरे दिसा पेपरांत बातम्यो येतकच संकट पयस जातलें अशी आमची भाबडी समजूत. भयभीत वातावरणांतल्यान सावरपा खातीर तें दिसप म्हत्वाचें आसता. ही वामनमुर्ती म्हळ्यार बालाजी गावणेकार. म्हजे जिणेच्या दुसऱ्या  अध्यायांत हीच वामनमुर्ती म्हजो बालाबाब जालो तो कायमचो.

म्हजो मित्र आनी 'हिंद' ह्या दिसाळ्याचे ज्येश्ठ प्रतिनिधी प्रकाशबाब कामत हांचे शिफारसी नुसार हांव राजहंस वितरणाचे धनी प्रभाकर भिडे हांचे म्हऱ्यांत आठवड्याक तीन दीस काम, म्हयन्याक पांचशीं रुपया पगाराची नोकरी करतालों. त्याच काळांत मिरामार साळगांवकार कायदो

महाविद्यालयांत हांव कायद्याच्या पयल्या वर्साक प्रवेश घेतिल्लो. कोंकणीची बाजू मांडपा खातीर कोंकणींतल्यान एक दिसाळें आसचें, अशी चर्चा सुरू जाल्ली. पूण त्या वेळार त्या कामाक कोण येतले हो प्रस्न आशिल्लो. उद्देगपती दत्तराजबाब साळगांवकार हांणी कोंकणी दिसाळें काडपाची तयारी केली. पणजेच्या पिपल्स हायस्कूलांत जाल्ले एके बसकेंत हांवें म्हजी तयारी दाखयली. प्रकाशबाब कामत तेन्ना पणजे सुशिला बिल्डिंगेतल्या एका कार्यालयांत बसून हिशेब बरोवपाचें म्हळ्यार एकावन्टसीचें काम करतालो. दै. नवप्रभांत जनता दरबार ह्या सदरांत पत्रां बरोवपाची ताका संवय आशिल्ली. कोंकणी दिसाळें मडगांवच्यान भायर काडपा खातीर राष्ट्रमत दिसाळ्यांत तेन्नाचे संपादक स. चंद्रकांतबाब केणी हांच्या मार्गदर्शना खाला पत्रकारितेचें प्रशिक्षण सुरू जालें. तांचेच सुचोवणे वेल्यान प्रकाशबाबाकूय हांवें रेकाद दिलो. शब्दकोशकार दामोदर घाणेकार, काणकोणचे शिरीष पै, आयच्यो गोमन्तकाच्यो ज्येश्ठ पत्रकार सुनिता प्रभुगांवकार (धेंपे) आनी केतन भट हांची निवड जाली. कोंकणीचें प्रेम आनी चळवळीन भारावान हांवें कायद्याचें शिक्षण अर्द्यारच सोडलें. आनी भिडेलीय नोकरी सोडून म्हयन्याक 250 रुपया विद्या वेतनाचेर हांव प्रशिक्षणा खातीर मडगांवां राष्ट्रमत कार्यालयांत रुजू जालो. उपरांत कांय काळा उपरांत 13 मे 1987 वर्सा सुनापरान्त दिसाळें भायर आयलें. ह्याय दिसाळ्याचे केणीबाबूच संपादक. उपरांत उदयबाब संपादक जाले. कांय अडचणींक लागून तेय गेले. उपरांत तेन्नाचे लोकसत्तेचे पत्रकार राजू नायकान सुनापरान्ताची सुत्रां हातांत घेतलीं. ताणें ह्या दिसाळ्याक वेवसायीक रुप दिवपाचो यत्न केलो. राजू म्हळ्यार गोंयचे व्हडले पत्रकार. नवे धाडशी पत्रकार तयार करपाक तांचे इतले हुशार पत्रकार हांवें पळोवंक ना. ताच्या हाता सकयल काम करप एक आव्हान. केन्ना खंयच्या वेळार कसली जबाबदारी दीत सांगू येना. देवान जर कोणाकय शंभर वर्सां आयुश्य दिल्लें आसत जाल्यार आनी ताका राजून दिल्ल्यो जबाबदाऱ्यो पेलपाची शक्त नासत जाल्यार ताचें धा वर्सां तरी आयुश्य उणें जावंकच जाय. हांव तेन्ना डेस्कार काम करतालों. अचकीत ताणें म्हजी पणजे

खबराकार म्हूण बदली केली. म्हाका ती ख्यास्त कशी दिसली. पूण उपाय ना. थंय बालाबाब तुका मजत करतलो अशेंय ताणें सांगिल्लें. भियेत भियेत पोरण्या सचिवालयांतल्या प्रेस रुमांत वचून बालाबाबाची भेट घेतली. 'कांय भियेवं नाका, हांव आसां' अशें सांगून ताणें म्हाका धीर दिलो. ताच्या ह्या एकाच उतरान म्हाका थाकाय मेळ्ळी.

पत्रकार परिशद म्हळ्यार कितें आनी कशी आसता? खंय वचून बातम्यो हाडप, खंयचो इन्ट्रो करप हातलें म्हाका कांयच खबर नासलें. डेस्कार बसून पत्रकारिता करप वेगळी आनी पत्रकार म्हूण भायर वचून काम करप वेगळें. खूब फरक आसता. लोकां मदीं कशे संबंद दवरप हें कळचें पडटा. तशेंच कान, दोळे उक्ते दवरप, तोंडूय बरें चलचें पडटा. बालाबाबा वांगडा पत्रकार परिशदांक, मंत्र्याच्या कॅबिनांत हांवें वचप, केन्ना केन्ना नेन्राचे नवप्रभाचे मुख्य प्रतिनिधी गुरूदास सावळ वांगडा आसतालो. बालाबाबाचो तो खास इश्ट. बालाबाब एक सज्जन. नीरव्यसनी. जगण्यांत मादेपण पूण ताच्या उतराक खूब मोल आशिल्लें. तो वांगडा आसतकच खंयच्याय मंत्र्याच्या जावं अधिकाऱ्यांच्या कार्यालयांत वचप अडचणीचें जाय नासलें. ताका सगळेच चडशे वळखतालें आनी मानूय दितालें. मंत्री, आमदार, अधिकारी ताका जशे वागयतालें तशे दुसऱ्या कोणाक वागयतना हांवें पळोवंक ना. मारियो काब्राल ई सा नांवाचो एक खडेगांठ धाडशी पत्रकार तेन्ना वेवसायांत आशिल्लो. तो तेन्ना खंयच्या तरी इंग्लिश नेमाळ्याक बरयतालो. तोय बालाबाबाचो इश्ट. ताका सगळेच भियेतालें. आयच्या नव्या पत्रकारांक मारियोचो अणभव ना. तो म्हळ्यार वाग कसो. हुशार. तो खंयच्याय मंत्र्याच्या कॅबिना म्हऱ्यांत पावतकच ताका कॅबिनाचें दार भियेतालें आनी आपशीच उक्तें जातालें. पूण बालाबाबाक जो मान मेळटालो तो ताचें शुद्ध चारित्र्य, समाजांतलें वर्तन, जात-पात धर्म, भागेली-मुंडकार हाचो विचार करिनासतना दुसऱ्याक मजत करपाचे भावनेक लागून आनी पत्रकारितेच्या वेवसायांतले विश्वासार्हतेक लागून. कोंकणी भास आनी कॉंग्रेस पक्षा वयली निश्ठा ह्या विशयाचेर ताणें केन्नाच तडजोड केली ना.

ताका लागून म्हज्या आनी ताच्या विचारांच्यो तारो रोखड्योच जुळ्ळ्यो.

दै. राष्ट्रमत हें  कोंकणी अस्मितायेची राखण करपी मराठी दिसाळें. ताचो खप सामको थोडो. अशे आसूनय ताचेर बातमी छापून आयली जाल्यार लोक  विस्वास दवरताले. बालाबाबाक कोंकणी आनी मराठींतल्यान बरोवंक येतालें. पूण बातम्यो बरोवपाची संवय नासली. तो त्यो प्रेसरुमांतल्या वा पीटीआय कार्यालयांतल्या पोरण्या टायपरायटराचेर बसून टक टक टक करून इंग्लिशीतच टायप मारतालो. म्हाका कॉपी दितालो. आनिकूय कांय जाणांक तो अशीच मजत करतालो. केन्ना केन्ना सावळूय पत्रकार परिशदेक पावलो ना जाल्यार ताचेच कडल्यान 'कॉपी' घेतालो. ताणे दिल्ली इंग्लिश बातमी हांव खिणा भितर कोंकणींत अणकार करून मडगांवां 'सुनापरान्ता'क धाडून दितालों. इंग्लिशींत बातमी करून मराठी दिसाळ्याक धाडटा म्हणून ताचो एक हितशत्रू इंग्लिश पत्रकार ताची टवाळी उडयतालो, तेन्ना म्हाका त्या पत्रकाराची मनांतल्यान तिडक येताली. म्हज्या पत्रकारितेच्या प्रवासांत त्या मनशान म्हाका केन्नाच मजत करूंक ना आनी ताणें म्हाका लागींय धरूंक ना.  हांव बालाबाब, बालाबाब म्हणटा म्हूण तो मातसो बेजार जातालोसो दिसता. पूण केन्नातरी एकदीस अप्रत्यक्षपणान 'जात' घुसपावन हांवें बालाबाबाच्या विरोधांत वचचें अशेशें वातावरण तयार करपाचो ताणें प्रयत्न केलो. पूण तो फळादीक जावंक ना. कसो जातलो? म्हजे एकूण विचारधारेचो ताका अंदाज येवंक नाशिल्लो आसतलो.

हांव तेन्ना सावयवेऱ्यां घरा रावतालों. स्कुटरीन येतालों आनी तसोच वतालों. घरा पावपाक रातची धा इकरा जातालीं. 'रिपोर्टर' म्हूण पूर्ण वेळ काम करता ताका वेळा काळाचें बंधन आसना. खंयच्च्या वेळार कितें कोसळत तें कळना. आयचे वरी तेन्ना मोबायल, एसएमएस, इंटरनॅट असलें कांयच ना. दीसभर एकामेकांक बरें मागून प्रेस रुमा भोंवतणीच आंदाळ्यो गुंदाळ्यो घालच्यो पडटाल्यो. हेर चडशे पत्रकार बातमी हाताक लागली जाल्यार कोणाच्या कानाक लागूंक दिनासले. प्रेस रुमाच्या इमारतींतच सचिवालय. म्हणटकच सगळेच कावळे कशे वयर सकयल

भोंवत आसताले. नदर चुकोवंक मेळनाशिल्ली. म्हजो संपादक राजू नायक. म्हणटकच तो दर दिसा गोमन्तक टायम्सांत ज्यो बातम्यो येताल्यो ताचे कडेन आपल्या पेपराची तुळा करतालो. किरकोळ बातमी चुकली जाल्यार म्हजो दुसरो दीस इबाडटालो. हांव 'सुनापरान्तां'त कोंकणीची सेवा बरी जावंक जाय हे भावनेन काम करतालों, आनी ताचो वेवसायीक पत्रकारिता करपाचो यत्न आसतालो. ताणें आमच्या सुनापरान्ताची सया बदलिल्ली. राजू हो गोंयचो व्हडलो धाडशी आनी बंडखोर पत्रकार. आयजूय तो तसोच आसा. काळजांत निवळ. कट करून कोणाक त्रासांत उडोवचो ना. पूण बातमी चुकतकच केन्ना आनी कितलो आक्रमक जावप ताका कळना. केन्ना कितें येवजत ताचो अंदाज करूं नजो. रातचो जेवणाक घेवन बसता ताकाच तो दुसरे दिसा 'मेमो' दिवंक फाटी ना. ताचे कारकिर्दीत म्हाका सुमार 20 मेमो मेळ्ळ्यात. राजूची गरज भागोवपाक हांव उणो पडटालो. अशा वेळार म्हाका संकटांक पावला तो बालाबाबूच. ताणें म्हाका एकूय बातमी चुकपाक दिवंक ना. ताचेच मजतीन म्हजे पद्दतीन म्हजी पत्रकारिता विकसीत करपाचो हांवें यत्न केलो. आयज पत्रकारिता बदलत गेल्या. चडश्या पत्रकारांनी नव्या तंत्रज्ञाना कडेन जुळोवन घेतलां. म्हजे प्रकृतीक व्हडलेशें तें मानूंक ना. हांव मातसो तातूंत फाटीं. पूण गोंयच्या समाजाक आयज पिडपी प्रस्नाचे कितलेशेच पयलीं उजवाड घालपी समतोल पद्दतीन पत्रकारिता करपी राष्ट्रमताचे संपादक संस्थापक चंद्रकांतबाब केणी हांचो हांव शिश्य. तांचे परंपरेंतली पत्रकारिता करपाक बालाबाबाच्या आनी नवप्रभाचे आदले संपादक सुरेशबाब वाळवे हांच्या मार्गदर्शनाचो म्हाका खूब उपेग जाला. बालाबाब जिणेंत सामकोच पारदर्शक. कितेंय कोणाचेंय वायट दिसलें जाल्यार थंयचे थंयच तिडपी. पूण तोच मनीस त्रासांत पडटासो दिसल्यार ताका सांबाळपाक तोच फुडें वचपी. ताका मोटरसायकल, स्कूटर, गाडी चलोवंक येनासली. मूळ गावणेचो भाटकार आसलो तरी तो कितलेशेच वर्सां फाटीं पर्वरे स्थायीक जाल्लो. जाण्टेपणांत थंय सावन तो कोणाची तरी लिफ्ट घेवन पणजे येतालो आनी चड करून तसोच वतालो. ताचेर

लोक प्रेम करताले. तो दिसतकच ताका वळखुपी लोकांच्या वाहनांचे आपशींच ब्रेक लागताले. म्हजे कडेन ताचे ल्हवू ल्हवू खूबच लागींचे संबंद तयार जाल्ले. ताका साकरेचें आशिल्लें. नस्तें कितेंय ताका सोंसनासलें. कांय विचित्र लोकांचेर तो तापतालो. शाब्दीक वाद घालतालो आनी आपशींच शांत जातालो. म्हजे कडेन मात ताचे केन्नाच मतभेद जावंक ना. ताणें आपले वळखीचो फायदो स्वता खातीर केन्ना करूंक ना. पूण कितल्याशाच जाणांक नोकऱ्यो लायल्यात. बदल्योय केल्यात. कोणाची कसलीं कामां केल्यांत ताचो हिशेब आनी कोंत ना. पत्रकारांचेर जाल्लो अन्याय पयस करपाच्या चळवळींत आंदोलनातूय तो फुडें आसतालो.

बालाबाब चडसो प्रेस रुमांतच बसतालो. कोणूय गांवचो, भायलो ताचे कडेन कसल्याय कामाक येतालो. आपली बातमी टायपरायटराचेर अर्द्यारच दवरून तो वतालो आनी ताका मजत करतालो. आयच्या काळांत दुसऱ्या खातीर आपलो वेळ दिवपी सामके दुर्मिळ. अशा वेळार बालाबाबाची दानत कितली व्हड आशिल्ली ती उतरांनी सांगप शक्य जायना. पत्रकारांनी कांयच लांच घेवंक जायना. भ्रश्टाचार करूंक जायना, हें ताचें तत्व. कसले तरी बातमेक लागून एका मंत्र्यान ताका पयशांचें पाकीट दिलें. बालाबाब तें कशेंच घेवंक तयार ना. त्या मंत्र्यान ताका तें कशेय भाशेन घरा धाडलें. तो मंत्रीय बालाबाबाक मानतालो. ह्या पयशांच्या पाकिटाच्या माध्यमांतल्यान तो बालाबाबा वेलो मोग उक्तावंक सोदतालो. बालाबाब सामको बेजार जालो. तो वेंचणुकेचो काळ. ताणें त्या पाकिटांतले पयशे काडून त्या मंत्र्याची पेपरांत जायरात दिली आनी बील त्या मंत्र्याक धाडून दिलें. आयज जाल्यार कितें घडपाचें? असो हो आमचो बालाबाब!

गोमन्तक हो राष्ट्रमताचो 'रायवल' पेपर. अशें आसतनाय त्या काळार बालाबाबाल्यो पीटीआयतल्यो बातम्यो घेवन आपूण बरयतालो, अशें तेन्नाचे गोमन्तकाचे ज्येश्ठ पत्रकार प्रकाश कुर्डीकार सांगतात. पत्रकारांचे एकामेका कडले संबंद प्रेमाचेच आसूंक जाय, अशें बालाबाबाचें मत अशें

सांगून आमचो कुर्डीकार ताच्यो अजूनय यादी काडटा. त्यो आयकतना म्हाका बरें दिसता.

बालाबाब केन्नाय गावण्या 'पाड्याक' नाजाल्यार नागेशीं देवाक वतालो. तेन्ना तो पणजे कितेंय बातमी आसल्यार दवर आं म्हूण म्हाका सांगतालो. तेन्ना हांवें ताका म्हणप, बालाबाब हें कितें सांगता? हांव आसा तुजेच खातीर मरे, अशें म्हणटकच तो दोळे बारीक करून मुमुरखो हांसतालो आनी चलत रावतालो. ताचो तो हांसो आनी चलपाची मंद लय अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार येता. म्हाका तो आपल्यो कांय घरगुती गजालीय सांगतालो. कोणा भागेल्याक कशी मजत केली आनी ताणेंच आपणाक कसो देमांदाक घालो, हें तो परतें परतें सांगून खंती जातालो. आतां कोणाक मजत करपाची ना रे, अशें वितरागान म्हणटालो. पूण मनशाचो सबाव केन्ना बदलता? तो प्रसंग येतकच बालाबाबान कोणाक केन्ना आदार करूं ना अशें जावंक ना.

संपादक म. केणीबाबाचेर ताची खूब श्रद्धा. तांचे खातीर तो कितेंय करपी. कोणाय कडेन वाद घालपी. आपणाक केणीबाब कसो कसो पावला हें तो सदांच सांगतालो. बालाबाबाचे घरकान्नीक एक भिरांकूळ दुयेंस जाल्लें. अचकीत मुंबय ऑपरेशन करचें पडलें तेन्ना केणीबाबान आपणाक कशी मजत केली हें सांगतना तो दोळ्यांत दुकां हाडटालो, हें हांवें पळयल्लां. म्हाका आपल्या घरगुती कार्यावळींक तो आपयतालो. हांव सगळीं कामां कुशीक दवरून हजर रावतालों. विश्वेश, सिद्धेश आनी प्राची हीं ताचीं तीन भुरगीं. सगळींच संस्कारी. बालाबाबान जें बरें केलां ताची पूर्वपुण्याय तांकां लाबल्या. तिगूय जाण आपआपले सुवातेर येसस्वी आसात. आपलो बापूय कोणा कोणाचेर प्रेम करतालो हें तीं भुरगेपणांतूच पळयत आयल्यांत. खूबशा ज्येश्ठ पत्रकारांचे भुरगे आसात. तांकां हांव वळखना, आनी तेय वळखतात काय ना हें हांव नकळों. पूण बालाबाबाले भुरगे तशे न्हय. आपल्या मोगाळ आनी सज्जन बापायले संबंद तांणी राखून दवरल्यात.

केणीबाबान राष्ट्रमताची मुत्रां सोडले उपरांत सिताराम टेंगसे कांय

काळा खातीर संपादक जाल्ले. त्या काळांत बालाबाबान राष्ट्रमत सोडलो. जाण्टेपणातय ताका प्रेस रुमांत येवन बसले बगर जायनाशिल्लें. काम नासतालें पूण वेळ पासार करपाक तो येतालो. ताचो सहवास म्हाका आवडटालो. हांवूय तागेर घरा केन्नाय वतालों. म्हज्या पन्नासाव्या वाडदिसाचें आमंत्रण घेवन हांव पर्वरी तागेर गेलो. मुताच्यो वादयो घालून बालाबाब कदेलार बशिल्लो. 'हांव पावत सो दिसनारे' अशें सांगून दोळ्यांतल्यान अळंग दुकां देंवयलीं. म्हजो गळो आनी दोळेय भरून आयले. असलो बालाबाब हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. कोणा मनशाक कसल्यो यातना जायत सांगू येना. कोणूच कांयच करूंक शकना. आमी दिवंक शकतात तें फकत प्रेम.

बालाबाबाक पांया पडून हांवें आशिर्वाद घेतले आनी हांव घरा परतलों. दुसऱ्याच दिसा म्हळ्यार 18 ऑगस्ट 2009 दिसा सकाळीं एक फोन आयलो. बालाबाब गेलो म्हणून. ताच्या सहवासांतले पत्रकारितेंतले दीस, अणभव, प्रसंग दोळ्या मुखार येवन गेले. घरा बसला थंयच दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक दिलीं आनी ताचे कुडीचें निमणें दर्शन घेवपाक पर्वरी धांव मारली. घरचे सोयरे, भायले सगळेच मनीस मरतात, तेन्ना आमकां वायट दिसता. काळ वता तसो तसो तांचो विसर पडटा. पूण कांय मनशांची वर्सांचीं वर्सां एका एका प्रसंगार याद येता. म्हाका केन्नाय बालाबाबाची अशीच याद येता. विश्वेश केन्नाय मेळटकच जावं फोनाचेर म्हाका सांगता आपल्या बापायक निमण्या काळार भेटपी तूं एकलोच म्हणून. तेन्ना म्हज्या दोळ्यांत परतून दुकां दाट्टात. हाकाच म्हणटा रुणानबंद!

# निळेंनिळेंशें मळब

गांवच्या लोकांक निरुपा केदें व्हडलें तें कळना. ताचें क्षेत्रूय सर्वसामान्याक कळपा इतलें न्हय. पूण सहवासांतल्यान खरो मनीस कळटा. निरुपाचें चित्र जशें शुद्ध तशें ताचें मनूय निर्मळ. पेंटिंग्स हें ताचें जीवन. मूळ जर्मन जगप्रसिद्ध चित्रकार पॉल क्ली हो ताचो आवडटो चित्रकार. ताच्या पेंटिंग्सांचेर तें सामकें फिदा जावन उलयता.

**निरुपा (निरुपा नायक)**



**निरुपा** म्हळ्यार निरुपा सत्यवान नायक. एक म्हान चित्रकार. म्हाका चित्रांतलें व्हडलेशें कळना. पूण म्हजे कवितेक ताचें चित्र कळटा आनी ताच्या चित्राक म्हजी कविता कळटा. देखून आमची इश्टागत चड दाट. तें म्हज्या गांवचें, सावयवेरेंचें. एकाच वाड्यार आमी पयलीं रावपी. आमच्या वाठारान समाजाक लेखक, कवी, संगीतकार, नाटकांचे पिशे अशे प्रतिभावंत दिले. 'गांवचें चेडूं कुड्डें' अशी एक आमचे भाशेंत ओपार आसा. ती निरुपाक तरी कित्याक बादची ना? ताचें भुरगेंपण गांवांतच गेलें. पालसड्या वेल्या सरकारी मराठी विद्यालयांत ताणें मॅट्रिके मेरेनचें शिक्षण घेतलें. आयज थंय मराठी माध्यम ना. इंग्लिश आसा. पणजे आल्तीन्या वेल्या कला महाविद्यालयांत ताणें चित्रकलेच्या मळार पदवी जोडली. सरकाराच्या डिझायन डेव्हलपमेंट विभागांत ताका नोकरी मेळ्ळी. शिक्षणा प्रमाण जाका नोकरी मेळटा तो मनीस ते संदीचें भांगर करूंक शकता. निरुपान तशेंच केलें. सावयवेरेंचें एक गरीब भुरगें म्हान चित्रकार म्हूण नांवारुपाक आयलें. लग्न जावन तें हातुर्लेचें जालें. थंय तें चड काळ रावूंक ना. सध्या तें ताळगांवां रावता. सत्यवान बँकेंत अधिकारी. तोय सामको प्रेमळ. निरुपाक निळो आनी पिक्या संत्राचो रंग खूब आवडटा. कोणाक कसलो रंग आवडटा ताचेर मनशाचो सभावूय थारता अशें कांय जाण सांगतात. निरुपाक पळयतकच म्हाका तें खरें दिसता.

निळो रंग म्हळ्यार कुपां नाशिल्ल्या मळबाचो रंग, हो रंग उदकांत पडटा म्हणून उदक लेगीत आमकां निळें दिसता. हेरशीं उदकाक खंय

वेगळो रंग आसा? तो उदकाचोच आसता. निळो रंग शांततायेचें प्रतीक. निरुपाय सभावान शांत आनी नम्र. कसलेंच मोटेपण, गर्व ताच्या मुखामळार म्हाका केन्ना दिसूंक ना. सत्यवानाचेंय काळीज कूप नाशिल्ल्या निळ्या मळबा भशेनूच. दोगांय मदीं कसली ना कसली निळाय आसाच. हो बरो योगायोग. सगळ्याच जोडप्यांचे बाबतींत असलो योगायोग जुळून येना. देखून दोगांय भाग्यवंत. निरुपाचें चित्र फुलपाक सत्यवानाच्याय सबावांतल्यान सारें उदक पडटा. आपल्या उपक्रमाक मामा (बाप्पा) मामी आनी मांयचोय आदार मेळ्ळा, अशें तें सांगता.

निरुपा आपल्या कतृत्वा विशीं चड उलयना. उलयलेंय जाल्यार ताच्या उलोवपांत शितळ चान्याच्या उदकाची थंडाय जाणवता. ताचे दर एके कृतींतल्यान, हालचालींतल्यानच तें चड उलयता, अशें म्हाका दिसता. ही भास जाका कळटा ताका निरुपाक वळखप सोंपें. तें जंय भुरगेंपणांत वाडलां त्या सावयवेरेंच्या जाण्ट्यां विशीं ताका खूब प्रेम आनी कळवळो. त्या जाण्टेल्यांचेंय ताचेर प्रेम.

आपल्या प्रेमाचें प्रगटीकरण करून लोकांक दाखोवप ताका जमना. ताका लागून कांय जाणांक तें गर्विश्ठ कशें दिसता. जांकां तशें दिसता तांचो तो गैरसमजूच आसता. एक दीस पाणू नांवाचो एक गांवचो मानाय जड रगडो धुकली धुकलीत घरा वतालो. तो खर्शेतालो तो ताणें पळयलो. ताका ताणें थांबयलो. घरा कडल्यान च्या करून हाडली आनी ताका दिली. घटाघट च्या पियेवन परतून रगडो धुकलीत धुकलीत पाणू घरा गेलो. रगडो घरा पावयना जाल्यार आपली बायल तापयतली हाची ताका भिरांत आसली खंय. तीन दिसां उपरांत पाणू संवसारांतल्यान गेलो. निरुपाक जेन्ना खबर कळ्ळी तेन्ना तें कशें अस्वस्थ जालें तें हांवें पळयलां. साडयो नाशिल्ल्या गरीब बायलांक तें साडयो दितालें. पूण ह्या कानाचें त्या कानाक सोंपेपणान कळनाशिल्लें. कांय लोक नडणी उणी काडटात आनी कंडो चड हालयतात. तो लोकांक दिसता. निरुपा कंडो हालयनासतना नडणी चड काडटा. आदलीं जाण्टीं मनशां एकामेकाचेर प्रेम करतालीं. आपल्या भुरग्या वांगडा दुसऱ्याल्याय भुरग्यांचेर प्रेम

करतालीं. आतां तशें ना रे संजीव, अशें तें म्हाका केन्नाय म्हणटा. ताच्या भुरगेपणांत शाळेंत कोणेय ताका तुकलायलें जाल्यार शेजारची राधेआमी खंय शाळेंत वचून तुकलावपी भुरग्यांक दडबडयताली अशें सांगून तें राधेआमीची याद काडटा. आतां तशें ना न्हय रे? अशें म्हणून म्हाकाय भूतकाळाचे पासयेक व्हरून हाडटा.

आपूण कितलें व्हडलें चित्रकार हें ताका खबरूच ना. तें रंगांतूच बुडून आसता. तुमी म्हाका व्हडलें म्हणटात, पूण म्हाका तें कळच नारे, अशें तें थंडपणान सांगता तेन्ना म्हाका हांसचे काय रडचें तेंच कळना. ताच्या सभावांतल्या भोळेपणाचें दर्शन म्हाका ताच्या उतरा उतरांतल्यान जाता. आमच्या आयच्या समाजांत खंयच्या तरी मेल्ल्या मोराचें एक पांख माथ्याक लावन आपूणच मोर म्हणून नाचपी हांवें कितलेशेच लोक पळयल्यात, लोकूय तांकां कशे माथ्यार घेवन नाचतात तेंय पळयतात. तेन्ना निरुपाचे म्हानताये विशीं हांव येवजीत रावतां...!

सर्जनशील पेंटिंग्स हो निरुपाचो विशय. देशांतले एक म्हान चित्रकार लक्ष्मण पै हांचें तें शिश्य. ह्या म्हान कलाकाराक निरुपा विशीं खूब प्रेम. गरीब परिस्थितीच्या काळांत का. बा. मराठे नांवाच्या एका शिक्षकान विद्यालयांत ताची बुद्दीमत्ता पारखून मार्गदर्शन केलें ताका लागून आपूण चित्रकार जालें, अशें सांगून आपल्या गुरू विशीं निरुपा कृतज्ञताय उक्तायता. ताच्या पेटिंग्सां सकयल ताचें नांव आसपाची गरजूच ना. ताच्या चित्रांच्या रसिकांक तें चित्र निरुपाचेंच आसा म्हणपाचें कळटा. ही ताचे कलेची खरी वळख आनी वैशिश्ट्य. कविता, कथा, निबंद ह्या साहित्यकृतींचे बाबतींतय अशेंच आसूंक जाय अशें म्हजें मत.

गोंया वांगडाच देशांतल्या वेगवेगळ्या चित्र दालनांनी ताचीं प्रदर्शनां येसस्वी जाल्यांत. दिल्ली, बंगळूर, मुंबय तशेंच जर्मन, लंडन, बेल्जीयम, फ्रान्स ह्या देशांतले चित्रमोगी ताच्या पेंटिंग्सांचेर भाळ्ळ्यात. ते ताचीं चित्रां विकती घेवन वतात. गांवगिरो सैम, लोकवेद, उत्सव, जाण्टीं मनशां, अशिक्षीत बायलांच्यो व्यथा वेदना संस्कृती हें ताच्या चित्रांचें वैशिश्ट्य. ज्या वातावरणांत तें जल्मलां, व्हडलें जालां थंयचो

सैम ताच्या चित्रांतल्यान उलयता. बदलिल्ल्या काळांत आमची संस्कृती, निती मुल्यां ना जावंक पावल्यांत. तरी निरुपाच्या चित्रांनी तीं आमकां आनी फुडले पिळगेक पळोवंक मेळटलीं. ताणें गोंयचें नांव वयर काडटनाच सावयवेरेंचें नांवूय व्हडलें केलां. असल्या गजालींचें म्हत्व सर्वसामान्य लोकांक आसताच अशें ना.

गांवांत जण एकल्याची वळख अमक्याली धूव, तमक्याली भयण नाजाल्यार सावरी पोंदचें, चिंचे कडलें इतले पुरतीच मर्यादीत आसता. कांय जाणांक दुसऱ्यांची अपुरबाय करपाची दानतूय नासता. ताका लागून मनशाच्या कतृत्वा कडेन ते आडनदरूच करप पसंत करतात. निरुपाचें सावयवेंच्यां येवप वचप नेमान आसता. कुळारच्या कुटुंबाचेरय ताचें लक्ष आस्सा. गांवच्या रासवळ जिवितांत ताचो व्हडलोसो संबंध ना. ताकाय लागून गांवच्या लोकांक निरुपा केदें व्हडलें तें कळना. ताचें क्षेत्रूय सर्वसामान्याक कळपा इतलें न्हय. पूण सहवासांतल्यान खरो मनीस कळटा. निरुपाचें चित्र जशें शुद्ध तशें ताचें मनूय निर्मळ. पेंटिंग्स हें ताचें जीवन. मूळ जर्मन जगप्रसिद्ध चित्रकार पॉल क्ली हो ताचो आवडटो चित्रकार. ताच्या पेंटिंग्सांचेर तें सामके फिदा जावन उलयता.

म्हजे गांवचें चित्रकार म्हणून म्हाका निरुपाचो अभिमान आनी प्रेम. म्हजे कवितेचेर तें उफाट प्रेम करता. म्हज्या कवितांचे सगळे आशय-विशय ताका तोंड पाठ. खंयच्याय वेळार म्हजे कवितेचेर तें उलयता तें पळोवन म्हाका आनंदूय जाता आनी अजापूय जाता. बाकीबाब बोरकार आनी शंकर रामाणी हेय ताचे आवडीचे कवी. म्हज्यो कांय कविता ताच्या चित्रांचे विशय जाल्यात हें म्हजें परमभाग्य. फाटल्या 30-35 वर्सांच्या काळांत हांवें कवितेंतल्यान खूब किते सांगपाचो यत्न केलो. निरुपान आपल्या एकाच पेंटिंग्सांतल्यान म्हजी कविता रंगयली आनी म्हाका भेटयली. हो म्हजो आनी म्हजे कवितेचो भोवमान. म्हज्या मंगेशी फ्लॅटांतल्या हॉलाचे वण्टीर हें चित्र हुमकळटा. आयिल्ल्या गेल्ल्याची ताचेर नदर वता तेन्ना तेन्ना म्हाका निरुपाची श्रेश्ठताय गावपाची संद मेळटा. गांवच्या मनशाक निरुपा अजून कळूंक ना हाचें दुखख,

तातूंतल्यान ल्हव करपाचो म्हजो यत्न आसता.

निरुपान सरकारी सेवेंतल्यान निवृत्ती घेतल्या आनी ताणें आपली जीण पेंटिंग्साकूच अर्पण केल्या. तें म्हणटा तातूंतच आपूण आनंद घेतां. हो आनंद आपली भलायकी बरी दवरता अशें तें सांगता.

ताकां संगिताचीय आवड. विद्यालयांत आसतना तें भावगितां गायतालें. तें आपल्या म्हौंवाळ आवाजान 'मत्स्यगंधा' नाटकांतले 'अर्थशुन्य भासे मज हा कलह जीवनाचा' हें गीत गायतालें. ताची याद खूब जाण काडटात. तशें कवीवर्य मंगेश पाडगांवकार हांची 'श्रावणात घन निळा बरसला' ही कविताय सुरेल आवाजांत गायतालें. आपली ती सगळ्यांत आवडीची कविता अशें तें सांगता. निरुपान संगीता कडेनच वळिल्लें जाल्यार म्हान संगीतकार जावपाचें, अशें ताच्यो कांय इश्टिणी सांगतात.

हांव मंगेशी रावतां, पूण कर्मभूंय पणजे. म्हजे गांवचे कितलेशेच जाण पणजे-ताळगांव ह्या वाठारांत रावतात. तांचे कडेनय म्हजे लागींचे संबंद. पूण हांव तांगेर केन्ना पावना. पूण निरुपागेर चुकनासतना वतां. तागेल्या घरांत एकूय अशी सुवात नासता जंय चित्र नासता. हांव जेन्ना दाराची बेल मारता तेन्ना तें हातांत पिशोल घेवन भायर येता आनी रंगांतल्यानच म्हाका येवकार दिता. मागीर आमच्यो खबरो रंगार येतात. चित्रां, कविता, गांवची मनशां, भुरगेंपण, चाली-रिती, खाणा-जेवणां असले कसले कसले विशय हांची मर्यादा ना. केन्ना केन्ना सत्यवान आसता. आशा, दिपा ह्यो ताच्यो धाकल्यो भयणीय आसतात. त्यो चड उलयनात. ताचो चलो इशान, तो सहसा भायर येना. तो आपले कसलें तरी काम करीत भितर आसता. निरुपाची भयण आशाय चित्रां काडटा. आशाकय म्हजी कविता आवडटा. तें शांतपणान कवितेचो आनंद घेता. मदींच एक ल्हवू आवाजान प्रतिक्रिया व्यक्त करता. ताचे वेल्यान ताका कवितेची कितली जाण आसा हें जाणवता. नवी कविता आसल्यार हांव निरुपाक वाचून दाखयता. तेंय आपलें नवें चित्र दाखयता. झांकून झांकून गांवकार जावप अशी एक म्हण आसा. तशें ताचें चित्र आतां म्हजे कडेनय सोयरीक करपाक लागलां. तुजी

कविता सामकी वेगळीच रे, अशें तें सांगता आनी एकदीस आपूण तुज्याच कवितांचेर काडिल्ल्या चित्रांचें प्रदर्शन मांडटलें, अशें म्हणटा तेन्ना म्हाका मळब भुंयेर देंविल्ल्याचो भास जाता. गांवच्या एका म्हान चित्रकारान आपल्या गांवच्या कवीच्या कवितांचेर केल्लें हें प्रेम म्हळ्यार म्हजे खातीर चैतन्याचो सुवाळो. म्हजी कविता माथ्यार घेवन नाचपी म्हज्या वाड्या वेलोच कोणतरी आसप हाचो आनंद आनी समाधान वेगळेंच आसता. नामनेचे निबंधकार आनी अनुवादक मुकेशबाब थळी केन्ना केन्ना सांगता, जाणा मरे संजीव, तुजी कविता म्हजी दुकां पुसता, म्हणून म्हाका ती आवडटा. ह्या म्हान चित्रकाराकूय अशेंच दिसता काय!

मुकेशाचेंय साहित्य निरुपाक आवडटा, ताच्या पन्नासाव्या वाडदिसा ताणें आपले प्रतिभेच्या कुंचल्यांतल्यान मुकेशाचें बाह्य आनी अंतरंग दाखोवपी एक सुंदर पेंटिंग्स जाहीर पद्दतीन ताका भेटयलें. तो अप्रतीम खीण म्हजे यादींत उरला. साहित्य अकादमी पुरस्कार जैतीवंत कवी माधवबाब बोरकार निरुपाच्या पेंटिंगसाचे चाहते. तो ताच्या चित्रांचेर वराचीं वरां उलयता. एका प्रतिभावंत चित्रकाराचो वसो म्हाका आनी मुकेशाक लाभलो हाचो आमकां दोगांकय आनंद. असले योग सामकेच दुर्मीळ आसतात. ताचो सहवास, सानिध्य म्हजे खातीर पूर्वजल्माचें ऋणानुबंद. म्हजो कसलोय कार्यक्रम आसूं, ताची हजेरी म्हज्या कार्यक्रमाचें वजन वाडयता. म्हजो पयलो 'भावझुंबर' कविता झेलो 1987 वर्सा उजवाडाक आयलो ताचें मुखचित्र ताणेंच काडलां. तें तशें पुस्तकांक मुखचित्रां काडिना. म्हज्या पुस्तकांकच ताका मुखपृष्ठां काडीन दिसता इतली ताची प्रतिभा म्हजे कवितेचेर प्रसन्न जाल्या. हांगा कसलोच वेव्हार ना. आसा तें फकत विशुद्ध प्रेम. तागेर वता तेन्ना म्हजे कवितेची प्रतिभा फुलता. नव्या कवितांचें बीज धरता. म्हाका ल्हव ल्हवशें दिसता. मनाक तृप्तपणाची थाकाय मेळटा. देखून हांव तागेर वतां. ताची कला आनीक फुलूं, ताचो परमळ संवसारभर पातळूं, म्हज्या गांवचे नांव संवसाराच्या नकाशार झळकूं. इशानाच्या रुपान ताच्या चित्रांची परंपरा फुडें वचूं अशें हांव मागतां!

# सेवाव्रती शिक्षक

वाट दाखोवंक फुडें येवपी मनीस काळजांत प्रेमळ आसपाक जाय. अशें आसलें जाल्यारूच बरें जाता. आमच्या सोमण सराचें काळीज व्हडलें आशिल्लें. ताच्या काळजांतल्या प्रेमाचो झरो ओंठांतल्यान देंवतालो, देखून तो विद्यार्थ्यांक जाय जायसो दिसतालो.

**सोमण सर**



**खंयचोय** भुरगो, गिरस्तालो आसूं वा गरिबालो आसूं, तो बरो घडपा खातीर ताका बरे शिक्षक आनी गुणी मित्र मेळपाक जाय. हें हांव म्हज्या अणभवा वेल्यानच बरयतां. खंयच्याय पुस्तकांवेलें उश्णें वाक्य न्हय हें. आवय बापायक सदांच आपल्या भुरग्यांचें कल्याण जावचें अशें दिसता. तशें दिसप सभावीकूच आसता आनी दिसूंकच जाय. आवय बापूय ते खातीर देवा कडेनय प्रार्थना करतात. ताका लागून देवाचेरुय सुमारा भायर भार पडटा. आमी ताचोय विचार करपाक जाय. देवा कडेन कितेंय चड मागनासतना आपल्या भुरग्यांक बरे शिक्षक आनी बरे मित्र मेळचे इतलीच ल्हानशी प्रार्थना करची. आयच्या काळांत हे मागणेक अदीक अर्थ आनी म्हत्व आसा.

हुशार, बुदवंत शिक्षक मेळूं येता. प्रेमळ, बरें चितपी शिक्षक मेळप कठीण. हालींच्या काळांत असल्या शिक्षकांचो दुकळ आसा. चडशे शिक्षक आपल्या पेशाक पूर्णपणान वेवसायूच म्हूण पळयता. आपूण शिकयता तो विद्यार्थी व्हडलो जावचो, वयर सरचो, अशें कितल्या जाणांक मना पसून दिसता काय! शाळेंतली वरां सोंपले उपरांत ते सगळेंच विसरून वतात. आदल्या काळार आपूण मास्तरूच जातलों अशी जबर इत्सा घेवनच एखादो सरस्वतीच्या आंगणांत देंवतालो. तो आपणाक मेळिल्ले संदींचें भांगर करतालो आनी आपले परीन समाजाक योगदान दीन गवतालो. ताका लागून समाजांतय ताच्या उतराक मान आसतालो.

आता परिस्थिती वेगळी. आयच शिक्षक, बरे दोतार, अभियंते, बरे तंत्रज्ञ निर्माण करपाचें काम करतात. हें करपाक इलेक्ट्रॉनिक, संगणक मळार जाल्ले क्रांतीचोय तांकां फायदो जाता. पूण समाजांत बरे मनीस घडोवपाचें काम तांचे कडल्यान व्हडलेशें जायना. देखून आयचो मनीसूय दिशीं दिशीं यंत्र कसो जावंक लागला. कितें तरी मेळोवपा खातीर सर्त करपाचे सर्तीन काळजांत प्रेमाची, मायेची, आपलेपणाची भावनाच ना जाल्या. तातूंतल्यान समाजांत तरातरांचे प्रस्न निर्माण जाल्यात. अत्याचार, गुन्यांव हांचेंय प्रमाण वाडलां. हे फाटभुंयेर हांव विचार करूंक लागतां तेन्ना, म्हज्या भुरगेपणांत सावयवेऱ्यां उत्कर्ष विद्यालयांत (आयचें केआरएसएस हायस्कूल) हांव शिकतना म्हाका सोमण सर मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार म्हजें कितें जावपाचें! हांव खंय आसपाचो! हाचोच विचार येता. आलमपेड्डेर जावन भोंवपी त्या वेळावेले म्हजे वांगडचे भुरगे दोळ्यां मुखार उबे रावतात. तांचें कितें जालें, हें येवजितां येवजितां म्हजे हातपाय थरथरूंक लागतात.

सोमण सराचें नांव माधव. तो मूळ महाराष्ट्रांतल्या कोल्हापूर जिल्ह्यांतल्या आजरा तालुक्यांतलो. मराठी कुटूंब. आपल्या शिक्षका विशीं उलयता तेन्ना आदरार्थी उतरां वापरप ही आमची परंपरा. पूण हांव लेखक म्हणून म्हज्या सामक्या आवडीच्या मनशाचेर बरयता तेन्ना आदरार्थी उतरांचे सोपस्कार केले जाल्यार आपलेपण उणे जाता अशें म्हाका दिसता. देखून ते, तुमी असलीं उतरां हांव टाळटां आनी म्हजे शैलीनूच बरोवंक लागता. 1974-75 च्या काळांत सोमण सर गोंया आयलो. मराठी शिक्षक म्हूण उत्कर्ष विद्यालयांत तो रुजू जालो. केन्ना केन्ना सफारी जाल्यार मोटव्या हातांचो शर्ट आनी पँट असो ताचो भेस आसतालो. ल्हवू आवाजान उलोवपी. ताच्या उलोवपांत ताचें मन कळटालें. आमकां तो मराठी शिकयतालो. खंयचोय धडो तो विसकटावन सांगतालो तेन्ना आमकां तो काणी सांगता कसो दिसतालो. तातूंतल्यान आमकां भुरग्यांक त्या विशयाची आवड निर्माण जावंक लागली. तो भुरग्यां कडेन कोंकणीच उलयतालो. पूण ताचे भाशे वेल्यान तो मराठी

भाशीक म्हूण कळटालें. सुरवेच्या काळांत हांव ताका तसो व्हडलोसो घसटूंक ना. पूण ताचें मोगाळ व्यक्तीमत्वाचो म्हजेर प्रभाव पडपाक सुरवात जाल्ली.

हांव सातवेक पावलों तेन्ना वाट चुकलों. म्हज्यांत वाळेसपणाचीं लक्षणां येवपाक लागिल्लीं. अशा वेळार नीट आनी सरळ वाट दाखोवपी खूब जाण मुखार येतात. तांकां चडश्या सगळ्यांक वाट चुकिल्लो मनीस उजू वटेन वचचो अशें मना पसून दिसताच अशें ना. तांकां वाट दाखोवपाकूच चड मजा येता. केन्ना केन्ना वांकडे वटेन चलपी मनीस सरळ वटेन चलूंक लागलो म्हणटकच ते बेजार जातात आनी बऱ्या मार्गान वचप्याचो तिरस्कार करपाक लागतात. असले अणभव म्हजे कडेन खूब आसात. वाट दाखोवंक फुडें येवपी मनीस काळजांत प्रेमळ आसपाक जाय. अशें आसलें जाल्यारूच बरें जाता. आमच्या सोमण सराचें काळीज व्हडलें आशिल्लें. ताच्या काळजांतल्या प्रेमाचो झरो ओंठांतल्यान देंवतालो देखून तो विद्यार्थ्यांक जाय जायसो दिसतालो.

गणीत विशयाचें आनी म्हजें केन्ना जुळ्ळें ना. पयशे मेजपा इतलेंच म्हजें गणिता कडेन नातें. खंयच्याय विशयाची आवड निर्माण जातली जाल्यार तो विशय शिकोवपी शिक्षक कसो आसता हाका खूबच म्हत्व आसता. विद्यार्थ्यां मदीं एखाद्या विशयाची आवड निर्माण करपाचें काम शिक्षकाच्या कसबाचेर थारता. सवेक आसतना जठार म्हूण एक शिक्षक आमकां शिकयतालो. तो गणीत शिकोवचे परस म्हजी नाखटांच चड तपासतालो. म्हजी नाखटांच अशीं की तीं कितलीय बारीक केलीं तरी तीं वाडल्याच कशीं दिसतात. तें ताका कळनाशिल्लें. ताका लागून ताचे विशीं म्हाका तेन्ना आपलेपण दिसलें ना. ताचो परिणाम म्हळ्यार हांव गणीत विशया पसून पयसूच उरलों. म्हजो बालमित्र बभ्रुवान गणितांत हुशार. ताचें आनी सुतार गुरुजींचे शिकवणेक लागून हांव धावी पास जावंक पावलों. आयज जठार सर मेळटा तेन्ना प्रेमान उलयता.

सातवेक आशिल्लो तेन्ना चाफाडकार म्हूण एक टिचर हिंदी शिकयताली. ती लांबचे लांब कविता पाठ करपाक लायताली. ती

कवितांचो अर्थ सांगता तो म्हज्या काळजा मेरेन पावनासलो. तातूंत तिची कितें चूक आसा? म्हाका कविता पाठ जायनासल्यो. ताका लागून तिणें आमकां तापोवप. टिचरीचें काम टिचर करताली. कविता ह्या प्रकाराचोच म्हाका वीट आयिल्लो. कविता पाठ करची पडटा म्हणून हांव वर्गांतच वचप टाळटालों. वाटेर खंय तरी लिपून रावप आनी स्कूल सुटपाच्या वेळार घरा वचप. एक दीस कविता पाठ जावना म्हूण तिणें बडयो मारल्यो. हांवें तिचो हातूच धुकलून उडयलो आनी बोटवो घेवन घरा धांव मारली. त्या वर्सा हांव परिक्षेकूच बसलों ना. शिक्षणा वेली म्हजी वान्साच गेली. ताचीं कारणां कोणाक कळळीं ना. तीं सोदपाक आयचे वरी तेन्ना समुपदेशकय (कावनसीलर) नाशिल्ले. आनी न्याय मागपाक मानवी हक्क कायदोय आशिल्लो काय नाशिल्लो हें लेगीत खबर नाशिल्लें.

काले, जात्रा, क्रिकेट, कॅरम, गड्डे, कोंयडेबाल, मुसांचो खेळ म्हळ्यारूच सुंदर संवसार अशें म्हाका दिसपाक लागलें. वाळेसपणाचीं सगळींच लक्षणां म्हाका प्रीय दिसूंक लागलीं. म्हज्या घरांत शिक्षणाची पयलीं सावनच परंपरा आसा. आवय लेगीत त्या वेळार पुर्तुगेज 'सेगुनग्राव्ह' पास जाल्ली. ते भायर मराठी चवथीय शिकिल्ली. घरांतले सगळेच बेजार जाताले. धोडावन म्हजें पणसूल पिकोवपाचें काम सगळेच करताले.

जून सुरू जातकच परतून स्कुलांत गेलों. तेन्ना म्हाका सोमण सर मेळ्ळो. त्याच काळांत मित्र म्हूण उदय म्हांब्रो भेटलो. सोमण सराली आनी म्हांबऱ्याल्या घराब्याची बरी इश्टागत. तो ताका घराय वचून मराठी शिकयतालो. पानवालीच्या धर्मान खंय म्हसकाकूय उदक पडटा, तशें म्हाकाय उदक पडपाक लागलें. ज्या कविता ह्या प्रकाराचो म्हाका वीट येतालो ते कविते विशींची म्हजी अभिरुची वाडपाक लागली. सोमण सर तेन्ना सावयवेऱ्यां भाड्यान रावतालो. ताचे वांगडा इंग्लिश विशयाचो जाणकार प्रेमानंद नायक सरूय रावतालो. हांव सोमण सरागेर वचूंक लागलो. प्रेमानंद सरूय म्हाका इंग्लिश कविता विसकटावन शिकोवंक लागलो.

ल्हवू ल्हवू ह्या दोनूय शिक्षकांचो हांव मित्रूच जालों. कवितेच्या प्रेमांत पडलो आनी हांवूच कविता जालो. सोमण सरान म्हाका प्रचंड प्रेम दिलें. म्हाका समजून घेतलो. म्हजें बरें जावचें अशें ताका मना पसून दिसतालें. ल्हव आवाजान ताचें उलोवप, ताची चाल मेरेन एक कविताच कशी. ताच्या काळजांत प्रेम सोडून म्हाका दुसरें कांयच दिसूंक ना. ताचें म्हजें वेलें प्रेम उणें जायत हें भिरांतेन हांवें शिकपाक नेट धरलो. सोमण सराचें अवांतर वाचन बरेंच आशिल्लें. मराठी साहित्याचोय ताका अभ्यास आशिल्लो. ताच्या शिकपाचे पद्दतींत वेगवेगळ्यो देखी आसताल्यो. त्यो आमकां आवडटाल्यो. त्या वर्सा आठवेक हांवें तिसरो नंबर घेतलो. जो हांवें हाचें आदीं केन्नाच घेवंक नाशिल्लो. सोमण सराक उमेद जाली. ताणें हांमून म्हजे फाटीर हात ओडलो आनी असोच शीक म्हूण आशिर्वाद दिलो. घरच्यांक जमलेंना तें काम सोमण सरान प्रेमान केलें.

जीवन बदलूंक लागलें. गड्डे, कोंयडे बाल, कॅरम, मुसांचो खेळ पयस गेलो. मुसांचो खेळ म्हळ्यार कितें? असो कोणाकय प्रस्न पडूं येता. देखून ताची फोडणिशी करतां. तो एक पावसांत वेळ पासार करपाचो जुगाराचोच प्रकार. कोणाल्या तरी दुकानाचे पडवेर चार-पांच जाण बसप. पांच पांच पयशे जमनीर उडोवप. आतां पांच पयशे पळोवंक पेळनात. जाच्या पयशांचेर पयलो मूस बसता ताणें सगळे पयशे व्हरप. असो हो खेळ चालूच उरिल्लो जाल्यार आयज हांव कसीनोचेर पावपाचो. भुरगेपणांत हांव हें सगळें करतालों. अशें आयज सांगतां तेन्ना म्हजेर कोणूच विस्वास दवरिना. हाचें स्रय म्हाका म्हज्या सोमण सराक दिवचें पडटलें. मनीस घडोवप म्हणटा तें अशें आसता.

ह्याच काळांत उदय म्हांब्रो आनी हांव कोंकणींतल्यान कविता करपाक लागिल्ले. सोमण सर म्हजे कडल्यान मराठी नाट्यछटा कोंकणीत करून घेवंक लागिल्लो. मुख्याध्यापक म्हूण त्या काळार भौ. रामराव कुंकळकार आयिल्लो. ताची घरकान्न सीता (मेघना) आमकां भौतीकशास्त्र शिकयताली आनी मदीं मदीं आमच्यो कवितायं तपासताली. खरें म्हळ्यार आमच्या सोमण सराक मराठी साहित्यांतले खाच खळगे बरे कळटाले.

पूण ताका आमी कोंकणीतल्यानच बरोवन व्हडले जावचें अशें दिसतालें. खंयचेय भाशेंत बरयलें म्हूण कांय ना रे. तुमी बरयले बगर कोंकणी व्हडली कशी जातली? असो प्रस्न तो करतालो. हांव नव्यो कविता बरयतकच ताका दाखयतालों. ताच्या प्रोत्साहनांतल्यान हांव सामको कवितेच्याच प्रेमांत बुडलो. ह्याच स्कुलान म्हाका कवितेन सतायला. वर्स फुकट घालयलां तेच कवितेन म्हज्या मनाचें शुद्धीकरण करून म्हाका वाडयला. देखून सोमण सराचे आनी कवितेचे हांव उपकार मानतां. शिक्षक कसो आसचो हाचें सुंदर उदाहरण दिवचें जाल्यार सोमण सराचेंच दिवचें पडटा. विद्यार्थी म्हणून खूब शिक्षक पळयले, पूण काळजांतली सोमण सराची सुवात आनीक कोणाक मेळूंक शकली ना.

हांव णववेक पावलों तेन्ना सोमण सराक ट्रेनिंगाक वचचें पडलें. तो वता म्हणून आमकां वायट दिसलें. ताचे बदला मराठी शिकोवपा खातीर एक नवी टिचर आयली. तात्पुरत्या तत्वार तिची नेमणूक जाल्ली. हें आमकां तेन्ना कळूंक ना. तिचें नांव माधुरी मुंज. (आयची प्रियदर्शनी तडकोडकार) ती मडगांवची. वळवय कामतीगेर रावताली. तीय म्होंवाळ आवाजान शिकयताली. भुरगे बोवाळ करताले तेन्ना ती बेजारताली. उदय आनी हांव कविता करता हें तिका कळिल्लें. हांवूय केन्नाय तिका कविता वाचून दाखयतालों. एकदीस फुलाचेर बरयिल्ली कविता तिणें आवडली म्हूण सांगलें. सभावान मातशी लागोळीशी. एक दीस म्हाका आनी उदयाक कडेक व्हरून तुमी कोंकणींत कित्याक बरयतात? असो प्रस्न केलो. डबक्यांत पेंवचे परस मराठीच्या म्हासागरांत पेंवात, व्हडले जातले, असो टिचरीन आमकां प्रेमाचो सल्लो दिलो. हेरशीं टिचरीन कितेंय सांगल्यार भुरग्यांक खरें दिसता. पूण आमी कोंकणीच्या प्रेमांत पडिल्ले. सोमण सरूय मराठी शिकयतालो. ताणें आमकां कोंकणींत बरोवं नाका अशें केन्नाच सांगूंक ना. लेखकांनीच भाशा समृद्ध करपाची आसता, अशें सोमण सर म्हणटालो. आमी पेंवता ते डबकें जावं, तेंच व्हडले करुंया असो विचार आयलो आनी म्हासागरांत पेंवपाचो टिचरीचो सल्लो कडेक दवरलो. आमी पेंवताले थंयच पेंवूक लागले. त्या उपरांतच्या काळांत

माडवी आनी जुवारी न्हंयंतल्यान तरातरांचें उदक व्हांवन गेलें. गोंय विद्यापीठांत कोंकणी पावली आनी एक चमत्कार घडलो. प्रियदर्शनी तडकोडकार नांवाची कोंकणी तज्ञ त्या विभागाच्यो मुखेली जाल्यो. म्हळ्यारच तेन्ना डबक्याचो म्हासागर जालो अशें म्हाका मना पसून दिसलें. उमेद जावपा सारकीच ही खबर.

म्हजी टिचर कोंकणीची मुखेली जाली म्हूण म्हाका तिचो सदांच अभिमान. म्हजो पयलो कविता झेलो 1987 वर्सा उजवाडाक आयिल्लो त्या काळार म्हजी टिचर खंय आशिल्ली ती मात म्हाका खबर ना. जाण्ट्या आनी नव्या कोंकणी कवींच्या कवितांचो समिक्षेचे पद्दतीन नियाळ घेवपी एका व्हडल्या पुस्तकाची तिणें निर्मणी केल्ली. त्या पुस्तकांत म्हाका म्हजें नांव मेळ्ूंक ना. टिचरीक याद उरली ना आसतली असो समज करून हांवें म्हज्या मनाचें समाधान करून घेतलें.

स्कुलांतले दीस सोंपतकच आमी जण एकलो आपआपल्या मार्गान गेले. हांव धेंपे कॉलेजींत जाल्यार उदय, दिलीप शिलकार, प्रकाश द. नायक धेंपो कॉमर्सांत गेले. कोण धंद्यांत गेलो. कोण टिचर जालो. कांय जाण घराच उरले. हांव पत्रकारितेच्या व्यापांत घुस्पलो. आमचो सोमण सरूय मेळना जालो. आमींय आमच्या नव्या विश्वांत रममाण जाले. मदल्या काळांत सोमण सराची घरकान्न- कविता संवसाराक अंतरली म्हणपाची खबर कळ्ळी. एक दीस फोंड्या वचून हांव सोमण सराक मेळ्ळों. ताचें बाविल्लें मुखामळ म्हज्यान पळोवंक जालें ना. ताचेर अरिश्टूच कोसळिल्लें. चड उलयनास्तना हांव फाटीं परतलों. हांव, उदय बी मेळटकच ताका खूब आनंद जातालो. दुख्ख घेवन बसपाक वेळ कोणाकूच आसना. ल्हवू ल्हवू सोमण सरूय विद्यादानांत व्यस्त जालो.

कांय वर्सां सरलीं. एक दीस धा साडे धांच्या अदमासाक हांव, सरीता, स्नेहा आनी समीधा म्हजे मारुतीन बसून सावयवेऱ्यां सावन पणजे वतालीं. केआरएसएम विद्यालयाच्या गेटी कडेन म्हाका सोमण सर दिसलो. ताणें म्हाका पळयलो. नकळटांच गाडयेचो ब्रेक लागलो. बेगीबेगीन देंवलों, सरा म्हज्यान वचपाक. पूण सरूच गाडयेच्या दारा

कडेन आयलो. 'संजीव, तूं केदो व्हडलो जालो रे, तुज्यो कविता हांव वाचतां. पाठ्यपुस्तकानीय आसात', अशें सांगून म्हजी अपुरबाय करीत रावलो. हें दृश्य पळोवन बायल भुरगीं अजाप जालीं. म्हाका मळब भुंयेर देविल्ल्याचो आनंद जालो. सर तेन्ना केआरएसएस हायस्कूलांत हेडमास्टर जावन आयिल्लो. म्हाका खूब बरें दिसलें. कांय दिसांनी सरान म्हाका स्कुलांत एके कार्यावळींत मुखेल सोयरो म्हूण आपयलो, आनी फाटल्यो सगळ्यो यादी ताज्यो केल्यो. कांय यादी म्हाकाय नाशिल्ल्यो. पूण सरान आपल्या काळजांत त्यो तश्योच सांबाळून दवरिल्ल्यो. त्या दिसा तें गांठवल सरान उक्तें केलें. ताचें मन कितलें विशाल मळब कशें हेंच हाचे वयल्यान दिसून येता.

कांय मनशांचो जल्म थारावीक कामा खातीरच आसता. ताच्या कौशल्याचो खरो उपेग त्याच कामांत जाता. प्रत्यक्ष दुयेंतीक तपासून दुयेंस सोदून ताचेर उपचार करपी दोतोराक हॉस्पिटलाचो डीन केलो म्हूण ताचे कडेन प्रशासन हाताळप जाताच अशें ना. हजारांनी वायटकारांक जिवदान दिवपी दोतोर प्रशासक म्हणून नपासय जातात. तेन्ना सगळीच वाट लागता. आमच्या सोमण सराचें तेंच घडलें. सर मुख्याध्यापक जातकच त्या स्कुलाच्या वेवस्थापनान ताका मातूय समजून घेतलो ना. प्रशासक म्हूण सोमण सर अयोग्य अशीच ताची प्रतिमा उबी करपाचो प्रयत्न जातालो. हांगा सराले पुर्वपुण्यायेचो मातूय उपेग जालो ना. निवृत्ती उपरांतय ताका ज्यो यातना भोगल्यो त्यो हांवें पळयल्यात. सर पुरायपणान गळसणिल्लो. घरांतल्यान भायर सरप उणें केलें. सराचो उत्तरार्ध म्हज्यान पळोवं नजो जालो. सराचें दुख्ख म्हाका असह्य जातालें. प्रशासक म्हणूनच न्हय, कुटुंबीक जिणेंतूय आपूण अपेशी थारिल्ल्याची भावना तो म्हजे कडेन उक्तायतालो. ताका न्याय मेळचो म्हूण आमच्या उदयानूय आपले परीन यत्न केले. खरें म्हळ्यार आपणाक पेलचें ना अशें दिसता तें धोणू उबारूंकच फावना. हातूंतच खरें शाणेपण आसता. सर सादेभावार्थी. ताका तें कळ्ळें ना. समाजांतली 'चालूगिरी' ताच्या शिश्यांक कळटाली, पूण गुरूक कळनासली. गुरू चड निश्पाप

आशिल्लो. हेंच ताचें कारण आसूं येता. सर निवृत्त जावपाक वर्स देड वर्सच उरिल्लें. अशा वेळार वेवस्थापनान ताका सांबाळूंक जाय आशिल्लो, अशी आमची भावना. पूण खंयच्याय वेवस्थापनाची एक मानसीकता आसता. थंय भुल्लसून वचूंक जायना. 'प्रोफेशनल' पद्दतीनूच वागपाचें आसता. नेमकें सराक हेंच कळ्ळें ना. ह्या प्रसंगांतल्यान सर दिशीं दिशीं अलिप्त जायत गेलो. शिरोड्या ताचें घर. तुषार आनी आशीश हे ताचे पूत. ते आमकां तेन्ना वळखनासले. ह्या पुतांच्या फुडाराची सराक खूब चिंता आशिल्ली. विद्यार्थी आसतना सरान विद्यार्थ्यांची चिंता केली. म्हज्या जिवितांतलो काळोख पुसून उजवाड केलो. पूण दिव्या पोंदचो काळोख म्हाकाय दिसलो ना, हाची म्हाका खंत भोगता! स्कुलांत आसतना आपलेंच मानून सर म्हाका आनी उदयाक घेवन भोंवतालो. मंगेशी ताचो भावोजी राजाराम जावडेकार रावतालो. एकदीस पुनवेक सरान आमकां तागेर लेगीत रातचे रावपाक व्हेल्यात. ताची म्हाका केन्नाय याद जाता. सराचो फोटो सोदपाक 34 वर्सां उपरांत हांव जावडेकराल्या घरांत गेलो तेन्ना सराचे यादीन दोळ्यांत दुकां आयलीं.

2009 वर्सा इश्टमंडळान म्हजो पन्नासावो वाडदीस मनोवपाचें थारायलें. 'चैतन्याच्यो पावल्यो' ह्या म्हज्या नव्या पुस्तकाचें त्या दिसा विमोचनय दवरिल्लें. हें पुस्तक हांवें सराक अर्पण केलां. सराक ते कार्यावळींत आपोवन ताचो भोवमान करपाच्या गुप्त कार्यावळीची आंखणी केल्ली. पूण सर आयलोच ना. कांय काळा उपरांत सर संवसारांतल्यान उठून गेलो. म्हाका खूब उसरां कळ्ळें. एके निर्मळ कुडीचें निमणें दर्शन घेवंक म्हाका मेळ्ळें ना, हाची सदांच खंत भोगली, पूण हांवें रंगयिल्ल्या ह्या ताच्या व्यक्तीचित्रांतल्या माध्यमांतल्यान हांव सराक आर्गां ओंपतां. सराचो आत्मो शांत जावं.

# निस्वार्थी समाजसेवक

कांय जाणांचो जल्म दुसऱ्याचे सेवे खातीरूच आसता. रमेशाचोय जल्म तेच खातीर आसा. समाजाची सेवा करपाक जो प्रेमान वावुरता, धडपडटा ताची आपल्या कुटुंबा कडेन मातशी आडनदर जाताच. पूण तांचेर देवाची नदर आनी कृपा आसता.

**आरबीएस (रमेश कोमरपंत)**



**एक** दीस चावडेर काणकोणां 'घोटेरांत' भितर सरलों. हेरशीं घोटेरांत सवणीं रावतात. चावडे वेल्या ह्या घोटेरांत मात सवण्या वरी निर्मळ मनाचे मनीस रावतात. देखून ह्या आरबीएसाल्या घोटेरांत कोणूय पावतकच मनाक थाकाय मेळटा. आरबीएस म्हळ्यार रमेश बाबय कोमरपंत. काणकोण म्हालांतलें एक दिलदार आनी लार्ग व्यक्तीमत्व. रमेशाली घरकान्न कुलश्री आनी भुरग्यांनी म्हाका हांसून येवकार दिलो. रमेशाल्या पांयांक सदांच रोदां आनी घोड्याची गती. त्या वाठारांतल्या चडशा लोकांक रमेशाची गरज. ताका लागून ताचो सदांच एक पांय भायर आनी एक पांय घरांत. फाटल्या कितल्याशाच वर्सां सावन हांव ताका अस्तोच पळयतां. इतल्यान रमेश घरा आयलो आनी यो तुका बदलिल्लें काणकोण दाखयतां म्हणून स्कूटरीचेर बसोवन बद्द आपल्या म्हाल घरांत घेवन गेलो. रमेश वांगडा नाशिल्लो जाल्यार हांव वाट चुकलों म्हणून परतून वचपाचो.

ताचेंय म्हाल घर नवसरलां. घरा फाटलें झाडांचें रान वचून बेत्याचें रान उबें जालां. ह्या घरांत हांव 33 वर्सां उपरांत पावल्लों. रमेशालो धाकलो भाव सुभाष हांसत हांसत भायर आयलो. आनी फाटल्यो यादी काडीत काडीत म्हाका येवकार दिलो. फाटल्या इतिहासाचें एक एक पान परतत गेलें. कितल्योशयोच यादी जित्यो जाल्यो. घरा फुडल्या आंगणांत कितलींशींच गोरवां आसतालीं. थंयच बसून हांव कितलेशेच फावटी

जेवलां. रमेशालो आवय बापूय आनी एक भाव प्रभाष आयज संवसारांत ना. रमेश व्हडलो. ताची भावंडां खूब. सुभाष, गोविंद, कृष्णा, संदीप, संजय, अनीता, संगीता ह्यो भयणी. लग्न जाल्यांत आनी प्रत्येक जाण आपआपल्या संवसारांत आसात. त्या काळार हीं सगळीं सामकींच भुरगीं. फाटल्या यादींनी हांव मातसो भावनीक जालो. तें पळोवन रमेशान म्हाका घरा शेजरा आशिल्लो तेन्नाचो हो एकूच आंब्याचो रुख उरला म्हणपाचें सांगून विनोद केलो. हांवें 'घोटेरांत' च्या घेतिल्ली म्हणटकच हांवें म्हाका च्या बी नाका म्हूण सांगलें. पूण सुभाषान, ह्या घरांत कितेंय तरी घेवंकच जाय म्हूण आगरो केलो आनी च्या हाडून दिली. रमेशालें घर नवसरलां. वाठार बदल्ला, पूण घरांतल्या मनशाचें प्रेम आदलेवरीच आसा हें पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें. तागेले भाव-भयणी म्हळ्यार मित्र कशे. सगळे जाण अजूनय एकेच कडेन बसून पार्टी करतात, आमचो रमेश हें अभिमानान सांगता. हालींच्या काळांत चडशा कुटुंबांनी एका भावाचें तोंड अस्तमेक जाल्यार दुसऱ्याचें उदेंतेक आसता. कांय जाणांच्या भावांक वर्सांचें जाल्यार कांय भावांक आस्पतींचें व्हडपण आसता. ताका लागून प्रेम नांवाच्या उतराक थंय जागो नासता. ह्या घरांत प्रेमूच चड आसा, हें पळोवन तांचें सगळ्यांचें कवतूक दिसता. हें सगळें चडशें स्रय रमेशाच्या प्रेमळ सभावाक आनी विचारसरणेक वता. रमेश थंयचे भारतीय स्टेट बँकेंत काम करतालो. हालींच निवृत्त जाला. काणकोण म्हालांतले चडशे लोक ताका आरबीएस म्हणूनच वळखतात. कोणूय अनवळखी लेगीत बँकेंत भितर सरतकच कितलोय कामांत व्यस्त आसूं, कितें काम आसा? असो प्रस्न करून सेवेक हजर रावपाक एक मनीस फुडें येतालो. तो आरबीएस. असल्या बँकांनी चडशे गोंयां भायलेच लोक आसतात. ते थळाव्या लोकांक वळखनात. वळखलेय म्हणून आपूण जावन मजत करपाची भावना आसना. ताका लागून असल्या आस्थापनांनी मातशें खांकडूंक जाता. अशा वेळार काणकोण म्हालांतल्या सर्वसामान्य आनी अशिक्षितांक रमेशाचोच आदार जातालो. रमेश निवृत्त जाल्ल्यान हो आदार आतां ना. थंयचे बँकेंत रमेशाची गैरहजेरी जाणवता, अशें म्हाका

एक दीस म्हज्या मेवण्यान सांगलें. तेन्ना म्हजे हड्डें फुलून आयलें. आपल्या मित्रा विशीं कोणेय बरें उलयिल्लें कोणाक आवडचें ना? तातूंत आनी कोंकणीवाल्या विशीं. हालींच्या काळांत चडशा कोंकणीवाल्यां विशीं व्हडलेंशें बरें उलयिल्लें आयकूंक येना. तें वेगळें. कांय जाणाचो जल्म दुसऱ्याचे सेवे खातीरूच आसता. रमेशाचोय जल्म तेच खातीर आसा. समाजाची सेवा करपाक जो प्रेमान वावुरता, धडपडटा ताची आपल्या कुटुंबा कडेन मातशी आडनदर जाताच. पूण तांचेर देवाची नदर आनी कृपा आसता. म्हणटकच चड लुकसाण जायना. हें म्हजें वाक्य अंधश्रद्धा निर्मुलन वाल्यांक आवडचें ना. म्हज्यांतल्या संस्कारांतल्यान असलीं उतरां भायर सरतात. म्हणटकच ताका उपाय ना.

रमेशालें आनी म्हजें वळखीक एक व्हडली फाटभूंय आसा. आमची वळख बरीच पोरणी. 34 वर्सां आदली. स. शांतारामबाब हेदे हांचे अध्यक्षतायेखाला 14 फेब्रुवारी 1981 वर्सा काणकोणां एका शेतांत अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन भरिल्लें. हांवूय तेन्ना भुरगोच. साहित्य संमेलनाक हजर रावपाचो म्हजो पयलोच अणभव. म्हणटकच हांव सगळें बारीकसाणीन तेळटालों. ताचे उपरांत हांव कितल्याशाच साहित्य संमेलनाक हजर आसा. सांवड्ड्या कुडचड्या वेलें संमेलन सोडलें जाल्यार काणकोणां जे पद्दतीन आयोजन जाल्लें तसलें संमेलन हांवें अजून पळोवंक ना. तें येसस्वी करपाक कितलेशेंच थळावे तरणाटे आनी जाण्टेय वावुरल्यात. पूण आरबीएस, उल्हास पै भाटीकार आनी मान्युएल फॅर्नांडीस सोडून हेरांची व्हडलीशी याद जायना. रमेश सामको भार आयिल्ले वरी वावुरतालो. ख्रंयचेंय भौशीक कार्यावळ एका मनशा कडेन येसस्वी जायना हें खरें आसलें तरी हें संमेलन जैतवंत करपा फाटलो रमेशालो वांटो मात नदरेक भरपा इतलोच्च आशिल्लो अशें हांव म्हणन. त्या काळार कोंकणी म्हणटकच चडशे लोक तोंड वांकडे करताले. कोंकणीच्या कार्यावळीक वावुरपी सोडून दुसरे लोक येवन बसतात अशें चित्र दिसप कठीण आसतालें. काणकोणां संमेलनांत तें चित्र पळोवंक मेळ्ळें तेन्ना कोंकणी भाशेच्या प्रेमा खातीर प्रामाणीकपणान सेवा करपी

लोकांचे आशेक चंवरां धरूंक लागिल्लीं. ताचें स्रय हांव रमेशाल्याच कार्याक दिता. पूण कोंकणी चळवळ ही ताची मूळ वळख न्हय, आनी समाजा मुखार येवपाचें तें ताचें खरें माध्यमय न्हय. ताचो पिंडूच समाजसेवेचो. जात, धर्म, भास, पक्ष हाचो कसलोच विचार करिनासतना कसल्याय प्रसंगार दुसऱ्याच्या आदाराक धांवप हो ताचो सबाव. ताका लागून समाजांत ताका पत आशिल्ली. आतांय ती आसाच. त्या काळार कोंकणीची चळवळ थारावीक लोकां पुरतीच मर्यादीत आशिल्ली. खंयचोय वेगळो विचार सर्वसामान्य लोकां मदीं पावयतलो जाल्यार तो विचार घेवन येवपी मनीसघाणो आनी सुवार्थी आसूंक फावना. शेजारी दुयेंत पडलो जाल्यार ताका दोतोरागेर व्हरता, रस्त्यार अपघात जालो जाल्यार धांव मारून मजतीक वता तशेंच गांवांतल्यो भौशीक कार्यावळी, उत्सवांकय जांची हजेरी आसता, तांणी कितेंय कोणाकूय सांगपाचो यत्न केलो जाल्यार लोक ताचें आयकून घेतात. असले गूण नाशिल्ल्या लोकांनी कितलोय बरो विचार घेवन बाजारांत येवन गुडी नाचोवपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार ताका कोण पातयेना. रमेशा कडेन हे सगळे गूण आसात. देखूनच काणकोणाच्या संमेलनांत थळावे लोक वांटेकार जाले. आरबीएस हो कोंकणी चळवळीक मेळिल्लो 'रोल मॉडेल' अशें आमचो प्रुडंट मिडियाचो आदलो संपादक संदेश प्रभुदेसाय म्हणटा. गांवागांवांत जर चळवळी खातीर असले 'रोल मॉडेल' मेळिल्ले जाल्यार कितलें बरें जावपाचें!

आमच्या कांय फुडाऱ्यांनी सर्वसामान्य लोकांच्यो व्यथा वेदना तांचे प्रस्न हाचे पसून पयसूच रावप पसंत केलें. आनी कोंकणीची गुडी घेवन नाचले. कांय जाणांनी तर नास्तिकाचें संवंग घेवन लोकांचे देवावेले श्रद्धेचेरूय टिकेच्यो कुराडी मारल्यो. समाजांत आपल्यो आरती गावच्यो म्हणून गणपतीच्यो आरती बरयल्यो आनी म्हाका चवथ व्हडलीशी लागना अशें सांगून देवाची भक्ती करप्यांच्यो भगल्यो उडयल्यो. लोकवेदाचें जतन जावचें म्हणून लेख बरयले आनी मांडा वयले रानदेवतेक जावं मांडाच्या गुरूचें नमन करप्यांक उणे लेखले. हे विसंगतीचोय चळवळीचेर परिणाम जालाच. रमेशान असलें करूंक ना. ताणें मनशाचेरूय प्रेम केलें. देखून तो

काणकोण आनी भोंवतणच्या लोकांक जाय जाय सो दिसता. संमेलनाच्या निमतानच ताची आनी म्हजी वळख घडिल्ली. त्याच काळांत मंगळूरांतले एक नामनेचे नाटककार आनी कवी चा. फ्रा. द कॉश्ता गोंयांत आयिल्लो. 'हाड चेडवा बुडकलो लकय ताळ्यांतू', 'हांव खर्शेलो' अश्यो एका परस एक ताच्यो कविता आयकून हांव चाफ्रा वांगडा मंगळूरच्याच प्रेमांत पडलो. स्वातंत्र्य सैनिक आनी कवी नागेशबाब करमली आमकां पणजेच्या टी बी कुन्हा सभाघरांत वतकच मंगळूरांतल्या कोंकणी समाजा विशीं सांगता तें आयकून कुतूहल दिसतालें. तरणाटे अवस्थेंत केन्ना कसलें पिशें लागत हें सांगू येना. हांव सामको चळवळीन भाराविल्लों. गोंय तें मंगळूर मेरेन पदयात्रा काडपाचें खूळ म्हजे तकलेंत रिगलें.

तेन्नाचो म्हजो एक इश्ट सज्जन तारीन म्हाका तयारी दाखयली. नागेशबाबाचे मजतीन आकाशवाणी केंद्रा वयल्यान कोंकणी कवींच्या कवितांच्यो कॅसेटी तयार करून घेतल्यो. कारवार ते मंगळूर मेरेनच्या दर्यादेगे वयल्या लोकांक त्यो वाजोवन दाखोवन कोंकणीची जाग्रुती करपाचें आमचें ध्येय आशिल्लें. 1 मे 1981 दिसा काणकोणां रमेशाल्या घरांतल्यान पदयात्रेक आरंभ केलो. आदल्या दिसाच आमी तांगेर वचून राविल्ले. रमेश आनी मान्युएल फॅर्नांडीस आमची बॅगां घेवन आमकां काणकोणच्यान पोळ्याचे शिमे मेरेन पावपाक आयिल्ले. केदें व्हडलें तांचें हें प्रेम आनी तळमळ! चौदाव्या दिसा आमी मंगळूराक पावले. चा. फ्रा. बाबान आमचें उत्स्फूर्त स्वागत केलें. भोंवडी येसस्वी जाली. तेन्ना सावन रमेशाची आनी म्हजी इश्टागत घट्ट जाली. तेन्नाचो खीण हांव केन्नाच विसरूंक शकना.

आमच्या ह्या कार्याची नवे पिळगेक वळख ना. चलून मंगळूराक गेलों हाचेर म्हज्या भुरग्यांचोय विस्वास बसना. कोंकणी चळवळींतलेय फुडारी ताची याद काडिनात. पूण रमेश दर खेपे पदयात्रेची याद काडटा आनी म्हज्यो पोरण्यो यादी जित्यो करता तेन्ना म्हाका बरें दिसता.

आमच्या रमेशाचें भुरगेपण सामकेंच गरिबींत गेलें. ताच्यो यादी तो विसरूंक ना. कोणेय एका पयशाची लेगीत मजत केल्यार आपणाक खूब

व्हडलें जाता रे, अशें तो म्हाका केन्नाय म्हणटा. ताचो बापूय बँकेंतल्यान निवृत्त जातकच स. मोहनबाब नगर्शेकार हांणी ताका तेच बँकेंत सात्र मारपाची नोकरी दिली. नगर्शेकार बाबाक लागून आपल्या कुटुंबाचें पुनर्वसन जालें अशें सांगून रमेश दोळ्यांत दुकां हाडटा. आमचे मर्दी कांय पडमूर आसात. ते असल्या मनशांक ओंवळीचें कांड कशें झरोवन तांचो वापर करतात. आमी कोंकणी चळवळींत आसा म्हणून सगळ्यांनी आपलीच पूजा बांदची, दर खेपे आपणाकच पालखेंत बसोवन हेरांनी मिरवणुको काडच्यो अशी तांची भावना आसता. रमेशाकूय तें कळटा. ताचें ताका वायटूय दिसता. बँकेंतल्यान रमेश निवृत्त जालो तरी अजून बँक ताका सोडिना. तो करतालो तीं कामां करपाक कोणूच तयार नासता. थंयच्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांक चांटेपावलाक अजूनय रमेशाची गरज भासता. कोंकणीची सेवा आपूण प्रामाणीकपणान करता हाचें ताका समाधान आसा. पूण चळवळीच्या वेळार आपूण भारावन गेलों आनी स्वताच्या फुडाराचो विचार करूंक मात्सो विसरलों हाची खंत तो चळवळीतल्या कांय फुडाऱ्यांची सुवार्थी वृत्ती पळोवन उक्तायता.

रमेश दानी, ताचे कडेन सोंपेपणान ना म्हणप जायना. केन्ना केन्ना ना म्हणपाकय कळपाक जाय. तें कळना जाल्यार मनीस पिसो थारता. सुवार्थी लोक मनशाक गृहीत धरतात. दान कसलेंय आसूं. प्रेमाचें, मजतीचें जावं पयशांचें. जाका दान करता तें सतपात्र आसा काय ना हाचो विचार करपाक जाय. आपणे कश्ट करून जोडिल्लो दुडू कोणाच्या तरी फोल्गाक खर्च जावंक फावना. हाचें धंगण दरेकान बाळगुपाचें आसता. तें बाळगीलें ना जाल्यार समाज आमकां ओंवळीचें कांड करूनच झरयत रावतलो. टिश्यू पेपर कसो वापरून भायर उडयतलो, अशें हांवें ताका एक दीस प्रेमान सांगलें, तेन्ना ताचे दोळे भरून आयले. चळवळींतले फुडारी आनी कवी आनी विचारवंत उदयबाब भेंब्रे रमेशाचें दैवत. ताका कोणेय कितेंय म्हणिल्लें जावं ताका खत पडपा सारकें कोणेंय कितें केल्लें रमेशाक मानना. उदयबाबान स्वता खातीर कांयच केलें ना. जें केलें तें राज्या खातीर, कोंकणी भाशे खातीर. आपले सारको सामान्य मनीस हे

चळवळींत देंवलो तो उदयबाबा खातीरच, अशें तो म्हणटा. एका काळार हे चळवळींतले वावुरपी म्हळ्यार घरांतले वांगडी कशे दिसताले. उदयबाबा सारक्या निस्वार्थी फुडाऱ्यांच्या पुण्यायेचें भांडवल करून कांय फुडारी विकृत वागूंक लागल्यात ताचे वायट परिणाम उदय बाबांच्या स्वच्छ आनी संस्कारी प्रतिमेचेर जाता अशें सांगून ताणें आपल्या काळजांतलें दुख्ख म्हजे कडेन उक्तायलें. ताचें हें दुख्ख खरें. आमकांय तें तोपता. चळवळींतल्या कांय बऱ्या लोकांनी असल्या विकृत लोकां पसून पयसूच रावप पसंत केलां. उदयबाबाक तें जमूंक ना. रमेशालें दुख्ख आयकून हांवें ताका एक काणी सांगली. परिक्षीत राजाक सोरोप चाबून मरपाचो स्राप आशिल्लो. तो सामको भियेलो. तो चाबचो न्हय म्हूण ताणे काळजी घेतली. दर्यांत पांजरो करून तो रावलो. ताची काळजी घेवपाक ताचे सेवकूय उणे पडूंक ना. ते सामकेच तत्पर आसताले. एक दीस राजाक बोरां खावपाची वान्सा जाली. राजाची इत्सा कोण पुराय करचो ना? सेवकांनी बोरां हाडलीं. एका बोरांतल्यान सोरपाच्या एका पिलान ल्हवूच पांदऱ्यांत प्रवेश केलो आनी परिक्षीत राजाक दंश केलो. ही काणी आयकून आमचो रमेश सामको अस्वस्थ जालो...! जाणटेल्यांची एक म्हणणी आसा. भट पडल्यार खंय शेट धांवता. शेट पडल्यार कोण धांवता? हांवें रमेशाक म्हळें, अस्वस्थ जावं नाका. तुजें आरोग्य तूं सांबाळ. आमचो रमेश आतां चिंतूंक पडला!

# खरो समाजसेवक

नंदू सारक्या मनशां मदीं आशिल्ल्या बऱ्या गुणांची समाजान दखल घेवंक जाय. ह्या गुणांचो गौरव करून ताची पोसवण करूंक जाय. तें केलें जाल्यार समाजांत नवे नंदू निर्माण जातले.

**नंदू (विजयश्याम म्हाड्डोळकार)**



**पंचायतीच्यो**, पालिकांच्यो जावं विधानसभेच्यो वेंचणुको लागीं येतकच आमच्या समाजांत समाजसेवकांचें पीक येता, आनी तें पळयत जाल्यार पुराय समाजाचें कल्याण जावपाक इतलो उशीर कित्याक लागलो तेंच कळना. अशा समाजसेवकांचे वाडदीस मनयतात, तांचे फोटे आनी जायतरातींनी दिसाळ्यांचीं पानांचीं पानां भरतात. तातूंतले कांय जाण चडशे म्हळ्यारच जाता आपूणच पयशे मोडटात आनी वेगवेगळ्या मनशांच्या नांवान जायराती उजवाडायतात. तांचे कांय शेलके तांच्यांत नाशिल्ले गूण सोदून काडपाचो प्रयत्न करतात आनी तांचे गुणगान गावपी लेखूय बरयतात. हानूंतल्यान 'त्या' समाजसेवकांची लोकप्रियता कितली व्हडली हें दाखोवपाचो तांचो लटको प्रयत्न आसता. रातच्या वेळार तरातरांच्यो मेजवान्यो, जाय जाय तसलो सोरो आसता. वळख आसूं वा नासूं. समाजांतल्या सगळ्या घटकांक तांच्या वाडदिसाचीं आमंत्रणां वतात. लोकांकूय निमित्य जाय आसता. तेय असल्या सुवाळ्याक वचून आपली उमेद भागोवन घेतात. उपरांत कांय दिसांनी पावसांत अळंबी येवचीं तशीं शिश्टमंडळां तयार जातात आनी वेगवेगळ्या पक्षाच्या फुडाऱ्यांक मेळून आपल्या उत्सवमूर्तीक वेंचणुकेची उमेदवारी दिवपाची मागणी करतात. तेन्ना इतले नेटान वाडदीस कित्याक मनयलो हें सामान्य मनशांच्या लक्षांत येता. पूण समाजांत अशे कांय समाजसेवक आसतात ते असलें कांयच करिनात, करचें अशेंय तांकां दिसना. तांकां पंच जावपाचें

नासता. सरपंच जावपाचें नासता, आनी आमदारय जावपाचें नासता. तांकां दुसऱ्यांचें बरें करपांतच आनंद आसता. तें करिना जाल्यार तांकां न्हीद पडना, आपलें जीवन व्यर्थ अशी तांची भावना जाता. दुर्दैवाची गजाल म्हळ्यार असल्या समाजसेवकांची लोकूय व्हडलीशी दखल घेना. पूण असल्या लोकांक लागूनच आमचो समाज व्हडलो जाता. हें कोणेच विसरचें न्हय. अशा गुणांनी भरिल्लो अपुरबायेचो नंदू हांव फाटल्या कांय काळा सावन पळयत आसां.

नंदू म्हळ्यार विजयश्याम म्हाड्डोळकार. तो म्हाड्डोळा रावता. फर्मागुडये वेल्या इंजिनीयरिंग कॉलेजींत नोकरी करता. एक सर्वसामान्य मनीस. म्हाड्डोळा जावं कॉलेजींत वचून कोणेय विचारचें विजयश्याम म्हाड्डोळकाराक वळखता काय म्हूण. कोण वळखतसो म्हाका दिसना. पूण नंदू म्हणून विचारलें जाल्यार भुरगो तो जाण्टो मेरेन कोणूय सांगतलो. नंदू ह्याच नांवान ताका सगळे वळखतात.

म्हाका नंदू पयलो केन्ना मेळ्ळो हाची हांव याद करता तेन्ना सादारण चाळीशेक वर्सां फाटीं वचचें पडटा. आयज हांव मंगेशीं रावता आसलो तरी म्हाड्डोळ वाठारा कडेन म्हजो भुरगेपणा सावन संबंद. थंय म्हळ्यार म्हज्या नात्यांतलो दिनेश नायक (दीदी) ताचोय नंदू आनी ताच्या घरच्यां कडेन लागींचो संबंद. आमी केन्नाय म्हाड्डोळच्यो खबरी उलयतात तेन्ना दिदी म्हाका तुजी नाळ हांगाच पुरल्या रे, अशें सांगून विनोद करता. दिनेशाकूय समाजसेवेची आवड. तागेर म्हजें भुरगेंपणा सावन येवप वचप आसा. ताका लागून त्या 'मळा' कडेन म्हजो संबंद. भुरगेपणांत सावयवेरेंच्या एका मित्रा वांगडा हांव एक दीस नंदूगेर दनपारां जेवणाक पावला. नंदूक याद आसा काय ना तें म्हाका खबर ना. डॉ. घनश्याम, सतीश, अनिल, मेघा, मनोज (पुलीस अधिकारी) हे नंदूचे भाव. आमी सगळे एके वळीन जेवपाक बशिल्ले. पूण तातूंतलो नंदू खंयचो आशिल्लो हें म्हज्या लक्षांत येना. पूण आमी सगळे बसून जेवल्यात हाची याद सारकी आसा. उपरांत नंदूक हांवें मळार 'कोयबा' नांवाचो गड्ड्यांचो खेळ खेळटना पळयला. पावसाच्या दिसांनीच भुरगे हो खेळ खेळटाले.

आतांच्या आमच्या भुरग्यांक गड्डे म्हळ्यार कितें हें कळतशें दिसना. ते गड्डे म्हळ्यार भाजी काय म्हणटले. काळा प्रमाण कांय पारंपारीक खेळूय आमचे ना जाले. ते परते जिते जावचे अशें म्हाका केन्नाय दिसता. पूण खेळटलो कोण? नंदू तेन्ना तिरान गड्ड्यार गड्डो मोखतालो. ते खातीर सगळ्यांकच ताची व्हडवीक दिसताली. नंदूचो खेळ पळोवपाक आमकां सगळ्यांक मजा दिसताली. म्हाका तो खेळ तेन्ना कळनाशिल्लो. आमचो नामनेचो आयचो रंगकर्मी प्रशांत, दिनेश, चंदा, नरेश आनी कांय भुरगे पिड्यांचें बॅट आनी तुळशीच्यो विकेटी करून दिनेशाच्या आंगणांत क्रिकेट खेळटाले. प्रशांताक आमी 'पच्चा' म्हणटाले. सुरवातीक तो आपल्या घरा कडल्या सोपणार बसून आमचो खेळ पळयतालो. उपरांत तोय आमचे वांगडा खेळपाक लागलो. तो आमचे परस भुरगो. गोजड्यांचे पड्डे करून तो इतिहासीक नाटकय बरें करतालो. 'नंदू'च्या निमतान त्या काळा वयल्यो यादी बरयतना भूतकाळाचो एक सुंदर प्रवास घडटा आनी मन सुखावता.

उपरांतच्या काळांत म्हजें म्हाड्डोळा वचप उणें जालें. नंदू, प्रशांत, चंदा, नरेश पयसूच जाले. नंदू मागीर म्हाका धेंपे कॉलेजींत मेळ्ळो. पूण संबंद मर्यादीनूच उरले. ताचो भाव डॉ. घनश्यामा कडले संबंद मात वाडत गेले. तो भौशीक जिणेंत म्हळ्यार, राजकारणांत बी आशिल्ल्यान तो मेळूंक लागलो. म्हजो लागींचो मित्र संदेश सामंत इंजिनीयरिंग कॉलेजींत नोकरी करता. तो नंदूचो मित्र. संदेशाकूय समाजसेवेची आवड. दुसऱ्याचें बरें पळोवपांत आनी बरें करपाक ताका आनंद. हालींच्या काळांत असले लोक उणेच आसतात. कांय मनशांक एक वेगळेच तरेचें धार्जिणे आसता. तांणी जर कोणाचेंय कितेंय बरें करपाचो यत्न केलो जाल्यार तो येसस्वी जाता. संदेशाक आशिल्लें हें धार्जिणे म्हळ्यार देवाचें देणें. तो केन्नाय कोणाय बऱ्या मनशांचें उलयता तेन्ना हडकून नंदूचो उल्लेख करतालो. तेन्ना हो नंदू तोच आसूंक जाय अशें म्हाका दिसतालें. तें खरें जालें. तीन वर्सां आदीं नंदूचेच मजतीन संदेशान म्हाका मंगेशी चित्रंगी रेजिडेन्सीत फ्लॅट पळोवन दिलो. हांव आतां थंयच रावतां. तेन्ना सावन नंदू म्हाका परतो दसलो. कांय ऋणानुबंद अशेच आसतात. ताची कारणां सांगूंक मेळनात.

नंदूक क्रिकेट, कॅरम, टेबल टॅनिस, बुद्दीबळ ह्या खेळांची आवड. क्रिकेटी कडलें ताचें नातें सामकें भावनीक. खेळ्ळोना जाल्यार अंपायराचें काम तरी करताच करता. ताका नाटकां, संगीतय आवडटा. कितलीय थंडी पडूं तो वेलंगां वचून नाटकां पळयता. अभिनयाची ताका आवड. भुरगेपणांत गवळणकाल्यांतय ताणे अभिनयूय केला, अशें आमचो दिनेश सांगता. नंदूचें आनीक एक वैशिश्ट्य आसा तें म्हळ्यार खंयूय कितलेंय गंभीर वातावरण आसूं, थंय नंदू पावतकच तो उतरांच्यो कोटयो करून वातावरण सामकें हास्यमय करून सोडटा. ज्या मनशां मदीं असलो गूण आसता तो वातावरणांत चैतन्य निर्माण करता. कोणाल्याय मनांत कसलेंय किलमीस आसलें तरी तें विरगळून वता. नंदूक हें देवी म्हाळशेचें वरदान लाबलां.

मंगेशीं रावत सावन नंदूक हांव बारीकसाणीन पळयत आसा. हांव कितलोय पयस आसूं, तो म्हऱ्यांत येता आनी घरा पावंक जाय काय म्हूण विचारता. ताच्या ह्या उतरांनी उफाट प्रेम भरिल्लें आसता. तो कोणालें लग्न, वाडदीस, मरण सोंपेपणान चुकयना. आयच्या काळांत जण एकलो कितेंय सांगलें जाल्यार वेळच मेळना अशें सांगून जबाबदारी फाफडून मेकळो जाता. नाजाल्यार ऐनवेळार कसलें तरी म्हत्वाचें काम जालें अशें सांगून वेळ मारून व्हरतात. नंदू मात हाका आडवाद. वेळांतलो वेळ काडून असल्या सुवातांचेर तो हजर जाता. ताच्यांत आशिल्ल्या जबरदस्त अशा सामाजीक बांदिलकायेंतल्यानच ताका हें शक्य जाता. तो स्कूटर घेवन आपल्या भुरग्यांक पावंक वता. थंयच कोणतरी वळखीचो जाण्टेलो पोती घेवन चलत वतना ताका दिसता. स्कूटर थारावन रोखडो येता म्हणटा. भुरग्यांक पावन नंदू खिणांत थंय हजर जाता आनी जाण्टेल्याक घरा व्हरून पावयता. कोणालो सिलिंडर घेवप, तो व्हरून पावोवप असलीं कामां ताची सदचींच आसता म्हळ्यार जाता. नंदूलें घराणें तशें खूब व्हडलें. ल्हान व्हडा मेरेन नंदू सगळ्यांचेरच प्रेम करता.

आमी मनीसपणाच्यो खूब खबरी सांगतात. गाडी घेवन वा स्कूटर घेवन वता आसतना वाटेर कोणाकय अपघात जाल्लो आसल्यार आमकां

नाका ती भानगड अशें चिंतून पळोवं नाशिल्ले भशेन करून कूस मारपी आमचे मर्दी खूब जाण आसात. असलो प्रसंग आपणाचेर केन्नाय आयलो जाल्यार कितें जावपाचें हाचोय कोण विचार करिनात. अशा प्रसंगाचेर नंदू ऑफिसाक वचपाचो लेगीत रावता आनी अपघातांत सापडिल्ल्यांक हॉस्पिटलांत व्हरता. तो वळखीचो आसूं वा नासूं. हॉस्पिटलांत पावोवन परततना, आपल्या वळखीच्या दोतोराक, नर्सींक फोन करून ताचेर बरे आनी रोखडे उपचार जावचे म्हूण तो यत्न करता. समाजांत असले नंदू आसात म्हणून रस्त्यार कितल्याशाच जाणांचे जीव वाटावल्यात. कांय जाण अपघातांत सांपडिल्ल्यांची दया करपाचें नाटक करता, पूण रगत आपले गाडयेंत पडून गाडयेची वाट लागत म्हूण ऐनवेळार अचळय कूस मारतात असलो अणभव हांवें घेतला. पूण नंदू तशें करिना. तो जें करता तातूंतले धा टक्के तरी म्हाका शक्य जावचें अशें हांव देवा कडेन मागतां. नंदू म्हळ्यार समाजसेवेची एक प्रेरणा. म्हजो एक वळखीचो कवी आसा. आपल्या लेखना वयल्यान समाज कल्याणाच्यो तो खबरी सांगता. कोणूय शेजारी दुयेंत पडलो जाल्यार तो कानार केश्ट्यो काडटा. जिवाणें जशें आड्याचे खांचींत रावन कसलोय आवाज येतकच बोडकी भितर घालता तसो तो करता. एक दीस म्हाइ्डोळा म्हजे स्कुटरीचें एक रोद खळयेंत गेलें. स्कूटर वयर येना जाली. हांव सामको खर्शेलो. ज्युस्त हो कवी तेन्नाच थंय पावलो. वळखीचो म्हणटकच हांवें ताका मातसो हात घाल रे, अशें म्हळें. ताणें कपलाक आटयो घाल्यो आनी मातशी स्कूटर ओडली. हांवें देव बरें करूं म्हळें. पूण उपरांत चार पांच फावटी ताणें म्हाका तुजी स्कूटर ओडिल्ल्यान आपल्या कमरांत आयलें, तें अजून सारकें जावंक ना म्हूण सांगलें. अशा वेळार नंदू कितलो श्रेश्ठ आसा हाचो विचार येता.

गांवगिरे वाटार आसू वा शारां आसूं, केन्ना केन्ना बेबदे पियेवन बाजारांत जावं खंयूय झगडीं करतात. केन्ना केन्ना सोरो पियेवन घोव बायलेक बडयता आनी आमी रस्त्याचे कडेक रावन मजा पळयतात. कांय जाणांक कोणेतरी येवन ती झगडीं निवारचीशीं दिसता, पूण आपूण जावन कोण फुडें सरना. अशा प्रसंगांतल्यान केन्ना केन्ना बळीय वतात. पूण

असल्या प्रसंगाचेर नंदू फाटलो फुडलो विचार करिना. तो झगडीं वातावरण शांत करपाचो यत्न करता. नंदूची हीं कामां हांवें दोळ्यांनी पळयल्यांत. एका विचारवंतान म्हळां, आमच्या समाजाची चडशी वाट सज्जनांनीच लायल्या म्हूण. हांव तांकां सज्जन म्हणना. सज्जनाचे बुरखे म्हणटा. कसल्याय प्रसंगाचेर आपली कात कशी वाचोवं येता हाची कळाशी आशिल्ल्यांचोच आंकडो हालीं समाजांत वाडला. असल्या सज्जनाचे बुरखेच नंदू सारक्या समाजसेवकांचो 'करबील' कसो वापर करतात. करबिलाचो पालो फोण्ण मारून जातकच जसो भायर उडयतात तसो, अशें म्हाका म्हजो मित्र लेखक मुकेशबाब थळी केन्ना केन्नाय सांगता.

नंदू सारक्या मनशां मदीं आशिल्ल्या गुणांची समाजान दखल घेवंक जाय. ह्या गुणांचो गौरव करून ताची पोसवण करूंक जाय. तें केलें जाल्यार समाजांत नवे नंदू निर्माण जातले, आनी समाजाक लागिल्ली सुवार्थाची, आत्मकेंद्रीतपणाची बेनुल्ल ना जावंक पावतलीं. नंदूची समाजसेवा पळोवन ताची बायल आचल, भुरगीं तन्वी आनी वंदीत हांचो हांव विचार करता. तांच्या सहकार्याक लागूनच नंदू ही समाजसेवा करता. तांकां म्हजो सलाम!

# तडफदार आनी मायेस्त

वेगवेगळ्या प्रसंगांतल्यान आपूण खूब शिकलां. आतां आपणाक कोणेय फटोवपाचो यत्न केलो जाल्यार तें शक्य ना, अशें सांगून प्रशांती सुंदर हांसता. ताणें चळवळ करूं, आंदोलन करूं, कितेंय करूं. ताच्या मुखामळार मात हांवें सदांच कारुण्य पळयलां. ताच्या वागण्यांत एक वेगळीच लय आसा. सत्याचें तेज आसा.

**प्रशांती तळपणकार**



**केन्ना** केन्ना आमचें मत पूर्वग्रहदुशीत आसता. तातूंतल्यान अमूक मनीस वायटूच आसतलो अशें धरून आमी चलतात. आमी इतल्याचेर रावनात, तो मरे सामको शापोतेर म्हणून दुसऱ्यांकूय सांगतात. अशा वेळार कारण नासतना एकादऱ्या बऱ्या मनशाची बदनामी जाता. खंयचोय मनीस लागीं वतकूच कळपाचो आसता. पूर्वग्रहाक लागून वायट थारायिल्लो मनीस अणभवान बरो म्हूण कळटा, तेन्ना आपली आपणाकच तिडक मारता.

प्रशांती तळपणकाराचे बाबतींत म्हाका एकदां अशेंच जाल्लें. प्रशांती तळपणकार म्हळ्यार कोण हें बरोवपाची गरज ना. पूण केन्ना केन्ना सोपस्कारय टाळूंक येना. प्रशांती म्हळ्यार एका वेळा वेली गोंयची झांशीची राणी कशी. प्रोग्रेसीव्ह स्टुडन्ट्स युनियनाच्या आंदोलनात जांणी ताका पळयलां ते म्हज्या ह्या वाक्याचेर विस्वास दवरतले हातूंत दुबाव ना. प्रशांती, गोंयची एक अभिनेत्री, लेखिका, सामाजीक विचारवंत. एक सडेतोड आनी सामकें प्रेमळ व्यक्तीमत्व. 'सुनापरान्त' दिसाळें आनी 'प्रुडंट' मिडियाचे आदले मुखेल संपादक संदेश प्रभुदेसाय हांची घरकान्न आनी मोगाची इश्टीण.

कांय जाणांची वळख कोणाची धूव, कोणाची बायल, भयण अशी आसता. तांणी कितेंय बारीकशें काम केलें जाल्यार तांच्या घोवाच्या, बापायच्या, भावाच्या मोटेपणाचेर तांच्या नाशिल्ल्याच कर्तृत्वाचीं कांय जाण गितां गायतात. ताका लागून समाजाक खरो कोण व्हडलो तें कळना. तातूंत समाजाचेंच चड लुकसाण जाता. आमच्या प्रशांतीचे बाबतींत अशें ना. ताका कोणाल्याच मोटेपणाची आनी कसलेच प्रभावळीची गरज ना. समाजांत ताका एक खाशेली सुवात आसा. नवे पिळगेक प्रेरणा घेवपा इतलें ताचे कडेन खूब कितें आसा. ताचो म्हजे सारकिल्ल्या आनी समविचारी लोकांक सदांच अभिमान दिसला.

हांवें प्रशांतीक पळयलें तो 1983 चो काळ. केंद्रांत इंदिरा गांधीची राजवट आशिल्ली. देशाच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी कमुनिश्टांची चळवळ वयर येनाशी जाल्ली. गोंयच्या प्रोग्रेसिव्ह स्टुडन्ट्स युनियनांतलेय चडशे जाण हेच दिकेन ओडटाले. चळवळींतल्या फुडाऱ्यांचो एक सदांच यत्न आसता. कोणूय मातसो वेगळे वटेन चलतासो दिसलो जाल्यार ताका आपल्या विचारा कडेन वळोवप ही दर चळवळींतल्या फुडाऱ्यांची, कार्यकर्त्यांची नीत. तशें आसप सभावीकच आसता. कोंकणी भाशेचे चळवळींत आमीय तेंच केलां. म्हजो मित्र शैलेंद्र मेहतान म्हाका तातूंत ओडलो. दिल्लीक एक कसलीतरी कॉन्फरन्स आसा म्हूण म्हाका आपयलो. हांवें दिल्ली केन्ना पळोवंक नाशिल्ली. दिल्ली पळोवपाचे आशेन हांव तयार जालों. भारतीय जनता पक्षाचे कशे वेगवेगळे फांटे आसतात तशें संघर्श नाट्यमंच म्हण एक संघटनेचोय फांटो आशिल्लो. ह्या फांट्या वतीन दिल्लीक व्हरपाक एक रस्तो नाट्य बसयिल्लें. म्हाकाय तातूंत वांटो दिलो. हेरशीं हांव नाटकांनी कामां करपी न्हय. पूण दिल्लीक

वचूंक जाय म्हूण घेवया म्हळें वांटो. ह्या अणभवाचो फायदो म्हाका उपरांत मडगांव मतदारसंघांत अनंत नरसिंह नायक हांच्या विरोधांत अपक्ष उमेदवार म्हूण वेंचणूक लढोवपी ॲड. उदय भेंब्रेच्या प्रचारा वेळार केल्ल्या 'नितीची तागडी' ह्या रस्तो नाट्या वेळार जालो. दिल्लींत व्हरपाच्या रस्तो नाट्यांत म्हत्वाची इंदिरा गांधीची भुमिका प्रशांती करतालें. ती अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार आसा. संदेश, लेस्टर, शैलेंद्र मेहता, साबिना मार्टिन, प्रशांत नायक, रफीक शेख हे सगळे रस्तो नाट्यांत आशिल्ले. प्रशांत तर सामकेंच गाजयतालो. ताका व्हडलीं व्हडलीं गितां तोंडपाठ आसतालीं. सगळेच मार्क्सवादी चळवळीन भारावन गेल्ले. प्रशांती तर सामकें तेन्ना ल्हाय कशें फुलतालें. म्हाकाच मातशी ही चळवळ नवी आशिल्ली. हांव कवी म्हणून तांणी म्हाका तातूंत ओडिल्लो. हाची म्हाका कल्पना आशिल्ली. मुंबय सावन रेल्वेन दिल्लीक वता आसतना कांय जाणांनी तिकेटी काडूंक नासल्यो. म्हजे कडेनय तिकेट नासली. म्हज्या काळजांत सामकी धडकी भरिल्ली. डबे बडयत प्रवास करताले. मदीं मदीं 'ब्रेन स्टॉर्मिंग'ची सत्रां घेताले. प्रशांती आपणाल्यो जाणवायो सांगतालें. म्हाका कविता कश्यो करच्यो हाचें मार्गदर्शन करतालें. हांव 1978 सावन कविता बरयतालों. म्हजे कवितेंत निसर्ग बी येतालो. ताका दिसतालें. मार्क्साचे विचारसरणीचेर म्हळ्यार चेरा बंडू राजू बी कविता बरयतालो तसल्योच हांवें बरोवच्यो. म्हाका प्रशांतीची सामकी तिडक मारताली. दिल्लीक आमी आंध्र भवनांत काय खंय तरी राविल्ले. सगळ्या राज्यांतल्यान पंगड आयिल्ले. कोणाच्या हातांत पापेलांवाचे तयार केल्ले व्हिळे, पिकास, कोयते, तलवारी अशीं प्रतिकात्मक पद्दतीचीं हत्यारां आशिल्लीं. सगळेच लाल सलाम म्हणटाले. 'झक मारलो आनी मुंबय

गेलों' अशी म्हण आसा. हे म्हणीची म्हाका याद आयली. पोरणी देवळां मोडून नवी देवळां बांदूंक जाय अशें म्हाका प्रशांती सांगतालें. म्हजी विचारसरणी वेगळी. पोरणें देवूळ आसतनाय नवें देवूळ बांदल्यार सगळे लोक नव्या देवळांत वतले. नवें बांदप शक्य जालें ना जाल्यार वाऱ्यार पडटले हाची म्हाका भिरांत आशिल्ली. 'मारा भंयाक खंय खेतें नाचता' अशें म्हणून हांव तांचे वांगडा वावुरतालों. दिल्लीच्यान गोंया येतनाय चडशा जाणांनी तिकेटी काडल्यो ना. प्रशांतीक ताचो मातूय भंय दिसना हें पळोवन हांव आनांक बेजार जातालों. मुंबय सावन बोटीन बसून गोंया येतना मात सगळ्यांनीच तिकेटी काडिल्ल्यो. भाऊच्या धक्यार पावून बोटीन पांय दवरले उपरांत मात प्रशांतीच्यो कविते विशींच्यो जाणवायो आयकून हांवें घेतल्यो ना. मानग्याक जशें उदकांत पावतकच बळ येता तशें म्हजें जाल्लें. प्रशांती केन्नाय ह्या प्रसंगाची याद काडटा. तेन्ना तें सामकेंच भुरगें आशिल्लें. पूण समाजा खातीर कितेंतरी करचें हाची तातूंत भुरगेंपणा सावनच तळमळ आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत वैचारीक मतभेदांतल्यान युनियन फापसलें. दरेक जाण वेगवेगळे वाटेन गेले. 'बायलांचो माद' बी ह्यो संघटना त्याच 'स्पिरिटां'तल्यान जल्माक आयल्यो. एक गजाल म्हत्वाची ती म्हळ्यार जण एकलो वेगवेगळे दिकेन गेलो तरी सगळेच गोंयां संबंदींचो जेन्ना जेन्ना प्रस्न उप्रासला तेन्ना तांणी सगळ्यांनीच आपआपल्या माध्यमांतल्यान आवाज काडपाचो प्रयत्न केला आनी आतांय करतात. प्रशांती बाणावले शिकोवंक लागलें. हेच चळवळींतल्यान संदेश आनी प्रशांतीचें मिलन जालें.

देव-धर्म, श्रद्धा-अंधश्रद्धा, परंपरा ह्या विशयांचेर अजूनय म्हजे ह्या जोडप्या कडेन मतभेद आसात. पूण ह्या जोडप्याक हांव सदांच समाजाचो एक 'ॲसेट' म्हूण पळयतां. देव-धर्म, संस्कार मानिनाशिल्ले आमच्या

समाजांत जायते जाण आसात. तातूंतले चडशे जाण देवाकूय मानिनात आनी मनशांचेरय प्रेम करिनात. हांव तांकां धर्तरेक भार म्हूण पळयतां. असल्या लोकां कडेन तांचींच भुरगींबाळां रावपाक तयार नासतात. पूण आमचें प्रशांती संस्कारी. तें मनीस नांवाच्या जातीचेर प्रचंड प्रेम करता.

1983 सावन हांव प्रशांतीक पळयत आयलां. दिशीं दिशीं तें परिपक्व जायत गेलें. देखून म्हजे सारकिल्ल्याक ताचे विशीं दिसपी आपलेपण वाडत गेलें. मनशां विशींचें ताचें प्रेम आनी कळवळो ताका लागींच्यान वळखुप्यांक कळटा. एक दीस दनपारां एक निश्पाप बरो मनीस पियेल्ले अवस्थेंत तागेर आयिल्लो. प्रशांतीच्या काळजांत ताका खूब सुवात. 'आरे आतां घरा वच रे' अशें म्हणून तें ताका विनयतालें. बाजारांत नवेच आंबे येवपाचो तो तेंप. प्रशांतीन बाजारांतल्यान म्हारगे आंबे हाडिल्ले. ताणें ते सगळे आंबे त्या मनशाक दिवन घरा धाडलो. अशें हें आमचें प्रशांती. ताच्या ह्या गुणांचें वर्णन करपाक हांव उतरां खंयचीं हाडूं?

1989 वर्सा गोंयचे तेन्नाचे सभापती ॲड. दयानंद नार्वेकार हांचेर विनयभंगाचें एक बगलांट आयलें. ताचे फाटल्यान राजकारण आशिल्लें. हें उपरांतच्या काळांत लोकांक कळ्ळें ती वेगळी गजाल.

नार्वेकारा आड गोंयांत व्हडलें आंदोलन पेटलें. त्या काळार प्रशांतीन नार्वेकाराक राजिनामो दिवंक लावन ह्या प्रकरणाचो सोक्षमोक्ष लावचो हे मागणे खातीर आमरण उपोषण सुरू केलें. नार्वेकाराक राजिनामो दिवचो पडलो. प्रशांती म्हणटा, आपणे केन्ना जीवनात नियोजन अशें करूंक ना. आयलें तशें गायलें हे पद्दतीन आपणें सगळे केलां. तेन्ना आपणाक खंयच्याय मनशा मदीं आनीक एक कोण तरी धोंगी लिपिल्लो आसता तें कळनासलें. वेगवेगळ्या प्रसंगांतल्यान आपूण खूब शिकलां. आतां आपणाक कोणेय फटोवपाचो यत्न केलो जाल्यार तें शक्य ना, अशें सांगून

प्रशांती सुंदर हांसता. ताणें चळवळ करूं, आंदोलन करूं, कितेंय करूं. ताच्या मुखामळार मात हांवें सदांच कारुण्य पळयलां. ताच्या वागण्यांत एक वेगळीच लय आसा. सत्याचें तेज आसा. एक मात खरें नार्वेकार प्रकरणाक लागून प्रशांतीचें नांव गोंयभर जालें. प्रशांती आनी संदेश हें जोडपें खंयच्याय वेळार कोणाच्याय प्रसंगाक धांव मारपी. गाडयेंतलें पेट्रोल सोंपतलें, पाकीट रितें जातलें असलें केन्ना तांणी चिंतलें ना. पेनांतली काडी जावं, तकली उसळटा म्हूण घेतिल्ले क्रॉसीन गुळयेचें बिलूय केन्ना ऑफिसाक धाडलें ना.

संदेशाल्योय तश्यो कांय जगावेगळ्यो अफलातून अश्यो कल्पना आसतात. तत्वां आसतात आनी कांय बाबतींत हट्टूय आसता. म्हाका तें सगळेंच मान्य आसा अशें न्हय. ताच्यातल्या कितल्याशाच गुणांक लागून म्हाका मान्य नाशिल्ल्या ताच्या तत्वां कडेन हांव सामकी आडनदर करतां आनी ताका आसा तसो हांव स्विकारतां. म्हाका तो आवडटा. संदेश कितेंय करतलो, कसलोय निर्णय घेतलो तो बऱ्या खातीरूच आसतलो हाचेर प्रशांतीचो अखंड विश्वास. तें सदांच ताचे फाटल्यान खंबीरपणान उबें रावलां. तें सामकें कुटुंब वत्सल. माय मांवांचेरय ताचें खूब प्रेम आशिल्लें. ताची मांय म्हळ्यार शोभा वयनी. तें तिची अपुरबाय करतालें आनी तिका मोगान कशें वागयतालें हें हांवें पळयलां. संदेशाल्यो राटावळी चड. संवसाराचो चडसो भार प्रशांती घेता. ताका लागून संदेशाक बरीच मेकळीक मेळटा.

आपल्या कुटुंबाचो विचार करतना तें सामाजीक बांदीलके कडेनय आडनदर जावंक दिना. कोणूय दुयेंत आसलो जाल्यार ताचे भलायकेची वासपूस करप, जमता तितली मजत करप असलीं कामां प्रशांती करता. आमच्यो कांय लेखिका आसात, कोणाच्याच दुखांत त्यो वांटेकार

नासतात. एकादऱ्या लेखक-कवीन आपली बायल बरी ना, भुरगें बरें ना, अशें जर सांगलें जाल्यार त्यो आयकूनच घेवंक नाशिल्ले वरी करतात. तांकां त्या मनशाची तिडक मारता. असल्यो गजाली आमकां सांगपाच्यो आसनात. आमकां कितें नवें बरयलां तें सांग, अशी तांची भावना आसता. जगाचो भार आपणाचेरच आशिल्लेवरी वागतात. पूण घरांत चूल पेटोवंक कळना. असल्या मनशांक जेन्ना हांव पळयता तेन्ना प्रशांती व्हड व्हड दिसूंक लागता. माशां-काणकोणां आसूं वा ताळगांवच्या तांच्या नव्या फ्लॅटांत आसूं. तांगेलें आदरातिथ्य बरें. तागेर जो कोण भितर सरता ताची तें मना पसून सरबराय करता. कोणूय परकी आसलो जाल्यार ताचें परकेपण थंयचे थंयच गळून पडटा. वैयक्तीक पांवड्यार आपूण जमता तें करता. पूण संघटनात्मक काम आपणा कडेन जमना, तें संदेशा कडेन सोंपयलां, अशें तें म्हणटा.

प्रशांती खूब व्हडलें कलाकार. लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हांच्या 'पलतडचो मनीस' ह्या गाजिल्ल्या चित्रपटाक लागून ताचो अभिनय आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार पावलो. ताणें कितल्याश्याच फिल्मांनी, नाटकांनी येसस्वी भूमिका केल्यात. भूमिका ल्हान आसूं वा व्हड, तें आपले परीन न्याय दिता. खूब वर्सां आदीं बादल सरकार हांच्या 'सगिना महतो' ह्या कामगार चळवळीचेर आदारीत नाटकाचें नामनेचे लेखक, अनुवादक प्रा. स. प्रकाश थळी हांणी कोंकणींत रुपांतर केल्लें. ह्या नाटकांत प्रशांतीन म्हत्वाची भूमिका केल्ली. ती खूबच अप्रतीम आशिल्ली. ती केदी व्हडली गोंयची अभिनेत्री हें सिद्ध करपाक ही एकूच भूमिका पुरो जाली, अशें म्हजो मित्र निबंदकार, अनुवादक मुकेशबाब थळी प्रशांतीची खबर येता तेन्ना तेन्ना सांगता. प्रकाशबाब थळी तर ताची सदांच 'गुणी पोर रे तें' अशें

सांगून खूब तोखेतालो. प्रकाशभाईन कोणाकूय बरें कलाकार म्हूण म्हणप म्हळ्यार आनीक कसल्याच प्रमाणपत्राची गरजूच ना. तो कोणाचेंच वाचिनासतना पळयनासतना साहित्याचेर जावं अभिनयाचेर उलोवप्यांतलो न्हय.

प्रशांतीक भुरगीं आवडटात, आनी भुरग्यांक प्रशांती आवडटा. भुरगीं तशीं चडश्या सगळ्यांकूच आवडटात. पूण कोणालीं? आपणांक जाय अशीं दिसता तींच. आनी आपलीं. प्रशांतीचें तशें न्हय. तें सगळ्याच भुरग्यांचेर प्रेम करता. प्रशांतीताईच्या दोळ्यांतल्यान प्रेम ओतता, अशें म्हजें स्नेहा केन्ना केन्ना म्हणटां. तें दिसतकच ताका खूबच उमेद जाता. प्रशांती आल्तीन्यार रावतालें, तेन्ना ताच्या शेजरा एक तांचेच वळखीचेंच एक कुटुंब रावतालें. तांगेर शिना नांवाचें एक भुरगें आशिल्लें. दुर्दैवान ताका 'ऑटिजम' चें दुयेंस आशिल्लें. मनशाच्या मेंदवा संबंदींत हें दुयेंस. ताका कोणाचीच वळख उरनाशिल्ली. ताका कांयच कळनासलें. तें कोणागेरच वचनाशिल्लें. पूण प्रशांतीगेर वचून तें तांगेले बाजयेर लोळटालें. तें कुटुंब उपरांत अमेरिकेक रावंक गेलें. धा, बारा वर्सां उपरांत प्रशांती ताका भेटलें. तेन्ना तें शिना प्रशांतीक नांवां सकट वळखलें. हें पळोवन सगळ्यांकच अजाब जालें. हें अशें कशें घडूंक शकलें? हो संशोधनाचोच विशय.

प्रशांती नुस्त्याच्या जावं भाजयेच्या बाजारांत भोंवतना थंय नुस्तें विकपी, लिंबू विकपी भुरगीं प्रशांतीक दिसतकच टीचर टीचर म्हणत ताचे म्हऱ्यांत धांवून येतात, हें हांवें खूबदां पळयलां. तीं सगळींच झोपडपट्टीतलीं भुरगीं. प्रशांती तांकां घरा हाडून वा झोपडपट्टेंत वचून शिकयतालें. थंयच्या कितल्याशाच भुरग्यांक ताणें शाळा कसली आसता ती दाखयल्या. खंयच्याय शिक्षका कडेन आठ धा वर्सां शिकिल्लीं भुरगीं

लेगीत व्हडलीं जातकच तो शिक्षक खंयूय दिसल्यार पळोवं नाशिल्ले वरी करून वतात तेंय हांव पळयतां. तेन्ना प्रशांती आनी तीं झोपडपट्टेंतलीं भुरगीं म्हज्या दोळ्या मुखार येतात, असलें कसलें प्रेमचुंबक ताचे कडेन आसा काय?

भुरग्यां खातीर कितेंय बरें करपाची ताची तयारी आसता. आपणें जें कितें केलां ताचें विशीं समाधान आसा. आतांय कितेंय करता तें म्हज्या आनंदा खातीर करता, पूण आदले वरी कोणाचेर कुड्डो विस्वास दवरून वेळ इबाडपाक हांव तयार ना अशें प्रशांती म्हणटा तेन्ना हांव खूब गंभीर जाता. ताणें कितेंय सांगू समाजान निरागस, निश्पाप आनी शुद्ध अंतस्करणांतल्यान वागपी मनशांचो चडसो लोक सुवार्था खातीरच वापर करतात, कामा पुरतो मामा करता हाची खंत प्रशांती मर्दीं म्हाका दिसता. ती दिसप मातय चुकीचें न्हय, अशें म्हजें मत आसा. वेद तागेलो व्हडलो पूत आनी रुचा धूव. दोगांय शिकतात. प्रशांतीलो आनी संदेशालो पुर्वपुण्यायेचेर बी विस्वास ना. पूण म्हजो आसा म्हणटकच तांचें पूर्वपुण्यायेचें फळ तांच्या भुरग्यांक मेळूं आनी ह्या कुटुंबाचो समाजाक दीर्घकाळ फायदो जावं, अशें हांव मागतां.

# जाय जायसो

ताचो मित्र वर्गूय खूब व्हडलो. सुशिक्षीत, अशिक्षीत सगळेच ताचे मित्र. आपले भाव, भावाल्या बायलांचे भाव, भुरगीं, मावसो, मावशी हे सगळे सोयरे धायरे ताका लागताले. कोणागेरय केन्नाय भितर सरतालो. अशा कारणांक लागून दया सगळ्यांकच जाय जायसो दिसतालो.

**दया (दयानंद नायक)**



**जल्माक** आयिल्लो मनीस केन्ना ना केन्ना संवसारांतल्यान वता. कांय जाण बेगीन तर कांय जाण जिणेंतलो सगळो आनंद उपभोगून जातकच वतात. कोणूय मरतकच ताचे घरच्यांक सोयऱ्यांक मित्रांक दुख्ख जाता. वायट दिसता. तशें दिसप सभावीक आसता. पूण हें सगळें कांय काळा पुरतेंच आसता. विसरपाक काळ हेंच वखद आसता. हालींच्या काळांत चडशे लोक असलें दुख्ख बेगीन विसरूंक लागल्यात. तेंय खरें. संवसार थारावीक पेण्यार सोपूंक शकना. तो चालूच उरपाचो आसता. पूण एक गजाल म्हत्वाची आनी सत्य ती म्हळ्यार कांय जाण संवसारांतल्यान गेले तरी वेगवेगळ्या प्रसंगार त्या मनशांची याद येता. बरी आसूं वा वायट आसूं. एकाद्रो प्रसंग घडटकच अमूक मनीस आशिल्लो जाल्यार कितेंय तरी करतलो आशिल्लो, अशें आमी म्हणटात. घरचे, सोयरे, शेजारचे कितलेशेच लोक आसतात. पूण त्या वेळार त्याच व्यक्तीची याद येता. एकाद्रो मनीस मरतकच पोकळी निर्माण जाल्या अशें आमी म्हणटात, हीच ती पोकळी. ती दुसरो सोंपेपणान भरून काडूंक शकना.

दरेक मनशाचें सभावाचें एक वैशिश्ट्य आसता. तातूंतल्यानच आमकां ताची याद येता. म्हाका केन्ना केन्ना दयाचे बाबतींत अशेंच घडटा. सगळ्याच मनशांक सगळेच वळखतात अशें ना. म्हणटकच हो दया कोण? असो वाचकांचो प्रस्न आसतलो. दया म्हळ्यार दयानंद नायक. गांवान गांवठण सांखळेचो. पर्वरीच्या विद्या प्रबोधिनी ह्या उच्च माद्यमीक

विद्यालयाचो आदलो शिक्षक. रायबंदरच्या युनियन हायस्कूलाचे मुख्याध्यापक उमेश अच्युत नायक हांचो जावंय. शिल्पाचो आदलो घरकार. निधीचो बापूय. राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचो एक कार्यकर्तो. सावयवेरेंचे के.आर.एस.एस. शेटये सावयकार विद्यालयाचे आदले मुख्याध्यापक प्रेमानंद नायक हांचो धाकलो भाव. म्हजो सोयरो आनी इश्ट. व्यक्तीचित्र उबें करपाची म्हजी हीं कारणां न्हय. कांय मनशांचे गूण, सबाव, समाजसेवेची तरा समाजा मुखार येवपाक जाय. समाजान ह्या गुणांचें अनुकरण करपाक जाय. देखून असल्या गुणांचो गौरव करपाचो म्हजो हो प्रयत्न.

कोणाय कडेन मैत्री करपाचे बाबतींत वेगवेगळ्या मनशांचीं वेगवेगळीं मतां आसात. मैत्री करपाचीच जाल्यार ताचे रांदचे कुडी मेरेन वचपा इतली आसपाक जाय. मनीस मनशाच्या काळजा मेरेन पावलो जाल्यारच ती खरी इश्टागत आसता. कसलींच दुबावाचीं वा सुवार्थांचीं काळीं कुपां आसूंक फावना. मैत्रीचे विशय येताले तेन्ना तो हें आपलें मत मांडटालोच. अशें शिल्पा दया विशीं उलयतना सांगता. वागण्यांतल्या सोपस्कारांक ताणें व्हडलेशें म्हत्व दिलें ना. जें करतालो तें सगळें मनापसूनच करतालो. रस्त्या वयल्यान वतना कोणूय झगडटा, जावं खंयच्याय विशयाचेर मतां मांडटाशें दिसलें जाल्यार तो थंय वचून आपलें मत उक्तायतालो. तांची कितेंय अडचण जाल्याशी दिसल्यार तीय सोडोवन तांकां मजत करपाची ताची भावना आसताली. केन्ना केन्ना ताचें असलें वागप ताच्या आंगलटच येतालें. पूण ताची ताका पर्वा नासताली. खंयचोच विशय वयले वयर घेवन फांफड्डून उडोवप ना, अशें ताचें मत आसतालें. जाण्ट्या मनशां विशीं ताका उफाट प्रेम. कोणूय जाण्टो नजो जावन रस्त्या वेल्यान चलत वता, जावं पोटल्यो घेवन बशीक ताटकळत उबो रावलासो दिसलो जाल्यार ताची वासपूस करप, ताची परिस्थिती समजून घेवपाची ताका पार्त आशिल्ली. ताका तो आपले मोटरसायकलीन बसोवन तो जंय वता थंय पावयतालो. आपल्या नात्यांतल्या कोणूय गरीब जाण्ट्याक तो फकत घरा पावयनासलो, तर पावोवन परतो येतना बोल्सांतय कितेंय घालतालो.

कोणूय वळखीचो, सोयरो दुयेंत पडला म्हूण कळटकच तो ताचे खबरेक धांव मारतालो. ताका दोतोरागेर जावं हॉस्पिटलांत व्हरप. हाका ताका फोन करून ताचेर बरे उपचार जावचे म्हूण धडपडत रावप. इतलेंच न्हय तर ताका जेवण लेगीत पावोवपाक तो वेळांत वेळ काडून हजर रावतालो. ताचो मित्र वर्गूय खूब व्हडलो. सुशिक्षीत अशिक्षीत सगळेच ताचे मित्र. आपले भाव भावाल्या बायलांचे भाव, भुरगीं, मावसो, मावशी हे सगळे सोयरे धायरे ताका लागताले. कोणागेरय केन्नाय भितर सरतालो. अशा कारणांक लागून दया सगळ्यांकच जाय जायसो दिसतालो. कुटुंबांतल्या सगळ्यांकच दयाचो धीर आसतालो. हें सगळें करता आसतनाच आपल्या मित्रांक घेवन खंयूय हॉटेलांत वचून जेवपूय ताका आवडटालें. ताका हें सगळें करपाक वेगळोच आनंद आसतालो. ताचे वांगडा हांवें कितलेश्योच पिकनिको केल्यात. ही समाजसेवा ताच्या जिविताचो एक वांटो आशिल्ली. आपणें केल्ल्या ह्या कामांची खबर घरा येवन बायलेक सांगूंकच जाय अशें ताचें नासतालें. दयान केल्ल्या उपकारांची याद दवरपी लोकूच केन्नाय दयाल्या कर्तृत्वाच्यो खबरी शिल्पाक सांगताले तेन्ना ताका कळटालें.

शिक्षक म्हणून तो कितलो श्रेश्ठ आशिल्लो हाच्यो खबरी विद्याप्रबोधिनीतले ताचे वांगडा शिकोवपी सहकारी अजूनय सांगतात. विद्यार्थ्यांच्या काळजांत ताका सुवात आशिल्ली. तन मन लावन ताणें विद्यादानाचें काम केलां. ताचे विद्यार्थी अजूनय म्हजे कडेन उलयतना आदरान आपल्या प्रेमळ गुरूच्यो यादी काडटा तें पळोवन दोळ्यांत दुकां येतात. दयालो बापूय सुशिक्षीत. ताचें नांव रघुवीर. घरांतली शिक्षणाची परंपरा दया मेरेन आयिल्ली. व्हडलो भाव प्रेमानंद प्रतिभावंत. कवी स. नरेंद्र बोडके हांचो त्या काळावेलो लागींचो इश्ट. उलोवंक लागता तेन्ना ज्ञानाच्यो पांवळ्यो ओतूंक लागता. इंग्लिश, मराठी, हिंदी साहित्याचें अफाट वाचन आनी अभ्यास. रासवळ जिविता पसून मात सदांच कडेक रावलो आनी एका बारीकशा त्रिकोना मदीं जगलो. एकादऱ्या खंयच्याय विशयाचेर, साहित्यकृतीचेर प्रेमानंद सरान केल्ली विसकटावणी परत परत

आयकुचीशी दिसता. ताचे विद्वत्तेचेर हांव सामकोच पिसो. ताका लागून दया विशीं म्हाका चड प्रेम निर्माण जावंक लागलें.

दया सामकोच वेगळो. ताचे मदल्या प्रत्येक गुणांचो समाजाक फायदो जालो. समाजा मदीं पुरायपणान भरसून वचून खंयच्याय मनशाक आपलोसो करून घेवपाची ताची कळाशी सामकीच वेगळी. म्हजे परस तो पिरायेन ल्हान. पूण ताचे कडल्यान शिकून घेवपा सारकें खूब कितें आसलें. पंदरा वर्सां आदीं कविता ह्या प्रांताची विद्यार्थ्यां मदीं आवड निर्माण जावची म्हणून तेन्नाचे म्हजे मित्र सिताराम नायकाक घेवन उच्च माध्यमीक विद्यालयांनी कविता सादरीकरणाचे हांव कार्यक्रम करतालों. दयाचे संकल्पनेंतल्यान आनी प्राचार्य सुभाषबाब वेलिंगकार हांच्या सहकार्यान विद्या प्रबोधिनीच्या उच्च माध्यमीक विद्यालयांत हांवें एक प्रयोग केल्लो. त्या आयोजनांत दयाचो व्हडलो वांटो आशिल्लो. शिस्तबद्ध पद्दतीन ताणें ह्या कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. ही शिस्त ताणे राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघा कडल्यानय घेतिल्ली आसूंक जाय. सामाजीक आसूं वा सांस्कृतीक आसूं, खंयच्याय कार्यावळीचें बरें आयोजन करपाची कला ताचे कडेन आशिल्ली. त्या सोबीत आयोजनाची म्हाका याद येता तेन्ना दयाची सौजन्यशील म्हूर्त म्हज्या दोळ्यां मुखार उबी जाता आनी काळीज भरून येता.

समाजसेवे खातीर दयाक शिल्पाची परवानगी केन्नाच घेवची पडूंक ना. संत तुकाराम महाराजांचे बायलेकय मागीर मागीर तुकारामाले समाजसेवेची संवय जाल्ली. आपणाकूय तशीच जाल्ली अशें केन्नाय शिल्पा सांगतालें. कुटुंबांतल्या, समाजांतल्या प्रस्ना विशीं दया फाटल्या 12 वर्सां आदीं खूब कितें कितें सांगतालो. तेन्ना म्हाका तो सांगतालो तें खरें दिसतालें. पूण बारा वर्सांच्या काळा उपरांत आपूण जेन्ना फाटीं वचून पळयता तेन्ना दया सांगतालो तें सगळेंच खरें दिसूंक लागता. अशें शिल्पा सांगता. तागेलो अणभव म्हज्या फुडल्या आयुश्या खातीर भांडवल थारलां अशेंय तें सांगता.

दुसऱ्या मनशा विशींच्या प्रेमांची मायेची बियां, दया कळत नकळत

शिल्पाच्या काळजांत रुजवणा घालतालो. आयज ताचीं शिल्पाच्या काळजांत झाडां जावन फुलां फुल्ल्यांत. तीं परमळत आसा. वास घेवपाक दया उरलो ना हाची खंत आमकां सगळ्यांकूच आसा. पूण चली निधी आसा, तें बरे शिकता हाचें समाधान आसा.

आमची सगळ्यांची सेवा करतां करतां दयाक एक ल्हान काळाचें दुखणे जालें. शस्त्रक्रिया करून घेवपा खातीर मुंबय व्हरपाचें थारलें. सगळ्यांच्याच काळजांत दुख्खाचें सांवट जालें. मुंबय वचचें पयलीं दोन दीस आदीं पर्वरी मोटरसायलीचो टायर काडटां काडटां हांसत हांसत दयान म्हाका म्हळें, मुंबय वतकच आपूण कुट्ट जायना मरे? कितें उलयता रे तूं, अशें हांवें म्हणटकच आनीक नेटान हांसलो. तो हांसो निमणो आसतलो म्हूण कोणाक खबर! कोणाक तरी दुसऱ्याक पावोवपाक मुंबय गेल्लेवरी आपूणच बॅगां घेवन कुटुंबा वांगडा गाडयेंत चडून गेल्लो तो दया परतो आयलोच ना! सगळ्यांचेरच दोंगरा येदें दुख्ख कोसळ्ळें. चित्रकार संजय हरमलकाराचो धाकटो भाव भूषण आनी विद्या प्रबोधिनीतलो ताचो एक सहकारी राजेश वैद्य हे ताचे जिवाभावाचे इश्ट. विद्या प्रबोधिनीचेच आदले प्राचार्य राजकुमार देसाय तर ताचे विद्यालयांतले मित्र. तांणी तांच्या कुटुंबाक सदांच धीर दिला.

गांवठण सांखळेच्या ताच्या घरांतल्यान दयाची अंत्ययात्रा भायर काडली, त्या वेळार पेडणें ते काणकोण मेरेनच्या वेगवेगळ्या थरांतल्या लोकांची प्रचंड गर्दी जमिल्ली. दरेकलो दयाच्या समाजसेवेच्यो खबरी सांगून रडटाले. कोणाच्याय मरणाक वचून कुडीचेर फुलां घालपाची म्हाका संवय ना. पूण दयाच्या देहाचेर हांवें हार अर्पण केले बगर म्हज्या राव नजो जालें. थंय जमिल्लो जनसमुदाय दया कोण आशिल्लो हाची जाप दितालो.

निधी तेन्ना सामकेंच ल्हान. सगळेच असहाय्य. असल्या प्रसंगाचेर सगळेच लोक सांत्वन करतात. ताची तेन्ना गरजय आसता. पूण प्रत्यक्ष दुख्ख वेदना ताचे ताकाच भोगच्यो पडटात, सोसच्यो पडटात. हाची कल्पनाय शिल्पाक आशिल्ली. दया गेला तें वर्स 27 ऑक्टोबर 1999.

शिल्पा कडेन ताचे लग्न 1 मे 1996 वर्सा जाल्लें. तो फकत 34 वर्सां जगलो. पूण आपल्या थोड्याच काळाच्या सहवासान शिल्पाक ताणे बळिश्ट केल्लें. त्या बळाचेरच शिल्पान दोंगरा एदें दुख्ख धाडसान पचयलें. उपरांत कांय काळा उपरांत शिल्पाचें दिवाडेच्या मिलिंद नाटेकार ह्या सभ्य व्यक्ती कडेन दुसरें लग्न जालें. ताचीय घरकान्न ल्हान वायटान संवसारांतल्यान गेल्ली. सावी नांवाचें ताचेंय एक गुणी भुरगें. ह्या मिलनांतल्यान सावीक आवयचें आनी निधीक बापायचें प्रेम मेळ्ळें. ताचे सारकें दुसरें समाधान कसलें आसूं येता! हांव जेन्ना मिलिंदाक पळयतां तेन्ना दया मदीं आशिल्ले बरेचशे गूण तातूंत दिसतात.

शिल्पा आनी मिलिंदाच्या लग्नाक दयाचो भाव प्रेमानंद हाणेंच अंतरपाट धरपाचें शास्त्र केलां. दयाल्या घरच्यांक अजूनय शिल्पा आपलेशें दिसता. हें कोणूय पळयता तेन्ना शिल्पाल्या गुणांचें वर्णन करपाची गरजूच पडना. वेळा प्रसंगार तें थंय वताय. शिल्पाल्या नव्या घराब्या कडेन प्रेमानंदाचें आनी मिलिंदाचें तशेंच ताच्या घरच्यांचें दयाल्या घरच्यां कडलें आपलेपणाचें नातें पळयतना आमकां समाधान भोगता तें उतरांनी व्यक्त जावप कठीण. प्रागतीक विचार सरणीचेंच तातूंतल्यान दर्शन घडटा. दया सर्गांतल्यान हें दृश्य पळोवन खोशयेन हांसता आसतलो. समाजांत देख घेवपा सारकी ही गजाल. हाचो हांव विचार करतां तेन्ना म्हाका मिलिंद माडा इतलो उंच उंच आनी प्रेमानंदाचें काळीज मळबा येदें व्हडलें व्हडलें दिसता! धारदार नाक, खाड, लांब हातांचो शर्ट, खांदाक बॅग, रुबाबदार व्यक्तीमत्व, पांयाक चक्रां असो हो दया आयजूय म्हज्या दोळ्यां मुखार परत परत येता!

## उपकार

'हाडामासाचीं देवळां'
नकसूद करपाक वावुरल्यात
ते कारागीर.

सिद्धेश म्हांबरे
निरुपा नायक
मुकेश थळी
स्नेहा वेरेंकार
संजय बोरकार
प्रदीप पाटील
प्रसाद नायक
सिद्धेश पै रायकार
योगेश पै रायकार



प्रकाशीत पुस्तकां:

- भावझुंबर (कविता)
- मुंबर (कविता)
- गांवांतली सांज (कविता)
- पडवेवयलीं संवणी (भुरग्यांच्यो कविता)
- चैतन्याच्यो पावळ्यो (कविता)
- अस्वस्थ सूर्य (कविता)
- व्हिलेज इव्हिनिंग (कविता)
  (इंग्लीश अणकार) प्रा. प्रकाश थळी
- स्मरण (संतोष मायामोहन, हांचो राजस्थानी कवितासंग्रह ''सुमिरन'')
  (कोंकणी अणकार)
- मनपाखां (कवितांची सीडी)
- मांड ओसाड जातना (एकांकीका)
- तिपय (एकांकीका)

NAVISHRI
CREATIONS